Price ₹ 40/- (₹ 45/- Outside Goa)




जानेवारी २०१३

# हें थांबोवंकूच जाय!



## बिम्ब सन्मान सुवाळो २०१२






# Casino Pride

Captain of Ports Jetty **Panaji**







# Casino Pride

Captain of Ports Jetty **Panaji**

Casino Pride, built upon the vessel MV the Pride of Goa and berthed on the River Mandovi, is one of Goa's latest and most luxurious offshore casinos. As far as its décor goes, Casino Pride is breathtakingly impressive. It occupies three spacious floors covering over 30,000 sq. ft. and has a Weather Deck that is almost 10,000 sq. ft. in area. Its pillared gold ceiling fills the hall on each floor with cheerful illumination: no glare, no shadows. Just perfect to spin the wheel, shuffle the pack or roll the dice as you sip your favorite beverage

**Casino HOTline:**
**0832 - 671 0101 / 11**

## Casino Paradise

Neo Majestic
**Porvorim**
website: www.neomajestic.com

## Casino Palms

La Calypso Hotels **Baga**
www.lacalypso.in








ROULETTE | MINI BACCARAT
BLACKJACK | MINI FLUSH
TAI SAI | FLUSH | 3 CARD POKER

PAPLU (27 CARD) RUMMY
STUD POKER | CASINO WAR
TEXAS HOLD'EM POKER
PONTOON | SLOT MACHINES

## Casino Pearl

Bogmallo Beach Resort,
**Bogmalo**

**Casino HOTline:**
**0832 - 671 0101 / 11**

Follow us on:
www.casinopridegoa.com
facebook.com/casinopride
twitter @ casinopridegoa

कोंकणी मासिक

# बिम्ब

१२ वें वर्स



## हें थांबोवंकूच जाय!

डॉ. रुपेश पाटकार

वर्स : १२ अंक १

जानेवारी २०१३

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी ३५० रु. / तीन वर्सां १००० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब मन्थली' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in



# सुतकांत कसले संकल्प आनी कसल्यो शुभेच्छा!

खंयचे उमेदीन आनी खोसयेन नव्या वर्साक येवकारचें आनी तुमकांय नव्या वर्साचीं परबीं भेटोवंचीं तें कळना जालां. जांका संवेदना आसात, जांचो मनीसपणाचेर विस्वास आसा अश्या सगळ्या भारतीयांची अवतिकाय आयज अशीच जाल्या आसूंक जाय! आमी ह्या दिसांनी सुतकांत आसात. आमची एक भयण पोरणें वर्स सरतां सरतां २९ डिसेंबराक आमकां सोडून अनंताचे वाटेक वचूंक गेल्या. ती गेली खरी पूण आपखोशयेन गेली ना. कांय चांडाळांनी तिका जबरदस्तीन आपली जीण सोंपोवंक लायली. तरी तिणें चिवटपणान मर्णाआड झूंज मांडलें. आपूण मर्णाचेर जैत मेळोवन परत एक खेप तेच दिल्लींत आपल्या पांयांचेर उबें रावतलें. जाणीं आपल्या अब्रुलागीं खेळ मांडलो, जाणीं आपले हालहाल केले त्या विकृत क्रूरकर्म्यांक, नराधमांक फांसार चडयतात तें आपूण पळयतलें हे आंतरीक इत्सेन ती मर्णाक सांगताली, 'हे मर्णा पयस राव. आपल्या म्हन्यांत इतले बेगीन येवपाचें तुजें काम न्हय. तुजें काम, जाणीं म्हजी कसलीच चूक नासतना म्हजे हालहाल केले, म्हजी विटंबना केली तांची गची आंवुळपाचें.'

पूण हाय रे दैवा! मर्णानूय ते आमचे निर्भय भयणीचें आयकलें ना. ताचेरूय सांवार आयिल्लो. ताणेंय आमचे भयणीं भोंवतणी ल्हव ल्हव पाश आंवुळ्ळें. पूण तशें करतना एक काम केलें, मर्णान आमचे भयणीक, निर्भयाक सांगलें, 'निर्भया, जे भारतभुंयेचेर तुजेर अत्याचार जाले, ते भारत भुंयेचेर तुज्या प्राणाक हात लायना. जी भारतभूंय तुजे सारखे धुवेक सन्मानान जगूंक दिना, जे भारतभूंयेंत तुज्या सारख्या धुवांचेर दिसपट्टे अत्याचार जातात आनी तुजी राखण करूंक जे भारतभूंयचो एक्कूय कृष्ण धावून येना ते भारतभूंयेर निमणो स्वास घेवंचो अशी वान्सा तरी तुवें कित्याक धरची?' देखुनूच आमच्या निर्भयाक सिंगापूर भूंयेर निमणो स्वास घेवंचो पडलो. भारत भूंयेर हाडचें पडलें तें निर्भयाचें निष्प्राण कलेवर!

नवें वर्स उदेवपाक फक्त दोन दीस आसात म्हळ्यार ही काळजाक पीळ घालपी दुर्दैवी घडणूक घडली. आमचे भयणीचेर धांवते बसींत ४०/४५ मिनटां अत्याचार जाताले आनी ती जिवाच्या आकांतान किंळच्यो मारताली. त्यो किंळच्यो अजून आमचे भारतभूंयेर आसमंतात भरून आसात. त्याच आसमंतांतल्या वातावरणांत आमच्या नववर्स शुभेच्छाक खंयच सुवात ना. त्यो शुभेच्छा उच्चारपाचें धारिश्ट्य आमचे भितर ना. देखून नव्या वर्साच्या हुंबऱ्यार रावून लेगीत हें नवें वर्स तुमकां खुशालभरीत वचूं अशें म्हणपाची फर्मालदाद आमी करूंक सोदिनांत.

आमी ह्या सुतकांत इतलेंच करूंक शकतात तें म्हळ्यार आमचे भयणीचो आत्मो जो आमचे सरभोंवतणी भोंवाडे मारीत, आक्रोश करीत आपल्याचेर जाल्ल्या अत्त्याचाराची दाद मागता त्या आत्म्याक आश्वासक उतर दिवप. ताका सांगप, तुजो गेल्लो बळी व्यर्थ वचचोना. आमी तुका न्याय मेळचो म्हूण व्हडा संख्येन रस्त्यार देंवल्यात ते फक्त आमचे मदले संचारी भाव जागवल्यात म्हूण न्हय तर तुका न्याय मेळचो, तुजेर अत्याचार करप्यांक कडकांतली कडक ख्यास्त मेळची आनी हे मुखार कोणाकूच, खंयचेच अस्तुरेचेर चुकून लेगीत अत्याचार करपाची दुर्बुध्दी जावंची न्हय म्हूण कडक कायदे करून घेवपा पासत. हें करून घेतले बगर आमी आतां पावल फाटीं घेवपाचे नांत. ते सर तुज्या आत्म्याक शांती लाबूं अशें चुकून लेगीत म्हणचेनांत. उरफाटें आमचे सगळ्यांचे अंतरात्मे हे घडणुकेन पीडीत जाल्यात ते नव्या वर्सांतूय खुदत रावूं अशेंच आमी म्हणूं!

पोरणें वर्स सरतां सरतां दिल्ली जी सामुहीक बलात्काराची घडणूक घडली ती आमकां नवी न्हय. आमच्या ह्या देशांत दर धा-पंदरा मिनटांत खंय ना खंय बलात्कार, विनयभंग आनी हेर शारिरीक अत्याचार घडटात. तांच्यो बातम्यो आयकून, खबरांपत्रांचेर वाचून आनी चॅनलांचेर पळोवन आमच्यो संवेदना थीजल्यात. ह्यो घडणुको म्हळ्यार कांय लोकांक आपली लेखणी झरोवपाची, भाशणां करपाची आनी निशेध करपाक आयतीच मेळिल्ली संद अशेंच म्हणचें पडटा. ते संदीचो फायदो हे लोक त्या त्या वेळार घेतात आनी मागीर नवे संदीची वाट पळयत रावतात. पूण एकलोय मायेचो लाल असल्यो घडणुको ह्या फुडें परत घडच्यो नांत, घडल्यो जाल्यार शासन वेवस्ता मागीर, पयलीं आमी ह्या क्रूरकर्म्यांचो गुप्तभाग चेंचोयतले म्हूण फुडें सरनांत, उरफाटे षंड कसे ते घडणुकांचेर आपले परीन तर्कवितर्क करीत, भासाभास करीत तो विशय चगळटात. हे खेप मात अशें घडूंक ना. दिल्ली घडणुकेन पुराय देश खंवदळून उठला. तो फक्त संचारीभाव थारूंक फावना, ही धगधगपी मशाल पालवूंक दिवंक फावना. हे मशालीचे उजवाडांत आमच्या देशांतले दरेक अस्तुरेक आपली सामाजीक सुरक्षा स्पश्टपणान दिश्टी पडूंक जाय. तेच पासत नव्या वर्सा आमी फक्त मशाली आनी मेणवातीच पेटोवन न्हय तर आमचीं काळजां पेटोवन परजळीत उजवाड निर्माण करूया. त्या उजवाडांत आमच्या देशांतली दरेक अस्तुरी निर्भया जावन वावुरतली अशें उतर आमी निर्भयाच्या आत्म्याक दिवया.'

तोच संकल्प आमी नव्या वर्साच्या हुंबऱ्यार उबे रावून करूया. आमेन!

# प्रतिबिम्ब

## सखी वसुंधरा केन्ना वाचूंक दिता?

"हॅलो, दिलीपबाब."

"सांग देविदासबाब."

"आरेऽ आवाज वळखलो मरे तुवें?"

"साहित्यिकाचो आवाज आयकप हें म्हजें कामूच मरे! आनी तुजो आवाज हांव वळखुंचो ना म्हण आसा?"

"तूं मोठ्ठो आं! तूं उलोवंक कोणाक आयकचोना!"

"सांग कितें खबर? कशी याद जाली?"

"आरे, तुजें आमंत्रण पाविल्लें म्हाका. पुरस्कार सुवाळ्याचें! हांव पावलो नां. सॉरी आं!"

"कांय हरकत ना. बरोऽ जालो तो, तूं नासतनाय."

"तूं मरे अस्सोच! काणकोणच्यान एकट्याक येवंक जमना रे! हांवें फोन कित्याक केल्लो खबर आसा?"

"हय. तूं सुवाळ्याक पावलोना. हें सांगपा खातीर."

"तूं सामकोच करता मरे! हांवें फोन असल्या कारणाक केल्लो, तुजो दिवाळी अंक वाचून सोंपयलो. खूबच सुंदर काडला. तुका मानपाचो रे! सुंदर मांडणी, सुंदर छपाई, भितरले सगळे लेख सुध्दां सुंदर आसात."

"देव बरें करूं!"

"आयक रे! घाई आसा?"

"ना रे बाबा, खूऽब वेळ आसा. सांग तूं."

"तुजी कादंबरी 'सखी वसुंधरा' वाचून काडली."

"पूण ती अर्दीच आसा मरे!"

"आयक रे सांगतां तें! जितली आयल्या तितलीय वाचून काडली. म्हाका खूब्ब म्हणल्यार खूब्ब आवडली. तिजी मांडणी, तिजो विस्तार, कादंबरींतली भास, म्हाका ती वेगळीच तरेची लागली. केन्ना पूर्ण करता रे?"

"पूर्ण आसा रे! मातसो हात भोंवडावन पुस्तकरूपान येतली!"

"म्हाका वाचपाची उत्सुकताय लागल्या. दिवाळी अंकांत कित्याक पूर्ण घाली ना तुवें?"

"दिवाळी अंकांत आनीक पन्नास पानां नाशिल्लीं!"

"म्हणचे बरीच व्होड जातली मरे ती!"

"बायलांचें जीवन कितें ल्हान आसता?"

"ह्या विशयाचेर कोंकणीक एक बरीऽ कादंबरी येतली! अभिनंदन!"

"एक कादंबरीकार दुसऱ्याचे कादंबरीची तोखणाय करता तें पळोवन बरेंऽ दिसलें!"

"हांव तसलो न्ही रे बाबा! तुजो मरे गैर समज जाता. हांव बरें तें बरें म्हणटां. तुजें म्हजें कितें वायटपण आसा? बेगीन दी आमकां कादंबरी!"

"दोन मायाक आगशी यो! म्हज्या वाढदिसाक प्रकाशन करपाचें थारायलां! येतलो मरे?"

"तूं आपयना जाल्यारूय येतलों. नक्की येतलों आं! आनी तुज्या डिसेंबरांतल्या अंकांतल्या प्रतिबिम्बांतलें शीलाचें आनी तुजें उलोवपूय बीन आवडलें! मस्त जमला प्रकार तो! आतां सगळें फोनाचेरूच जाता न्ही रे! पत्रां बरोवंक कोण-वचना."

"तुवें फोन तेच खातीर केल्लो काय कितें?"

"चेऽ ना रे! तुजें उलोवपूच बोरकारी रे! म्हाका आवडटा तें! हांवें खऱ्यानीच तुका दिवाळी अंकाचीं परबीं भेटोवंक फोन केल्लो. वाचून सोंपता म्हूण राविल्लों. परबीं परत एक खेप."

"जालें रे! देव बरें करूं!"

"बरें कादंबरीचें विसन्नाका. वाट पळयतां आनी तूं सगळ्यांचीं पुस्तकां छापता. म्हजें केन्ना छापतलो रे?"

"आतां कळ्ळें तुवें फोन कित्याक केल्लो तो! धाडून दी एक बरी स्क्रीप्ट. ह्याच वर्सा काडुया. बरें रे!"

**– देविदास कदम**

काणकोण

(२७ डिसेंबर फोन कॉल)



संपादक,

बिम्ब प्रकाशन

नमस्कार, बिम्ब प्रकाशनान अकरा वर्सांचो काळ पुराय केल्लेखातीर खूब खूब परबीं. पोरूं दशकपुर्ती निमतान जाण्टेल्यांच्या साहित्यीक वावराचो उगडास करचो आनी तांच्या वावराची वळख नवे पिळगेक घडोवन हाडची ह्या दोट्टी हेतून बिम्ब प्रकाशनान पुरस्कार वितरीत केल्ले. अंदूय हो वावर फुडें व्हेल्लेखातीर बिम्ब प्रकाशनाचें मनासावन अभिनंदन.

पुरस्काराखातीर निवडिल्ल्यो व्यक्ती ह्यो निखट्या तीग जाणांच्या परिक्षक मंडळ वा निवड समिती मार्फत वेंचून काडनांत तर हे पुरस्कार योग्य व्यक्तींकडेन वचचे म्हण बिम्ब प्रकाशन गोंयच्या वेगवेगळ्या मळावेल्या विशेश करून वाचक, समिक्षक, पत्रकार, लेखक, प्रकाशक अश्या लोकांकडल्यान नामांकन घेवनच ही प्रक्रिया पार पाडटा अशें पोरूं बिम्ब प्रकाशनान जाहीर केल्लें.

साहित्याच्या मळार नवनवे प्रयोग करून भर घालपी साहित्यिकांचो विचार जावंचो ह्या हेतून केल्ली ही निवडप्रक्रिया खऱ्यानीच देख घेवपासारखी. अंदू पुरस्काराखातीर निवड जाल्ल्या विजेत्यांनी तर बिम्बाचेर केन्नाच बरोवंक ना आनी म्हणूनच पारदर्शक रित्या विजेते वेंचून काडिल्ल्या बद्दल बिम्ब प्रकाशनाची तोखणाय करत तितली थोडी. बिम्ब प्रकाशनान पुरस्कार खऱ्यानीच योग्य अशा व्यक्तींक फाव केल्यात. जांकां ते फाव जाल्यात तांचो बिम्बातर्फे भोवमान जालाच. ते भायर ज्या वाचक, समिक्षक, पत्रकार, लेखक, प्रकाशक हांचें मत विचारांत घेवन ही निवडप्रक्रिया जाल्या तांचोय हो एक प्रकारचो भोवमान आनी जाण्टेल्यांच्या वावराक ओपिल्ली ही योग्य श्रध्दांजली. बिम्ब प्रकाशन अशेंच फुलूं, फळूं, परमळूं आनी उत्कर्षादिकेन ताची वाटचाल चालूच उरूं अशें आवंडेतां.

बरें मागून



**– रुपा कोसंबे**

व्हडलें भाट, ताळगांव.

शीर्षकथा

*देहविक्रय हो बलात्कार आसा हेंच समाज विसरला. बलात्काराचे व्याख्येंत फसोवन लैंगीक वेव्हार करप हाकाय बलात्कार म्हणटात. मागीर जांचीं जांचीं उदर निर्वाहाचीं हेर दारां बंद करून वो अगतिकतेचो फायदो घेवन कूड विकपाक धुकलप, सामक्या बारा-चौदा वर्सांच्या कंवळ्या चलयांक धुकलप आनी दिसभराक धा-बारा गिरायकांक विकप हो मोन्यानी चलपी सामुहीक बलात्काराचो प्रकार न्हय?*



**डॉ. रुपेश पाटकार**
पणजी – गोंय.
मो. : ९४२११४८२१३

दिल्लींतल्या सामुहिक बलात्काराचे घडणुकेन पुराय देश हादरला. संसदेसावन गल्लीबोळां मेरेन हे घडणुकेचे प्रतिसाद उमटल्यात. असल्या गुन्यांवकारांक मृत्यूदंडाची ख्यास्त दिवची हे मागणेक नेट येवंक लागला. संसदेंत ह्या प्रस्नाचेर उलयतना राज्यसभा खासदार जया बच्चन हांकां दुकां आडावंक जालीं ना. जायत्या शरांतल्यान हे घडणुकेचो निशेध करूंक मोर्चे भायर सरले. हे घडणुकेंतल्या गुन्यांवकारांमदल्या कांय जाणांक पोलिसांनी अटक केली आनी ह्या आरोपींनीं न्यायालया मुखार आपलो गुन्यांव मानून घेतलो. एकल्यान तर आपल्याक करणेचो पश्चाताप जाता देखून 'आपल्याक फांसार चडयात' अशें उलोवनूय दाखयल्ल्याची खबर आसा.

दिल्लींत घडिल्ले हे घडणुकेक लागून उमटिल्ल्यो प्रतिक्रिया आनी गुन्यांवकारांक पोलिसांनी बेगोबेग अटक करप ह्यो आसदेण्यो घडणुको आसात. बघ्याची भुमिका घेना आसतना समाजान सक्रियपणान रस्त्यार देंवून आपल्यो भावना उक्तायल्यो आनी कदाचीत समाजाच्या ह्या दबावाक लागुनूच संबंदीत यंत्रणेन तातडीन पावलां उबारल्यांत आसूं येता.

एक गजाल मतींत घेवंक जाय, ती म्हळयार दिल्लींतल्या सामुहीक बलात्काराची घडणूक एकूच न्हय अश्यो घटना आपले सरभोंवतणी सतत घडत

# हें थांबोवंकूच जाय!



मेणवातपंथीयांच्या असल्या निशेधान अस्तुरेवेलो अत्याचार उणो जातलो व्हय?

आयल्यात. पूण ताच्यो खबरो आमचे मेरेन पावनांत. बलात्कार करप्यांच्या दहशतीक लागून वो लोकांकडल्यान जावपी अवहेलनेक लागून म्हणा बलात्काराक बळी थारिल्ली व्यक्ती ताची तक्रार करिना. तशेंच नोंदणी जाल्ल्या बलात्काराची संख्याय उणी ना. नॅशनल क्रायम ब्युरोच्या अहवालावरवीं २०११ ह्या वर्सांत पुराय देशांत २४,२०६ बलात्कार जाल्ल्याच्यो तक्रारी आयल्यो. एन्. सी. आर. बी.च्या अहवाला प्रमाण १९७१ते आज मेरेन बलात्काराच्या गुन्यांवांत ७०० टक्के वाढ जाल्ली आसा. दरदिसा ७ घडणुकां वेल्यान दरदिसा ५३ घडणुकांचेर हो आंकडो गेल्लो आसा. ताका लागून ह्या विशयार गांभीर्यान विचार करपाची गरज आसा.

मनीस इतलो क्रूर कित्याक जाता? बलात्कार कित्याक करता? ताका ताचो बळी थारपी व्यक्तीविशीं कांयच दिसना व्हय? दिल्ली बलात्कार प्रकरणांतल्या ज्या तरनाट्यान स्वताक पश्चाताप जाल्ल्याचें वक्तव्य केलां, त्या तरनाट्याच्या मुखार ते चलयेन जेन्ना दयेची भीक मागली आसतली, ती रडली आसतली तेन्ना ताका तिजी काकळूट कित्याक आयली ना? आपली वासना भागोवपा पासत ताणीं तिचेर बलात्कार केलो, ताणीं क्रूरपणान तिजेर शारिरीक हल्लो कित्याक केलो? तिजे अवयव निकामी जाय मेरेन तिका कित्याक माल्लें? बसींत म्हळ्यार एके रासवळ सुवातेर अशें करपाची हिम्मत तांकां कशी जाली? अशे जायते प्रस्न आसात. बलात्काराच्या गुन्यांवकारांक मृत्यूदंडाची ख्यास्त दिवंची म्हणटकच मागीर अशें करप्यांक जरब बसतली अशी मागणी जाता. बलात्कार करप्याक खर ख्यास्त दिवंची ही लोकभावना होलमपासारकी आसा. त्या फाटलो संताप समजुपा सारको आसा. मृत्यूदंडाचे ख्यास्तीची तरतूद केल्या उप्रांत असले गुन्यांव थांबतले अशें मात मानूंक जावंचेंना. खुनाखातीर मृत्यूदंडाचे ख्यास्तीची तरतूद आसा म्हूण कितें खून थांबल्यात व्हय?


आनी अशें रडूनय कांय जावचें ना!

गुन्यांव केल्या उप्रांत आमी सापडचेच नांत अशें गुन्यांवकारांक दिसता. इतलेंच न्हय तर सहिसलामत सुट्टले अशें तांकां दिसता. बलात्कारांची नोंद केल्ल्या गुन्यांवांपयकीं कितल्या गुन्यांवांत गुन्यांवकारी दोशी थारता? भारतांत हें प्रमाण २६ टक्के आसा. म्हणचे उरिल्ले जे न्यायालयान निर्दोश सोडले, त्या प्रकरणांत

## सामाजिक मानसिकताय बदलूंक जाय

– संदेश प्रभुदेसाय



**सा**मूहीक वा वैयक्तीक स्तराचेर छेड काडपा पासून बलात्कार करपा मेरेनच्या सगळ्या प्रकारच्या कामांध प्रकारांक आळो बसचो म्हूण सर्वोच्च न्यायालयान आदेश दिवन सरकारी आनी खासगी आस्थापनांत लैंगीक आक्रमणाची चौकशी करपी समित्यो स्थापन करपाचो आदेश दिला. विशाखा आड राजस्थान सरकार ह्या खटल्या उप्रांत हो आदेश दिल्ल्यान ह्या समित्यांक विशाखा समिती अशें नांव पडलां. तरीय आजमेरेन जायत्या आस्थापनांनी ह्यो समित्यो स्थापन जावंकूच ना. पूण जंय स्थापन केल्यात थंय बऱ्याच प्रमाणांत लैंगीक आक्रमणांक आळो बसला. हातूंत फकत शारिरीक संबंदूच न्हय तर लैंगीक उपभोगाची निखटी मागणी करप, लैंगीक उतरां वापरप, लैंगीक चित्रां वो चित्रफिती दाखोवप आनी हेर कसल्याय प्रकारच्यो लैंगीक कुरवो करप वो तसली वागणूक दिसली जाल्यारूय कारवाय करपाचो आदेश आसा. ह्यो समित्यो आतां तरी सगळ्याक स्थापन जावंक जाय. लैंगीक छळाच्यो तक्रारी नोंद करून घेवपी पोलिसांचीय मानसिकताय बदलूंक जाय.

आयज बलात्कारा आड भारतभर संतापाचें ल्हार उफाळून आयलां. ती सामकी योग्य आनी न्याय आसा. पूण हें सगळें करतना हे बलात्कारी नराधम आमची अब्रू लुटतात आमकां बदनाम करतात, आमकां कलंकीत करतात, आमकां आयुश्यांतल्यान उठयतात असो आक्रोश केलो तर मात तो यग्य थारचोना. तशें आसत जाल्यार मात तें बलात्काराचें नकारात्मक उदात्ती करण थारतलें. तुमी बलात्कारी गुन्यांवकारांक धरात, पूण आमी मात आमची सामाजीक मानसीकताय बदलपाचे नांत आनी बलात्काराक बळी पडिल्ल्यांकडेन पळोवपाची आमची कलंकीत नदरूय बदलपाचे नांत ही भुमिकाच मुळांत चुकिची थारतली. आमकां आमची नदर बदलची पडटली. नातर जितले बलात्कारी गुन्यांवकार आसात तितलेच आमीय बलात्काराचे सामाजीक गुन्यांवकार थारतले. बलात्कारांत बळी पडिल्ल्यांचेर सामाजीक नदरेन मानसिक बलात्कार करपी सामाजीक गुन्यांवकार.

बलात्कार जावंकूच ना, बेश्टोच कांगावो केला अशें म्हणूयेत व्हय?

प्रस्न असो आसा, कित्याक सुट्टात हे गुन्यांवकारी? एक तर ताका तांत्रिक कारणां आसात. पोलीस, डॉक्टर, न्यायवैद्यकतज्ज्ञ हांच्या अहवालांच्यो मर्यादा आसात. खूबखेपे 'वैजकी अहवाल' होच बलात्कार जालो काय ना हें निश्चीत करपी एकलो एकसुरो घटक मानतात. पूण ह्या अहवालाचेर प्रत्यक्ष घटने उप्रांत कितल्या वगतान शारिरीक तपास केल्लो, तपासा पासत खंयचें तंत्र वापरिल्लें, तपास करपी डॉक्टरांचें तज्ज्ञपण ह्या सगळ्यांचो प्रभाव पडटा. आनीक एक म्हत्वाचें वास्तव जें जागतिक आरोग्य संघटनेन लेगीत अधोरेखीत केलां तें म्हळ्यार बलात्काराच्यो फकत एक तृतीयांश केसींत शारिरीक जखमो सापडटात.

दुसरो घटक म्हळ्यार सामाजीक वास्तव. जांचेकडेन तपासाची जापसालकी आसता, ती पोलीस यंत्रणां, जाणीं बाजू मांडपाची ते वकील, न्यायपालिका इतलेंच न्हय तर वैजकी अहवाल दिवपी डॉक्टर हे सगळे पुरूशसत्ताक मानसिकतायेंत घडिल्ले आसतात. बलात्कारीत अस्तुरेवटेन ठामपणान उबे रावपी कोणूच नासत जाल्यार ह्या गुन्यांवाची नोंद करपूच टाळतात. वैजकी तपासणी जी गतीन जावपी गरजेची आसता ती करपाखातीर खूब वेळ काडटात. एखाद्रे अस्तुरेन गुन्यांव नोंद केलो तर तो फाटीं घेवपाक दबाव घालतात. वैजकी तपासणे वेळार दादलो डॉक्टरांकडल्यान तपासून घेतना पिडेस्त व्यक्तीक अस्वस्थताय दिसली जाल्यार तिजीं फकाणां करपी दोतोर आसात. राजस्थानांतल्या भवरीदेवी प्रकरणांत निकाल दितना सत्र न्यायालयान कमालूच केली. भवरीदेवी ही सकयले जातीची आशिल्ली जाल्यार आरोपी वयले जातीचे आशिल्ले. आरोपी मदलो एक ब्राह्मण आशिल्लो. ब्राह्मण सकयले जातीच्या लोकांक आफडनांत ही परंपरा आसतना ब्राह्मण सकयले जातीचे अस्तुरेचेर बलात्कार करूंक शकना असो निर्णय कोर्टान दिलो.




बंगळुराकूय मोठ्या प्रमाणांत निशेध जालो.




**बलात्कार प्रकरणांत सोंपिल्ले तरणाटेक न्याय मेळचो म्हूण तिच्या मरणा उप्रांतूय असंतोश चालूच आसा!**

आनीक एक म्हत्वाचो घटक मतींत घेवपाक जाय, तो म्हळ्यार बलात्कार पिडीत व्यक्तीक 'पिडीत' समजनांत. तिजी अब्रू गेल्या, ती बरबाद जाल्या अशें मानतात. बलात्काराचें पर्यायी उतर अब्रू लुटप असो आसा. ताचो खूब गंभीर परिणाम पिडीत व्यक्तीचे जिविताचेर जाता. बलात्कार जाल्ले व्यक्तीचें सामाजीक स्थान उणें जालें अशें मानतात. एखाद्रयाचो खून जालो जाल्यार ताचें सामाजीक स्थान उणें जायना, बलात्कार जाल्यार जाता. बलात्कार लजेचो दिसता. फकत ते अस्तुरे खातीर न्हय, तिच्या घराब्या खातीर आनी समाजा खातीर लेगीत. समजा एखाद्रे चलयेचेर चोरी करपाचे उद्देश्यान कोणेंय चाकू हल्लो केलो आनी उप्रांत ती तातुंतल्यान बरी जाली आनी दुसरी एक चली आसा जिचेर बलात्कार जाला, पूण आतां पांच-स म्हयने सरल्यात. ह्या दोन चलयां पयकी कोणाचें लग्न थारपाचें ना अशी शक्यताय आसा? अर्थांत बलात्कारीत चलयेचें!

हें योग्य व्हय? बलात्काराचे घडणुकेंत तिजो कांयच गुन्यांव नासतना, ती पिडेस्त आसतना तिजो सामाजीक दर्जो घसरला अशें मानप आनी हें शल्य तिका जीवीतभर वांगडा घेवन भोवपाक लावप योग्य व्हय? ही सामाजीक मानसीकताय खूबश्या बलात्कारांच्या गुन्यांवांत उजवाडाक येवंक दिनांत. गुन्यांवकाराक ख्यास्त जातली काय ना खबर ना, सोयरे धायरे कितें दोश दितले खबर ना, पोलीस, दोतोर, वकील, न्यायाधीश ह्या पुरूशसत्ताक मानसिकतायेच्या घटकां मुखार घडिल्लो प्रसंग पर्थून पर्थून झरोवपाचो आनी गुन्यांवकाराक ख्यास्त जाली तरीय 'अब्रू गेल्ली' हो छाप जिवीतभर कपलार मारून घेवपाचो. त्या परस घडिल्ले गजालीची वाच्यताच करप ना हेंच बरें अशें म्हणपाची शक्यतायूच चड न्हय? आनी हें वास्तव खबर आशिल्ल्यान 'बोवाळ केल्यार तुजीच लज वतली!' अशी धमकी दिनांत आसतली व्हय? तिचेर बलात्कार जाला तिज्याच चारित्र्याचेर दुबाव घेवपाच्यो घडणुको उण्यो नांत. इतलेंच न्हय तर बलात्कार पिडेस्तांकडेन पळोवप्याच्यो बुभुक्षित नदरो उण्यो नांत. बलात्कार करपी व्यक्तीक खंयची गजाल बलात्कार करपाक प्रवृत्त करता, वासना वो लैंगीक भावना

*अस्तुरेकडेन पळोवपाचो दिश्टीकोण दादल्यांची उपभोगाची वस्त असो आसता. वस्तुकरणांत अस्तुरी ही एक व्यक्ती आसा, जिवी आसा, तिका भाव भावना आसात हेंच विसरतात. सरंजामी वेवस्तेंत लेगीत हेंच आशिल्लें. राजसभेंत द्रौपदीच्या वस्त्रांक हात घालपी कौरवांची मानसिकताय कितें वेगळी आशिल्ली? कल्याणच्या सुभेदाराची सून नजराणो म्हूण शिवाजी महाराजांकडे धाडपी महाराजांच्या सरदारांची मानसिकताय अस्तुरेक वस्तू मानपाची नाशिल्ली?*

# गुन्यांवकारी वृत्तीचें निर्मुलन करूंक प्रभावी कार्यावळ जाय!

– डॉ. तानाजी हळर्णकार



**ब**लात्कार हो गुन्यांव आनी गुन्यांवाक ख्यास्त जावंकच जाय. जितलो गुन्यांव खर तितलीच ख्यास्तूय खर आसूंक जाय. खंयच्या गुन्यांवांक खंयची ख्यास्त हें थारावपाचें एक शास्त्र आसा. काळा प्रमाणे आनी गरजे प्रमाणे ह्या शास्त्रांतय बदल करूं येता. जशी शास्त्र करपाची एक पद्दत आसा तशी शास्त्रांत बदल करपाचीय एक पद्दत आसूंक जाय. उचंबळीत गर्देचो निर्णय ही ख्यास्त थारावपाची रीत जायना. जावंक फावना. गर्देच्यो भावना प्रामाणीक आसल्यो तरी, ख्यास्त थारावपाची ती प्रामाणीक पध्दत जायना.

खर ख्यास्त केली तर गुन्यांव उणो जाता हें प्रोवार जावंक ना. गुन्यांवाचें म्हणून आपलें एक शास्त्र आसा. त्या शास्त्राक धरून गुन्यांव घडटा. ते घडटनाचे परिस्थितींत ख्यास्तीच्या विचारांक दुय्यम सुवात उरता. म्हणून तर खुना खातीर फांशीची ख्यास्त आसूनय खुनांचें प्रमाण उणें जावंक ना. तें दर वर्सा वाडत आसा. फाशीचे ख्यास्तीन बलात्कार जावचे नांत वा उणे जातले हाका वास्तवाचो आदार ना. दिल्लीक इतलो बोवाळ चलता आसतनाच थंय आनी एका सामुहीक बलात्काराची घडणूक घडल्या.

आमी सगळे पोस्टमार्टम करूंक हुशार. घडणूक घडून गेली म्हणटकच आमच्या सगळ्यांच्याच गिन्यानाक धार चडटा. आमच्या शाणपणाक तेज येता. तशें केल्लें तर अशें जावचें नासलें आनी अशें केल्लें तर तशें घडचें नासलें, हें सांगपाक आमी सामके फुडें! अशें आनी तशें करपाक आमकां कोणें आडायिल्लें? घडले उप्रांत जाग येता ती घडचे पयलीं कित्याक येना? उपचारापरस पूर्व–जतनाय बरी हें आमी कित्याक मानून घेनांत? आदीं बेफिकीर रावप आनी मागीर चुरचुरप ही आमची व्हडली फ्राकेज. सरकाराचीय तीच पद्दत. बलात्कार जालो, नेम कमिशन. खून जालो, घडय समिती. उजो लागलो, कर आयोग. हें सगळें घडटलेंच धरून आदींच ताचेर उपाय सांगपी–करपी यंत्रणां कित्याक उबारिनांत? उबारता तिका सक्षम कित्याक करिनात? बायलांच्या संरक्षणा खातीर जायत्यो समित्यो, जायते प्रशासकी – विभाग घडयल्यात. तातुंतले कितले कार्यरत आसात? आसा ते कितले सक्षम आसात?

मनीस जल्माक येतनाच गुन्यांवकारी जावन येना. उपरांतची परिस्थिती ताका गुन्यांवकारी करता. हे परिस्थितीचो वेध घेवन, गुन्यांवकारी वृत्तीचें निर्मुलन करपाची आमचेकडेन प्रभावी कार्यावळ ना. अशी कार्यावळ जाय. शिक्षा (ख्यास्त) आसचीच. ताचे वांगडा शिक्षणय (प्रबोधन) जाय. सगळ्यांचें सगळें ख्यास्तीर पातयेवन आमी रावले प्रबोधन जालें ना, तर अर्देंच काम जातलें. अर्दकुट्या कामाक केन्ना येस मेळना. गुन्यांवकारी बाबतींत आमी तेच खातीर अपेसी जाल्यात. जायत रावतले.

बलात्कार करपाक प्रवृत्त करता अशें मानतात. पूण अर्विल्ल्या मानसशास्त्राच्या म्हणण्या प्रमाण बलात्काराक उद्युक्त करपी भावना ही सत्ता भावना, अधिकार भावना. पुरूशसत्ताक मानसिकतायेच्या समाजांत पुरूशी अधिकार सिध्द करपाचें एक साधन म्हूण बलात्काराचो वापर जाता. हें पटपाक थोडें कठीण वतलें. फाटीं उल्लेख केल्ल्या राजस्थानांतले भवरीदेवीर बलात्कार कित्याक जालो? तिणें गांवच्या बालविवाहाचे प्रथेक आव्हान दिल्लें देखून. महाराष्ट्रांत २००६ सालांत खेरलांजी गांवांत पुराय गांवां मुखार दलीत बायलांचेर जरब बसोवपा पासत सामुहीक बलात्कार केलो. पूर्वोत्तर राज्यांनी शांतताय प्रस्थापीत करपा खातीर धाडिल्ल्या सैन्यान इतल्या व्हड प्रमाणांत केले कि, मणिपूरच्या बायलांनी नागडीं जावन 'येयात आमचेर बलात्कार करात' अशें म्हणत सैन्या मुखार धरणें धरलें. हांवें अमूक इतल्या चलयांक पटयलें हें मोठेपणान सांगपी जायते तरनाटे मेळटले. हांव अमूक इतक्या चलयां वांगडा न्हिदलां अशें व्हडा नेटान खाजगीत सांगपीय आसात. कित्याक ते अशें उलयतात? जायत्या चलयां वांगडा न्हिदप व्हडपणाचें आसा अशें तांचो समज! आमचे भाशेंत श्रेश्ठत्वाखातीर उतरांच मुळांत मर्दुमकी, पुरूशत्व हीं आसात. तुच्छ थारावपा खातीर नपुंसक उतर वापरतात हें मतींत घेवंक जाय. हाचेंच फुडलें सोंपण म्हळ्यार अस्तुरेचें वस्तुकरण. अस्तुरेकडेन पळोवपाचो दिश्टीकोण दादल्यांची उपभोगाची वस्त असो आसता. वस्तुकरणांत




**गोंयांतूय महिलासंघटनांनीं महिलांवेल्या वाडट्या अत्त्याचारां आड निशेध उक्तायलो!**

अस्तुरी ही एक व्यक्ती आसा, जिवी आसा, तिका भाव भावना आसात हेंच विसरतात. सरंजामी वेवस्तेंत लेगीत हेंच आशिल्लें. राजसभेंत द्रौपदीच्या वस्त्रांक हात घालपी कौरवांची मानसिकताय कितें वेगळी आशिल्ली? कल्याणच्या सुभेदाराची सून नजराणो म्हूण शिवाजी महाराजांकडे धाडपी महाराजांच्या सरदारांची मानसिकताय अस्तुरेक वस्तू मानपाची नाशिल्ली? अस्तुरेचें वस्तुकरण जातना, तिचें जिवंतपण न्हयकारतना दादल्यांमदीं एके तरेची संवेदन शुन्यताय येता. तिका कितें दिसतलें काय, तिका कितें वेदना जातल्यो काय हाची समजच ना जावन वता. इंग्रजींत जाका 'अँपथी' म्हणटात, हेरां सुवातेर स्वताक कल्पून दुसऱ्यांक समजून घेवप हें ना जावन वचत आसा. देखुनूच दिल्लीच्या प्रकरणांत बलात्कार करप्यांनी क्रूरताय दाखयली. सामुहीक बलात्काराचो एक समाजमान्य प्रकारूय आसा. तो म्हळ्यार देहविक्रय. देहविक्रय हो बलात्कार आसा हेंच समाज विसरला. बलात्काराचे व्याख्येंत फसोवन लैंगीक वेव्हार करप हाकाय बलात्कार म्हणटात. मागीर जांचीं जांचीं उदर निर्वाहाचीं हेर दारां बंद करून वो अगतिकतेचो फायदो घेवन कूड विकपाक धुकलप, सामक्या बारा-चौदा वर्सांच्या कंवळ्या चलयांक धुकलप आनी दिसभराक धा-बारा गिरायकांक विकप हो मोन्यानी चलपी सामुहीक बलात्काराचो प्रकार न्हय? गिरायकांचे लैंगीक विकृतीक बळी पडून ह्या चलयांक हिंसा भोगची पडना व्हय? हें सगळें थांबूंक जाय. बलात्काराचें वास्तव बदलपाचें आसत जाल्यार जशी कडक ख्यास्त गरजेची आसा तशेंच खात्रीन ख्यास्त जातलीच म्हणपाची खात्री समाजाक जावप गरजेचें आसा. बलात्काराची पिडेस्त व्यक्तीकडेन पळोवपाचो समाजाचो दिश्टीकोण बदलपाची गरज आसा. अस्तुरेचें सामाजीक स्थान उणें जावंक फावना. तेच वांगडा पुरूशश्रेश्ठत्वाचे मानसिकतायेक मूठमाती दिवपाचीय गरज आसा. दादल्यांच्या मनांतल्या श्रेश्ठत्वाची कल्पना बदलपाचीय गरज आसा. आलायत्या दुडवां वांगडा येवपी चंगळवाद आवय-बापायनी आडावपाची गरज आसा. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार नवे पिळगेंत संवेदनशिलताय येवपाक जाय.





*१३ जानेवारी २०१३ सावन पुराय संवसार स्वामी विवेकानंदाचो सार्धशती सुवाळो मनयता. स्वामी विवेकानंदाची १५०वी जयंती निमतान ह्या वर्सा बिम्ब मासिक स्वामी विवेकानंदाचें चरित्र बिम्ब वाचकां पासत कोंकणींत हाडटा. दर म्हयन्याक 'पुनर्नवो' ह्या सदरांतल्यान हें चरित्र खिस्ती खिस्तीनी उजवाडाक येतलें आनी १२ जानेवारी २०१४ हे दिसा सार्धशती समारोप सुवाळ्या दिसा ह्या चरित्राचें पुस्तकरूपान मिमोचन जातलें.*

# स्वामी विवेकानंद

## जिवीत आनी कार्य



कलकत्ता म्हानगरीच्या उत्तरेकडल्या वाठारांतल्या शिमुलिया ह्या मोहल्ल्यांतल्या, गौरमोहन मुकर्जी स्ट्रीटावयलें दत्त घराब्याचें विशाल भवन म्हळ्यार त्या घराब्याच्या वैभवाची कुरूच म्हळ्यार जाता.

दत्त घराब्याचें ऐश्वर्य, लोकीक आनी बारा म्हयने तेरा काळ चलपी सण-परबांचो उत्सव पळोवन त्या काळच्या कलकत्त्यांतल्या सगळ्या धनिकांक तांचो हेवो करचो सो दिसतालो! कलकत्त्याच्या सर्वोच्च न्यायायलाचे नामनेचे वकील श्रीयुत राममोहन दत्त हांचे कारकिर्दींत शिमुलियाच्या दत्तांनी शारांत भोवच नामना आनी प्रतिश्ठा मेळयल्ली. श्रीयुत राममोहनांचे चिरंजीव दुर्गाचरण हाणीं त्या काळचे प्रथेक धरून संस्कृत आनी फारसी भासांचें शिक्षण घेवन आनी राजभास इंग्रजीचेंय कामा पुरतें गिन्यान फैदासून तरणे पिरायेचेरूच वकिलीच्या धंद्याक आरंब केलो. पूण ऐश्वर्य आनी दुडू जोडपाची बापायची आस्त मात ताचे भितर उपजली ना. तांच्या समकालीन लक्ष्मीपुत्रांवरीं नवीन शार सभ्यतायेची भोगवादी लालसा ताका भुलोवंक पावली ना. ताका आशिल्ली ती धर्मविशींची ओड. संद आनी सवड मेळटा तेन्ना धर्मशास्त्रांच्या अध्ययनांत आनी साधु-सत्पुरूसांच्या संगतींत तो मग्न जातालो. उत्तर-अस्तंत वाठारांतल्यान येवपी भारतीय वेदान्ती साधू-संताच्या प्रभावान प्रेरीत जावन ताणें पिरायेचे पंचविशींत आसतनाच समस्त ऐश्वर्याचो आनी नावलोकीकाचो मोह कुशीक उडोवन संन्यास घेतलो. घरांत उरलीं तीं ताची दुखेस्त घरकान्न आनी एकलो एकसुरो ल्हान पूत. अशें सांगतात, दुर्गाचरणाचे घरकान्नीची एक खेप काशीधामांत विश्वेश्वराच्या मंदिरा दारांत आपल्या घरकाराकडे अकस्मात नदरानदर जाल्ली. तेचवरी, संन्यासाच्या नेमा प्रमाण बारा वर्सां उपरांत दुर्गाचरण एक खेपो आपल्या जल्मस्थानाचें दर्शन घेवपा खातीरूय आयिल्लो आनी आपल्या अल्पपिरायेच्या पुताक - विश्वनाथाक - आशिर्वाद दिवन गेल्लोय. त्या उप्रांत मात तो केन्नाच कोणाचे नदरेक पडलो ना. हे घडणुकेच्या एक वर्स आदींच विश्वनाथाची आवयय ताका पुरायेन पोरको करून परलोकी गेल्ली. तर सांगपाचें म्हळ्यार हो सन्यासी पुत्र विश्वनाथ दत्तच संवसारीक नामनेचो संन्यासी स्वामी विवेकानंदाचो बापूय.

विश्वनाथान आपल्या आजोबाच्या वळणार वचून आनी तांच्याच पावलार पावल उडोवन वकिलीच्या धंद्याक आरंब केलो. विश्वनाथाक प्रतिभेची दैवी देणगी लाभिल्ली आनी वकिलीच्या वेवसायांत व्यस्त रावूनय ताचो वाचनाचो व्यासंगय दांडगो आशिल्लो. ताणें



फारसी भाशेचेर प्रभुत्व मेळयल्लें. हाफीज कवीच्यो कविता ताका मनासावन आवडटाल्यो. इंग्रजी साहित्य, इतिहास आदीच्या अभ्यासाक लागून ताचेभितर सनातनी हिंदुत्व वो प्रतिगामी धार्मीक कट्टरपण उरूंक नाशिल्लें. कितले तरी खानदानी मुसलमान ताचे अशील आशिल्ले आनी लखनौ, अलाहाबाद, दिल्ली, लाहोर बी शारांनी भोंवडी करपाचो प्रसंग आयिल्ल्यान त्या काळच्या कितल्यातरी उच्च कुळांतल्या मुसलमान घराब्यांकडेन ताचे घनिश्ठ संबंद आशिल्ले. तेचपासत ताच्या जेवणा खाणाचेर मुसलमानी पध्दतीचो छाप पडप साहजिकच आशिल्लें. अशें आसुनय, बायबलाच्या अध्ययनाक लागून धार्मीक विशयांत मात ताचें ख्रिश्चन धर्मावेलें प्रेम व्यक्त जातालें. थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार धर्म, ईश्वर ह्या गजालींचेर आपल्या मेंदवाक विशेश तकालस दिवपाची गरज विश्वनाथाक व्हडलीशी बादनाशिल्ली. तांकता तसो दुडू जोडपाचो आनी जिवितांतल्या खोसयेंचो उपभोग घेवंचो, ह्या सर्वसादारण आदर्शा प्रमाण ताचें वागप आशिल्लें. कमाई प्रमाण ताचो खर्चूय तसोच अवाढव्य आशिल्लो. लागच्या तसोच पयसुल्ल्या सोयऱ्या-दायऱ्यांची एक सारकी वर्दळ, इश्ट मित्रांचें सतत यो-वच, गरजे परस चड नोकर चाकर आनी गाडी-घोड्यांची रेलचेल आदी गजालींची विश्वनाथ दत्ताक मनस्वी आवड आशिल्ली आनी ते प्रमाण ताची राहणीय खूब थाटामाटाची आशिल्ली. स्वातंत्र्यप्रिय, उदार, मित्रवत्सल आनी आश्रितप्रतिपालक विश्वनाथाल्या गजबजलेल्या विशाळ घरांत खंयच्याच पार्थीव सुखाक उणाव नाशिल्लो.

पूण असल्या घोवाच्या भाग्यांची वांटेकान्न अशी ताची बायल भुवनेश्वरीदेवी मात एक जुन्या वळणाची बाळबोध हिंदू स्त्री आशिल्ली. हे बुध्दीमान आनी कुशळ गृहिणीच्या मोगान आनी कर्तव्यदक्षतेन त्या गजबजत्या घराब्याचो सगळो वेव्हार सामको निमूटपणान, चोख आनी सुरळीत चलतालो. भुवनेश्वरीदेवीक स्वताची आवयभास बंगाली वाचूंक बरोवंक येताली. रामायण, म्हाभारत आनी भागवत बी विंगविंगड पुराणां वाचपाचो तिजो नित्याचो परिपाठ आशिल्लो, तर दुसरेसुवातेर घोवा वांगडा आनी मुखार पुतां वांगडाय जावपी भासाभासेवरवीं तिका अर्विल्ल्या विचार प्रवाहांचीय थोडी भोव म्हायती आशिल्ली. तिज्या अभिजात तेजस्वी चारित्र्यांतल्यान घरांदाजपणाचो दिश्टावो असो सहजतायेन घडटालो की तिज्या दर्शनानूच सरभोंवतणच्या बायलांची तिजेर आपसूक भक्ती बसताली. ती शालीन, गोड उलोवपी आनी तेच वांगडा गंभीर सभावाची जाल्ल्यान तिजे मुखार खंयचीच बायलमनीस आपली मर्यादा सोडून, थिल्लरपणान वागपाक धजऽनाशिल्ली. ते भायर भुवनेश्वरी भोवच देवधर्मीक आशिल्ली. दरदिसा आपले हस्तुकी शिवपूजा केल्या बगर ती अन्नाक आफुडनाशिल्ली. स्वताचे इश्ट देवतेवेली तिजी ती निश्ठा पळोवन त्या विशाळ घराब्यांतल्या हेर बायलांकूय धर्मीक जीवनाची स्फूर्त मेळटाली.

पूण हें अशें प्रसन्न जिवीत सारता आसतनाय भुवनेश्वरीच्या काळजांत एक खंत मात खायत आशिल्ली. भुरगें पदरांत नाशिल्ल्यान केन्ना केन्नाय ती सामकी पिडीत जाताली. माणकुल्याचें मुखामळ पळोवपाचे आंतरीक इत्सेक लगून ती वळवळटाली आनी आपली ही इत्सा तृप्त जावंची देखून सकाळ-सांज आपल्या दैवता सामकार प्रार्थना करूंक लागली. शिवा मुखार धरणें धरून बसूंक लागली. कडक अशीं व्रतां

करूंक लागली. तरीय तिच्या मनाक शांतीकाय म्हणटात ती लाभऽ नाशिल्ली.

ह्याच काळांत दत्त घराण्यांतली एक जाण्टेली काशीस्थळांत रावताली. भुवनेश्वरीन तिका एक लांबलचक पत्र बरोवन आपली अवतिकाय कळयली आनी आपले वतीन श्रीविश्वेश्वराक आपल्याक पुत्रलाभ जावंचो देखून पूजा-होम घालपाची वेवस्ता करूंक विनयलें. तिच्या पत्राचे जापेंत तिचे इत्सेप्रमाण सगळें करपाचें उतर मेळटकच आनी तशी वेवस्ता केल्या म्हणपाचें कळटकच भुवनेश्वरीक खोस जावन बरीच शांतीकाय भोगली. ती तनमनान दीस रात शिवभक्ती करीत रावली. चडसो तिचो वेळ घर वावरा बदला देवघरांतूच सरपाक लागलो.

एक दीस सकाळफुडें सदची शिवपूजा आटपून भुवनेश्वरी ध्यानाक आसनाचेर बसली. सकाळ उलगली. दनपार सरली. तीन पारूय पासार जाली. सूर्य अस्तंतेकडेन पावलो. भुवनेश्वरी स्वताक विसरून शिवचिंतनांत संपुर्णायेन तल्लीन जाल्ली. ल्हव ल्हव रात जाली आनी तेच अवस्तेंत तिका न्हीद लागली. सपनांत तिज्या शिवशंकरान दर्शन दिलें. आपणें काळजांत इतलो तेंप बाळगिल्ली आस्त पुराय जाता असो आभास त्या स्वप्नदर्शनान तिका जावंक लागलो. ल्हव ल्हव शिवशंकराचें दर्शन धुसर जायत वचून ताचें रुपांतर एक बाळकरुपांत जावंक लागलें. शिवरूपी तें बाळक भुवनेश्वरीदेवीचे कुशींत रिगलें! तिजे पासत ती एक दैवी अनुभुती आशिल्ली. तिका जाग आयली तेन्ना आपूण जमनीरूच न्हिदल्या म्हणपाची तिका जाणविकाय जाली. बेगीबेगीन उठून तिणें देवघराचेर नदर मारली जाल्यार पुराय देवघर एका उज्वल अश्या प्रकाशान भरून गेल्ल्याचो तिका भास जालो. आपली इतल्या काळाची शिव शंकराची भक्ती फळाक आयली, कैलासनाथ आपल्याचेर प्रसन्न जालो अशी मनांतल्यान तिची खात्री जाली आनी त्या करूणामय शिवाक ती पर्थून पर्थून वंदन करीत रावली.

इसवी सन १८६३ वर्साची जानेवारी म्हयन्याची बारा तारीक. पौष कृष्ण सप्तमीची शिंयाळी अशी सोबीत सकाळ धुक्याची चादर कांबरूनच उदेल्ली. शिंयान कुडकुडत बायलो-दादले चोंब्याचोंब्यांनीं, उक्त्या पांयांनीं मकरसप्तमीच्या न्हाणापासत भागीरथी न्हंयचे दिकेन ताकतिकेन चलताले. अश्या शुभ समयार, सूर्योदयाच्या स मिनटां आदीं, स जावन तेत्तीस मिनटां, तेत्तीस सेकंदानी भुवनेश्वरीन एका बाळकाक जल्म दिलो जो फुडाराक विश्वविजय गाजोवपाचो आशिल्लो. पुराय दत्त घराबो हे खोसदेणे घडणुकेन खुशालभरीत जालो. पुराय वंगभुंयेक जणकाय संतोस जाल्लो. ह्या बाळकाच्यां येवकाराक घरांघरांनी तिळगूळ वाटून जणकाय खुशालकायेचो उत्सव चलतालो.

अशे हे खोसयेचे आनी जल्लोशाचे कांय दीस उलगल्या उप्रांत बाळकाक नांव घालपाचो आनीक एक खोसदेणो दीस उजवाडलो. भुरग्याचें मुखामळ ताच्या संन्याशी आज्याच्या मुखामळाकडेन खूबशें जुळटालें. तें पळोवन घरांतल्या जायत्या जाणांनी नवबाळकाचें नांव 'दुर्गादास'च दवरचें अशी इत्सा उक्तायली. पूण आपल्याक पडिल्लें दैवी सपन भुवनेश्वरी विसरूंक नाशिल्ली. तिणें 'भुरग्यांचें नांव वीरेश्वर दवरचें' अशें सुचयलें. ते नदरेन नामकरण विधी जालो. सोयरे धायरे आनी कुटुंबांतलीं सगळीं जाणां बाळकाक 'बिले' ह्या संक्षिप्त नांवानूच पाचारूंक लागलीं. उपरांत उश्टावण सुवाळ्या वेळार भुरग्याचें नांव 'नरेंद्रनाथ' अशें दवरलें. प्रत्येक हिन्दु भुरग्यांचीं दोन नांवां आसतात, एक राशीचें आनी दुसरें वेव्हारांतलें प्रचलीत नांव. तेच पासत हें बाळक फुडाराक 'नरेंद्रनाथ' ह्या नांवानूच नावरूपाक आयलें.

जसजशी पिराय सरूंक लागली तसतशीं नरेन्द्रनाथाचीं खट्याळपणां सुरू जालीं. ताच्या मस्तेपणाक शीममेर उरना जाली. ताका सांबाळटा, समजायता म्हणसर प्रत्येकाक नाका शेवट जातालो. तापोवणी, विनवणी, भंय भिरांत हाचो ताचेर मात्तूय असर जायना जालो. शेवटाक ताचे आवयन ताचेर एक अजापाचो तोडगो सोदून काडलो. नरेंद्राच्या मस्तखोरपणाक आरंब जालो काय ताच्या माथ्यार 'शिव, शिव' म्हणत उदकाचो शिंताडो उडयलो काय, मंत्रमुग्ध जाल्ल्या सोरपावरी हो माणकुलो नरेंद्र सामको शांत शांत जावन वतालो. 'आशुतोष' म्हळ्यार शिघ्रसंतोषी शिव-महादेव फक्त जलधारेच्या अभिषेकानूच संतुश्ट जाता म्हणपाचे भावनेन ते आवयन भोवतेक हो उपाय आचरणाक हाडिल्लो जावंये! हो भुरगो शिव अंशांतल्यान जल्मला असो तिजो पुरायेन विस्वास बशिल्लो तरी ती ही आपली भावना कोणाच कडेन उक्तायनाशिल्ली. एकदीस नरेंद्रनाथाच्या ह्या मस्तेपणाक उबगल्ल्यान तिज्या तोंडांतल्यान वितरागान उतरां भायर सरलींच, 'म्हादेवान आपूण स्वता येनासतना रावून हें भूत खंयच्यान धाडून दिलें कोणाक खबर!' स्वताचे इत्से प्रमाण वागतना ताका कोणेंय आडमेळें हाडलें जाल्यार नरेंद्रनाथ रडून घर माथ्यार घेतालो. ताच्या त्या आकांतान घरांतलीं सगळीं बेजारतालीं. अश्या प्रसंगार उबगून आवय म्हणी, 'पळय आं बिले, तूं जर अशी मस्ती करीत जाल्यार म्हादेव तुका कैलासार येवंकूच दिवंचो ना पळय!' तेन्ना मात तो भिल्ल्या दोळ्यांनी आवयकडेन पळयत त्याच खिणाक गप्प जातालो.

नरेंद्राच्या मस्तेपणाचो त्रास सोसूंक जायना जावन ताच्यो व्हडल्यो दोगी भयणी केन्ना केन्नाय ताका मारपा पासत ताचे फाटल्यान धांवऽ. मस्तो नरेंद्र धांवत वचून मोरयेंत देंवतालो आनी आपल्या पुराय आंगाक थंयची घाण माखून, कंबरार हात दवरून मोठे ऐटीत उबो रावीऽ! विटाळ जावपाचे भिरांतेन त्यो बाबड्यो अकलेक येवन ते वेळार हात हालयत फाटीं परतताल्यो त्या वेळार मागीर जल्माचो खट्याळ नरेंद्रनाथ जैताचे खोसयेन हांसत हांसत टाळयो मारीत म्हणी, 'येयात गो, धरा मुगो आतां म्हाका!'

गाडयेंत बसून भोंवपाक मेळत जाल्यार माणकुल्या नरेंद्रनाथाची खोस तर पळोवपा सारकीच आसताली. आवयचे मांडयेर बसून गाडयेंतल्यान वतना दोनूय वटयांच्यो विंगविंगड गजाली पळोवन तांचेविशींचे हजार प्रस्न विचारून तो आपले आवयक पिडटालो. गाडयेंत बसप ताका इतलें आवडटालें की सदांच घरा सामकार बसून येवपी वचपी दरेक गाडी तो बारकायेन नियाळटालो. एक दीस ताच्या बापायन ताका विचारलें, 'नरेन, तूं व्हडलो जातकच कोण जातलो सांग पळोवया.' नरेंद्रनाथान खोलायेन विचार करून गंभीर नुरेन जाप दिली, 'हांव मोतझर (कोचमन) जातलों.'

कोचमनाची ती हड्डें मुखार काडून ऐटींत बसपाची पध्दत, तडफदार घोड्यांक लगाम घालून गाडी हाकपाचें ताचें कसब, ते बिल्ले, जरीचो फेटो, तो भारदस्त पोशेग ह्यो सगळ्यो नदर ओडून घेवपी गजाली ताचेर प्रभाव घालून गेल्ल्यो. कोचमन जावपाचे महत्वकांक्षेन ताका इतलो भारावन उडयल्लो की संद मेळ्ळी रे मेळ्ळी तो आपल्या बापायच्या जाणटचा गाडीहाकप्याकडेन वचून बसतालो. ताच्या वावराकडेन बारकायेन पळयतालो.

रामायणांतल्यो आनी महाभारतांतल्यो अप्रूप काणयो आवयच्या तोंडांतल्यान आयकुपाक नरेंद्रनाथाक भोवच आवडटालें. भुवनेश्वरी आपल्या ह्या अपुर्बायेच्या पुताक मांडयेर घेवन सीता-राम बी हांच्यो काणयो सांगपाक आपलो फाविल्लो वेळ घालताली. दत्तांच्या घरा भोवतेक सदांच दनपरां रामायण आनी महाभारत वाचपाची प्रथा आशिल्ली. कुटुंबांतली एक जाणटी बायल व्हडान वाचून दाखयताली. केन्नाकेन्नाय भुवनेश्वरी खासा वाचपाचें काम करी आनी आपापलीं घरकामां आटापून हेर बायलोय वाचपिणी भोंवतणी कोंडाळें करून बसताल्यो. हे ल्हानशे बायलां सभेंत मस्तो नरेंद्रनाथ सामको गोगलगायेवरीं शांत बसून आयकतना दिसतालो. पुराणांतल्या त्या सगळ्या कथा काणयांचो भुरग्याच्या संस्कारक्षम मनाचेर गंभीर प्रभाव पडला आसतलो हातूंत मात्तूय दुबाव ना. अतीप्राचीन अश्या पयसुल्ल्या भूतकाळांतल्या धर्मविरांच्यो पावन चरित्रकथा आयकून त्या भुरग्या मनांत कोणाक खबर कसले भावतरंग उफेताले, जाका लागून तो आपलीं निजाचीं मस्तेपणा कडेक दवरून वरांच्या वरां तंद्री लावन थंय बसतालो!

रामायणांतल्या प्रभु रामचंद्राच्यो रसाळ कथा आयकतां आयकतां त्या बाळकाचें नितळ काळीज भक्तीभावान उचंबळूंक लागऽ. एक दीस खेळांतल्या आपल्या एका सवंगड्या वांगडा वचून ताणें बाजारांतल्यान सीता-रामाची एक जोड-मूर्त विकती हाडली. घराचे गच्चीवेले एके कुशीचे कुडींत तिजी स्थापना करून बाळक ते मूर्ती


स्वामी विवेकानंदाची आवय भुवनेश्वरीदेवी

सामकार ध्यानस्थावरी बसून रावऽ. बाल नरेंद्राची सीता-रामावेली ती भक्ती पळोवन ताच्या त्या हिंदुस्थानी जाण्टेल्या कोचमन इश्टाक व्हड आनंद जातालो. आपल्या माणकुल्या इश्टाची बालसुलभ खंयचीय समस्या विस्कटायतना आनी ताच्या कसल्याय प्रस्नाक जाप दितना त्या बाबड्याक केन्नाच कास्तीग वो उबगण दिसनाशिल्ली. एक दीस अश्योच त्या दोगांच्यो गजाली चलतना उलोवपाच्या ओघांत लग्नाची गजाल आयली. पिराय सरिल्लो तो कोचमन, कित्याक कोण जाणां, लग्नाच्या सामको आड आशिल्लो आनी ताका लागून ताणें लग्नीक जिवितांतल्या कटकटींचें आनी त्रासांचें, आपले ओजस्वी वाणीन अशें कितें जिवंत चित्र नरेंद्रनाथाच्या मुखार उबें केलें की बाळकाच्या कंवळ्या मनार ताचो खोल खोल छाप पडलो. त्या माणकुल्याचे माणकुले तकलेंत विचारांचें वादळ सुरू जालें. माणकुलो नरेंद्र दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी आवयमुखार वचून उबो रावलो. अपुर्बायेच्या पुताच्या दोळ्यांत दुकां पळयल्या बराबर, 'कितें जालें?' म्हूण तिणें प्रस्नार प्रस्न केले. रडकुन्या आवाजान, भरिल्ल्या गळ्यान, कोचमनान ताका लग्ना आड जें कितें आयकयल्लें तें सगळें सविस्तर सांगून उडयलें आनी अंताक म्हळें, ''आई, हांव आतां सीता-रामाची पुजा कशी कितें करतलों गे? सीता तर रामाची बायल आशिल्ली. मागीर आतां?''मोगान उचंबळीत जावन आवयन आपल्या प्राणप्रीय पुताक काळजाकडेन धरलो आनी ताका कुरवाळीत, ताचो उमो घेत म्हणलें, ''नाका करूंक सीता-रामाची पूजा, फाल्यां सावन शिवाची पुजा कर आं पुता!''

आवय दुसऱ्या कसल्याश्या वावरांत घुस्पल्ली पळोवन बाळक ल्हवल्हव कुडीभायर सरलो आनी प्रियतम सीता-रामाची मूर्त घेवन कोणाकूच कळनासतना गच्चीर वचून उबो रावलो. तीनसांज सरून काळोख ल्हव ल्हव दाट जावंक लागिल्लो. वयर माथ्यार नखेत्रांनी भरिल्लें जगमगपी मळब आनी हांगा सकयल गच्चेर हातांत दांपत्यप्रेमाचो सर्वश्रेश्ठ आदर्श दोनूय हातांनी धरून हो व्याकूळ जाल्लो फुडाराचो सन्यासी उबो! एकवटयां सीता-रामाचेर भक्ती तर दुसरे वटेन लग्नाविशींची मनांत निर्माण जाल्ली नावड! बाळकाच्या माणकुल्या काळजांत खवदळ चलूंक लागलो. 'लग्न म्हळ्यार कितलेंय पवित्र आनी व्हडलें आसल्यार आसूं, तो म्हजो आदर्श न्हय.' अशें कितें तरी येवजून ताणें ती सीता-रामाची मूर्ती गच्चेवेल्यान शेवटून मारली. सकयल पडून तिजे कुडक्यान कुडके जाले. तांचेकडेन पळयत जैताची नुरा मुखामळार खेळयत, हड्डें मुखार काडून विरेश्वर गच्चेवेल्यान सकयल देंवलो.

हिंदू घराब्यांत सनातन काळासावन चलत आयिल्ल्यो रूढी परंपरा सारक्यो ल्हानसान गजाली, आचार आनी नेम मानप ना हें नरेंद्रनाथाच्या सभावांतूच आशिल्लें म्हळ्यार जाता. आवयन ते पासत ताका ख्यास्त केल्यार तो रोकडोच ताचें कारण विचारी. 'वाडिल्ल्या ताटाक हात लावन तो हात आंगाक लायल्यार कितें जाता?' 'जेवतना दाव्या हातान पेलो उखलून उदक पिल्यार तो हात धुतात व्हय? त्या हाताक उश्टें तर लागना.' असल्या प्रस्नाच्यो ताचें समाधान जाय सारक्यो जापो दिवन दिवन भुवनेश्वरी थकताली.

पेशावरकडचो एक मुसलमान विश्वनाथ बाबूंचो अशील आशिल्लो. ताचो नरेंद्रनाथाचेर

भारी लोभ. तो आयलो म्हण कळटांच नरेंद्र ताचेकडेन धांवतालो आनी ताचे मांडयेर बसून, हत्तीचे आनी उंटाचे फाटीवेल्यान केल्ल्या पंजाब–अफगाणिस्थानांतल्या ताच्या अप्रूप भोंवडेचो वृत्तांत आयकतना देहभान विसरून वतालो. केन्ना केन्ना तर आपल्याकूय तुजे वांगडा त्या वाठाराचे भोंवडेक घेवन वच म्हूण हट्ट करतालो. तेन्ना तो सदग्रहस्थ ताका हासून म्हणऽ, 'तूं आनीक दोन बोटां व्हडलो जालो काय मागीर तुका हांव नक्की व्हरतलों.' फुडाराचे भोंवडेचे रम्य कल्पनेन उतावळो जावन हो बाळक दुसरेच दिसा ताका धरतालो, 'हें पळय, रातींच हांव दोन बोटां व्हडलों जालों. आतां म्हाका घेवन वच' म्हणटालो. हे तांचे मोगाळ इश्टागतीचें रूपांतर गाढ प्रेमांत जालें. शेवटाक ताणें दिल्ली मिठाय, फळां बी खावपाकूय, नरेंद्र फाटींफुडें जायना जालो. ताचे हे वागणुकेक लागून घरांत मात वादळ माजलें. पूण विश्वनाथबाबू संकुचीत विचारांचो धर्मपिसो हिन्दू नाशिल्लो. सगळ्या जाती धर्मांच्या लोकांविशीं ताच्या मनांत सारकीच प्रीती आनी श्रध्दा वसताली. ताका लागून पुताचो हो 'जातपात भश्ट आचार' ताचे नदरेन व्हडलोसो नाशिल्लो. तो सगळें हांसपाचेर व्हरतालो.

नरेंद्रनाथाच्या बापायकडेन विंगविंगड जातीचे, धर्मांचे कितलेतरी पक्षकार कोर्टकचेरेच्या कामाखातीर येत आसताले. तांचे पासत त्या काळचे प्रथेप्रमाण बैठकींत एके वटेन जायते रूपेरी हुक्के सदचेच दवरिल्ले आसताले. वयर उल्लेख केल्ल्या मुसलमान व्यक्तीचे हातची मिठाय बी खाल्ल्यान नरेंद्रनाथ घरांतल्या सगळ्या लोकांच्या रागाक पात्र थारिल्लो. तेन्ना सावन जातीभेद ताचे नदरेन एक विलक्षण कुवाडेंच थारिल्लें. 'कित्याक काय एका मनशान दुसऱ्या हातचें खावंक फावना?' 'परके जातीच्या व्यक्तीचे हातांतलें खाल्यार कितें जाता? ताच्या माथ्यार घरापाखे कोसळटलें? तो मरतलो?' हे असले आनी जायते प्रस्न तकलेंत घोळयत तो एक दीस ते बैठकेचे कुडींत गेलो. थंय दुसरो आनीक कोण ना तें पळोवन एका फाटोफाट एक अशे सगळे हुक्के एकेक करून ओडपाक आरंब केलो. पूण खंयचें कितें! ताच्यांत तर कसलोच बदल जावंक नाशिल्लो! तो तर आसा तसोच आशिल्लो. नरेंद्रनाथ असले येवजणेंत दंग आशिल्लो तेन्नाच विश्वनाथबाब थंय पावलो. नरेंद्राचे ते व्याप पळोवन ताणें 'हें कितें चलयलां रे तुवें बिले?' अशें विचारलें. नरेंद्रान सट्ट करून जाप दिली, 'जातीभेद मानलोना जाल्यार म्हजें कितें जाता तें पळयतालों.' ताचेकडेन मोगान पळयत कांयच उलयनासतना विश्वनाथबाबू आपले अभ्यासाचे कुडींत गेलो.

(चलता...)

झोत

# हांव सद्या कितें करतां!

रमेश भगवंत वेळुस्कार

हांव सद्या कितें करतां असो प्रश्न म्हाका बिंबाचे संपादक आनी म्हजो इश्ट दिलीप बोरकार हाणें विचारलो. तसो हांव कितें करतां हें जो गोंयचीं वर्तमानपत्रां वाचता ताका सहज कळप शक्य आसा. कारण हांव सद्याक *सुनापरांत* आनी *नवप्रभा* ह्या दोन वर्तमानपत्रांनी तांचे आयतारचे पुरवणेंत बरयतां. तशेंच *बिम्ब, जाग* ह्या म्हयनाळ्यांनी, *कोंकण टायम्स* अशा नेमाळ्यांनी बरयतां. आनी तीं म्हज्या लिखाणांतल्यान भरपाक जाय म्हण हांव बरयना. म्हाका म्हजें बरोवप करचें आसता तें हांव करीत आसतां. आनी तें हांव म्हाका जाय तशें करतां. कारण हालींच्या काळाक लेखकांक सुकण्यावरी वापरपाची पद्धत आयल्या. म्हणचे कितें जाणा, म्हणचे एका सुकण्याक अनंताच्या आसमंतांतलें काडून ताका अशीर आनी इल्ल्याशा पांदऱ्यांत घालतात आनी ताचें उडपूच मारुन उडयतात. ताचें मानसीक मळबूय ना न्हप्पय करुन घालतात. जाय त्या वेळार जाय त्या झाडार वचून बसपाचें वा जाय ते खांदयेर बसून झेलपाचें, धोलपाचें तशेंच जाय त्या झाडार वचून जाय तें फळ खावपाचें ताचें बळगें आनी स्वातंत्र्य मारुन उडयतात. सैमान जें ताका दिलां तें अशें णव्याणणव टक्के मारुन एका टक्क्याच्या माणकुल्या पांदऱ्यांत घालून ताची जिणूच अपंगूळ करुन उडयतात. अशें करुन आमी आमची मानसीक विक्षिप्तताय त्या सुकण्याचेर मारतात आनी वयल्यान आमीच व्हडले जाल्लेवरी मिरयतात. हें असलें काम म्हजेकडल्यान जांवचें न्हय म्हण हांव सतत कार्यरत रावतां.



हांव जें आनी कितें करतां हातूंत म्हज्या जुलै १९८१ ते एप्रील १९८२ ह्या धा म्हयन्याच्या काळांत हांव भुवनेश्वरच्या राबित्यांत ज्या जिविताक सामकार गेलों ताचो म्हजे जिणेचेर कितें परिणाम जालो आनी ताणें म्हजें जिवीत समजुपाक कितें आधार केलो ताचो वेध घेवपाचें काम ह्या लेखनाच्या माध्यमांतल्यान करतां. ३० वर्सां फाटीं घडून गेल्ल्या ह्या घटनांचो वेध घेवपाक त्या काळांतले खीण वेंचप हो खूब अवघड वावरुय सद्याक हांव करतां. हाचेच वांगडा टागोरांच्या गीतांजलीच्या भाशांतराचो वावरुय चलता. टागोरांची ही सोबीत बांगला भास म्हाका खूब वर्सां सावन येता पूण टागोरांच्यो म्हाका आवडिल्ल्यो कविता भाशांतरीत करपाचो वावर म्हाका खूब कठीण दिसतालो! कारण जी गजाल तुमकां जितली बरी कळटा तितलीच ती जड अवघड जायत वयता. आता ती म्हाका जमता अशें दिसपाक लागलें. कारण इतल्या वर्सांचे भाशेच्या अभ्यासान ती म्हाका आता जमपाक लागल्या. आयज काल भास सारकी येनास्तनाच कितें तरी करुन आपल्या नांवार भाशांतरीत वावर करुन घेवपी लागोळ्या दिसांची म्हाका तरी भिरांत दिसता. वा कोण तरी सांगता म्हण आपल्याक ती आवडनासतनाच वेंटीचो वावर करप ही खूब कठीण गजाल. पूण आता स्वताक साहित्यांत अधिकारी मानपी राष्ट्रीय संस्थाय असलें काम भाशेचो सारको अभ्यास नासलेल्यांकडल्यानूच करुन घेवपाक लागल्यात हाचेंय दुःख जाता.

वाचपावांगडा आनीक एक गजाल हांव सद्याक करतां ती म्हटल्यार तमीळ भास तिच्या लागीं वचून ती समजून घेवपाचो प्रयत्न करतां. आनी जमलें जाल्यार एकाद्री पोत्री तमीळ कलाकृती कोंकणींत हाडपाचो यत्न करतलों.





# जुले जुले

*थंयच्या त्या रेंवटांत मिलीटरीचे लोक अर्दगोलाकार तंबू कशे बांदून रावील्ले. क सल्या कसल्या वातावरणांत आमचे जवान रावतात, आमची राखण करतात आनी आमी? इतलें सगळें आसुनूय रडत आसतात.*



**शीला कोळंबकार**
मुलूंड – मुंबय.
मो.: ९८१९३१५३०७

दिस्कीटसावन आमी हॉटेलार आयलीं. थंय जेवन मात्सो सुशेग घेतलो. चारांक सुमार आमी काराकोरम दोंगरावळ पळोवंक गेलीं. काराकोरम दोंगरावळ म्हूण फकत भुगोलांत केन्नातरी वाचिल्लें. ती पळोवंक मेळटली म्हूण भुरग्यांवरी खोशीय जाल्ली म्हाकां! थंय वतना वाटेर एक गांव मेळ्ळो. गांवांतल्यान गाडी गेली काय गांवचे लोक आनी भुरगीं नवलायेन गाडी पळेतालीं. हिमालयांतल्या दुसऱ्या वाठारांत भोंवतना गाडी दिसली काय हेर भुरगीं गाडयेफाटल्यान धांवतालीं. ना जाल्यार पयशे मागतालीं. तो प्रकार हांगा दिसलो ना.

त्या गांवच्या घराकुशीक वंयी आशिल्ल्यो. मजा म्हळ्यार थंयची वंय लाकडां ना जाल्यार फळीं लावन करूंक नासली. ही वंय एक तरेच्या तणाची आसली. हें तण जांबळ्या रंगाचें आसलें. हो जांबळो रंग कसो जाल्यार म्हेळो. आनी हें तण सरळ उबें नासलें. तें गोलाकार आसलें. मांजर केन्ना केन्ना झेंपडी फुलयता. ती तेन्ना फर आशिल्लेवरी दिसता. दीस्त तशीशी ती म्हाकां दिसली. दोंगरा एद्या मांजराच्या फुलयल्ले शेंपडेवरी ती वंय दिसली. म्हाकां तें तण म्हऱ्यांत वचून पळोवपाचें आसलें. ताका स्पर्श करपाचो आसलो. ताचे विशीं चड म्हायती घेवपाची आसली. पूण कांय करूंक पावलें ना.

हिमालयांत भोंवतना एक गजाल मर्तींत धरूंक जाय. थंयचे खंयचेच वनस्पतींक हात लावं नज! थंयचीं फुलझाडां जितलीं सुंदर तितलींच तीं खतरनाक! तांकां हात लायत जाल्यार हात एकतर सुजता ना जाल्यार भेरेता. ज्या अर्थी ह्या सुंदर तणाची ताणीं वंय घाल्ली त्या अर्थी तें तण विखारी आसूंक फावऽ. हो आपलो म्हजो अदमास.

खरें म्हळ्यार काराकोरम, सियाचीन दोंगरावळी जिओलॉजिकली अॅक्टीव सुवाती खंय! जिओलॉजी शिकतल्या भुरग्यांक अभ्यास करूंक, संशोधन करूंक हांगा खूब्ब वाव आसा. आपल्या देशाकडेन इतली संपन्नता आसा. पूण आमकां ताची जाणीव ना. ही संपन्नता राखूंक जाय. ताचें संवर्धन करूंक जाय हाची जाण ना. आमी आपलीं भौतीक संपन्नतेच्या फाटल्यान धांवतात. फॉरेनर्स हांगा येतात. हांगचे परिस्थितीचो अभ्यास करतात. ताचें चित्रण करतात.

आमी म्हणटात हे फॉरेनर्स पिशे कशे खंयीय भोंवतात. कित्याचेंय शुटिंग करतात. तांकां आमची भाशा येना. तांचें जेवणखाण वेगळें. रावची पध्दत विंगड. कितल्योशोच अडचणी सोसून ते हांगा येतात. आमचें वैभव कॅमेऱ्यांत बंद करतात. आपल्या देशांत तें व्हरून दाखयतात. ताचेर पुस्तकां बरयतात. तीं वाचून आमी जागीं जातात. नुस्तें ना जाल्यार आमकां उंडी गिळूंक जायना. जिबेक विचारून आमचें जेवण आसता. आमकां भारताचो विकास जाय. पूण कसो? आमचे हातपाय सुके दवरून.

काराकोरम दोंगरावळ दोळे भरून पळेली. मर्दीच एके सुवातेर इतली हळशीक ओतयल्लेवरी दिसली. मागीर

कळ्ळें तो गंधक म्हूण! तरी म्हणटां हांव. इतलो उणो लोक हांगा आसा थंय ती हळशीक आयलीच कशी?

काराकोरम दोंगरांचेर गंधकाचे सांठे आसात. थंयचे आमी झरे पळेले. गंधकाक लागून तांचें उदक खतखतीत आसलें. मजा म्हळ्यार तांचे कुशीक थंड उदकाचेय झरे आसले. गंधकाच्या उदकान न्हाल्यार कातीचे रोग बरे जातात अशें म्हणटात. हून उदकाच्या झऱ्यांलागीं एक सुवात बांदून काडल्या. थंय हून आनी थंड उदक नळांतल्यान हाडलां. त्या उदकांत थंय जाय जाल्यार न्हावंक मेळटा.

ह्या दोंगरानी मदींच स्फोटांचो आवाज येतालो. थंय मिलीटरीचे लोक दिसताले. थंय ते रस्ते बांदूंक सोदताले काय बोगदो तयार करताले खबर ना!

सांजेर आमी हॉटेलार परतलीं. दुसरे दीस सक्काळीं लेह येवपाक भायर सरलीं.

पर्थून मोडणां मोडणांचो रस्तो. मदींच ल्हानशीं गांवां. मदलो पाचवो दोंगर-व्हांवत्यो न्हंयो. तांतले ल्हान व्हड फातर. दोळे भरून पळेत दनपरां साडेतीनांक सुमार लेह पावलीं. च्या बी घेवन झंस्कार न्हंय पळोवंक गेलीं. रेंवेचे दोंगर. हवेंतलें प्राणवायूचें उणे प्रमाण हाका लागून विचारशक्ती मात्शी उणी जाल्लीशी दिसली. झंस्कार न्हंयकडेन पावलीं. तेन्ना सांज जायत आयली. पश्चिमेक सूर्याचें तांबडेंगूंज बिम्ब दिसतालें. ही वेळ मारवा ह्या संगीतांतल्या रागाची! दिसलें शशीक सांगचें मारवा आयकय म्हण. पूण मागीर म्हळें नाकाच तो राग. पयलींच मारवा राग हुरहूर लावपी आनी उदास राग. आदींच उदास वातावरणांत उदास रागाची भर घालून बावून वचपाची गरज नासली.

दुसरे दीस पॅन्गाँग लेक वचूंक भायर सरलीं. ह्या सरोवराकडेन वचपाक तीनशें किलोमिटर रस्तो हुपूंक जाय आसलो. वाटेर चांग-ला खिंड आसली. ही खिंड १७३७० फूट वयर आसा. हें पॅन्गाँग लेक तें, तें 'थ्री इडियट' पिक्चरांत निमणे सुवातेर दाखयलां तें! त्या सिनेमांत दाखयल्ली शाळा लेह वाठारांत आसा आनी तें लेक तीनशें किलोमिटर पयस, पूण हिंदी सिनेमांत कितेंय चलता. नायक नायिका पद म्हणटात. तेन्ना आत्ता तीं हिमालयांत आसतात. म्हणटा म्हणसर गोंयां पावतात. म्हणटा म्हणसर मुंबय पावतात.

रेंवेच्या दोगरांतल्यान चडटी चडत आमी वतालीं. रस्ते बरे बांदून काडल्यात. मदींच रस्त्यार दोंगरावेले शेंकरे गडगडून येवन पडिल्ले. तेन्नाच मात्शी गाडी हालताली तितलीच. आमच्यो गाडयोय बऱ्यो आशिल्ल्यो. तावेरा, झायलो, क्वालीस बी. तातूंत ड्रायव्हर धरून स मनशां बशिल्लीं. ताका लागून मेकळो श्वास घेवंक मेळटालो.

वाटेर एका मोडणार एका फातराचेर 'शिंदे मोड' म्हूण बरयल्लें. कोणें सांगलें थंयचे भाशेंत शिंदे म्हळ्यार आत्मो म्हूण! खरें फट देव जाणा! हो प्रवास मात्सो उबगणो जालो. एकतर सगळे रेंवट दोंगर. झाडांपेडां नांत. वाटेर लोक नांत. आमचींच दोनचार मोटरां दिसतालीं तितलींच!

आमी चांग-ला पास पावलीं. थंय एका खडपाचेर 'महार आला रे आला' अशें मराठींत बरयल्लें. 'शिंदे मोड' आनी 'महार आला रे आला' हांचो कितें संबंद आसलो काय? चांग-ला पास सावन सकयल देंवतकीच व्हांवतें उदक दिसूंक लागलें. उदका वांगडा अदींमदीं झोपां दिसतकीच मन मात्शें शांत जालें. मदींच एके सुवातेर थोडे लोक याक घेवन आशिल्ले. पर्थून येतना ताणीं हे याक सजोवन दवरिल्ले. तांचेर बसून जायत्या जाणांनी आपले फोटो काडले. मदींच व्हांवत्या उदकांत जांबळींच फुलां दिसतालीं. जाल्यार एका दोंगरार मदींच पांचवो पट्टो दिसतालो. तो चारो धव्यो, काळ्यो, चॉकलेटी रंगाच्यो बोकड्यो खातात्यो. जिते जागते प्राणी पळोवन थाकाय मेळ्ळी.

आमी मुखार वचूंक लागलीं. तशे दोंगर हळदुवे दिसपाक लागले. सैमाचो कसलो हो मन भुलयणो चमत्कार! एक इंग्लीश सिनेमा पळेल्लो ताचो उगडास जालो. त्या सिनेमाचें नांव आसलें 'मेकनास गोल्ड' वोतांत ते दोंगर भांगरासारकेच दिसताले. म्हाकां थंय देवन इल्ली ती माती घेवपाची आसली. पूण ड्रायव्हरान म्हळें, पयलीं पॅन्गाँग वचुया. येतना मागीर पळोवया.

मागीर कळ्ळें थंय एक व्हाळ आसा. ताका 'पगला झरना' म्हणटात. सांजेर चार वाजल्या उपरांत एकेक खेप तो आपली दिका बदलता. उदकाचे लोटूच येतात आनी गाडयो बी व्हावून वतात. आतां ताचेर साकव बांदला. पूण थंय गाडी घेवन वचपी ड्रायव्हर जाता तितले बेगीं पर्थूंक सोदतात म्हण गाडयो खंयच थांबयनासतना पॅन्गाँग लेक आसा थंय गाडी व्हेली.

सगळे वटेन रेंवेचे दोंगर आनी मदींच तें निळ्या उदकाचें तळें. उदक खूब्ब नितळ आसलें. इतलें नितळ की उदका भितरले फातर, इल्लीं इल्लीं नुस्तीं दिसतालीं. हें तळें ५ ते ६ किलोमीटर रूंद आनी १३४ किलोमिटर लांब आसा. ताचो दोन तृतियांश भाग चिनांत आसा. हांवें उदक चाखून पळेलें. मात्शें खारट आसलें. तें तळें पळोवन थंय आयिल्ल्याचें सार्थक जालेंशें दिसलें. एके वटेन रेंवूच रेंव. मदीं निळें निळें उदक. चमचमीत वोत. थंडगार वारें. विचित्रशें वातावरण. दिसलें मुखार वचून चीनांत आशिल्लेंय तळें पळोंवचें.

थंयच्या त्या रेंवटांत मिलीटरीचे लोक अर्दगोलाकार तंबू कशे बांदून राविल्ले. कसल्या कसल्या वातावरणांत आमचे जवान रावतात, आमची राखण करतात आनी आमी? इतलें सगळें आसुनूय रडत आसतात.

थंय जे परिस्थितींत जवान रावतात तांचें कवतूक करचें तितलें थोडें. जवानांक पळेलें काय म्हजे दोळे भरून येताले. हांवें म्हज्या पुतांक जे मायेन आनी अपुरबायेन वाडयलें तशेंच ह्या जवानांक तांच्या आवयबापायनी वाडयलें आसतलें न्ही? आनी ते हांगा आमचे खातीर लढतात. मरतात. आमच्यो सीमा राखतात म्हूण आमी सुसेगाद जियेतात. हें मेळ्ळें ना तें मेळ्ळें ना म्हूण शिणटात. सरकाराक बुचाटून खातात. करोडोंचे घोटाळे करतात. जवानांच्या कॉफिनाचो काळो बाजार करतात. आमच्यो संवेदना साप्प मेल्यात. आमी इतले सुवार्थी जाल्यात की आमकां कोणालें कांयच पडूंक ना.

हें बरयता आसतनाच बातमी आयल्या. सियाचीन वाठारांत खूब्ब हिमवृष्टी जाली. हिमकडो कोसळून स जवान मेले. एकलो बेपत्ता आसा. देवा तूं!

**(चलता....)**

## अप्रेकणी

*पापड लाटपी आपल्या कामांत किशाल आसपाक जाय आशिल्ले. ते वाटकुळेच जावंक जाय. मदीं खरपूंक जायना. तांकां लाटतना चड पिठी लावंक जायना. ढब्बू, लातयो, माणें करीत आमी भुरगीं केन्ना पापड लाटपाक लागलीं तें कळ्ळेंच ना. पापड लाटल्याबराबर रोखडेच वताक घालचे पडटात. नाजाल्यार ते काळपट पडटात.*

"एकूच दी."

"ही आतां निमाणी आंऽ."

"आनी एकूच."

"भुरगीं पळयतलीं."

"पळयल्यार पळोवं. तांकांय दी. जाय जाल्यार आनीक हाडुया." घोव बायलेक सांगता.

टि.व्हीचेर जायरात चलताली. कसली जायरात काय? पळयत जाल्यार रामदेव बंधू पापड मसाला. घोव बायलेकडेन पापडांच्यो गुळयो मागता. म्हळ्यार पापडाची पिठी. 'आतां पापड करपाक सामकें सोपें. ही पिठी घेयात. उदकांत कालयात. पापड लाटात. सुकत घालात.'

"मम्मा कितलें सोपें पळय पापड करपाक. आमी करुया? हांव तुका हेल्प करतां. तू लाट. हांव सुकत घालतां."

म्हज्या चल्याक असल्यो जायराती पळोवन कितेंय खपनखायरें करून पळोवपाची खूब आवड.

"सोपें, पापड आनी करपाक सोपें?" म्हज्या तोंडांतल्यान आपसूकच उतरां आयलीं. हे इन्स्टंट पापड. घरावे पापड अशें इन्स्टंट नासता. म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतली याद जाली. तेन्ना पापड करप म्हळ्यार एक व्हड आक्त आसतालो.

सगळ्यांत पयलीं उडदाची दाळ बरी वेंचून ती दळप. ती गिरणीर बी दळपाक उपकारा पडनाशिल्ली. गिरणीर दळिल्ल्या पिठांत गव्हांचें पीठ मिक्स जाता म्हणटालीं. ते खातीर उडदाची दाळ दात्यार दळटालीं. सीता म्हणून कोंबातली एकली बायल ही पापडाची पिठी दळपाचीं आनी धोडावपाचीं कामां करताली. पापडां पिठयेंत कसल्योय मिरसांगो घालून उपकारा पडनाशिल्लें. ताका खाशेल्यो तारवटी मिरसांगो लागताल्यो. ताका लवंगी मिरसांग अशेंय म्हणटात. इल्ल्योशयो बारकेल्यो चिमटे येद्यो मिरसांगो. पूण तिखसाणीक सगळ्यां मिरसांगांक फाटीं घालता. ते खातीर सामकी तोंडान फटकळ आशिल्ल्या, दुसऱ्यांक खर उतरां उलोवपी बायलेक लवंगी मिरसांग अशें म्हणटात. अश्यो ह्यो तिखट मिरसांगो वानार वाट्टालीं. वाटतना हात बी मदीं घालूंक फावना. ते खातीर दावल म्हऱ्यांत घेवन बसतालीं. तरी मदीं हात घालचोच पडटालो. मागीर ह्यो मिरसांगो वाट्टलेचे हात सबंद वेळ भगभगत

# पापडांच्या मांडार...





हर्षा शेटये
कृष्णप्रेम, अंबाजी,
फातोड्डें - गोंय.
मो.: ९८५०५३०१५२

उरताले. हाताक उजो पेट्टा म्हणून म्हणप जाताले. तेल बी हाताक लावन पळयतालीं. तरीय हो भगभग थांबऽ नासलो.

पापडां पिठयेक शंकर छाप हिंगूच जाय पडटालो. तो पयलीं भिजत घालून दवरतालीं. मागीर वाट्टालीं. दनपारचीं जेवणां बी जातकीच एका व्हडल्या तोपांत पापडाची पिठी कालोवपाचो सुवाळो जातालो. दळिल्ले पिठयेंत पापड खार, मीठ, वाटिल्ली तारवटी मिरसांग, हींग घालपाचो आनी इल्लें इल्लें उदक घालून कालोवपाची. सामकी घट्ट कालोवपाक जाय. मात्शी पातळ जाल्यार सगळें फुकट. एकटी पिठी कालोवपी आनी धाडोवपी दुसरी. वानाक बरेंऽ तेल लावन घेवप. मागीर मुसळ तेलाचे वाटयेंत बुडोवप. पिठाचो एक मुठलो वानांत दवरप. मागीर मुसळान फारार फार.फार पडटकूच ल्हवू ल्हवू धवी दिसपी पिठयेचो रंग हळदुवसार दिसपाक लागतालो. पिठयेक चेप्याचो आकार येतालो. मुसळ तेलांत बुडोवन बुडोवन आरतें परतें हें चेपें धोडायतालीं. तीन कील पिठयेचीं अशीं पांच-स चेपीं तयार जातालीं. मागीर ही पिठी सारकी मिस्तुराद जावंक जाय म्हणून ह्या चेप्याचो आनी त्या चेप्याचो अर्दो अर्दो कुडको घेवन फातरीर धोडायतालीं. पिठयेक जितलो बरो फार बसता तितले पापड धवेफुल्ल जातात अशें म्हणटात. हरशीं ते हळदुवशे जातात. पूण कित्याक कोण जाणां तांकां धवेफुल्ल जाल्यात अशें म्हणटात! धाडायतना एक एक कुडको मागून आमी तेलांत बुडोवन खातालीं.

फातरीर धोडायलेली ही पिठी घडी घालून व्हडल्या तोपांत धापून दवरतालीं. अश्यो तीन चार घडयो जाताल्यो. एक घडी म्हळ्यार एक गुळी. पिठी धाडावपाचें काम इतल्यान सोपनाशिल्लें. दुसरे दिसा सकाळींफुडें परत्यो ह्यो घडयो धाडावच्यो पडटाल्यो. मागीर एके गुळयेचे तीन चार कुडके करप. हाताक तेल लावन एक एक कुडको बुर्रास कसो ओडप. परतेंय तशेंच ओडप. ओडप बरें जाल्यार पापड बरो धवो आनी विरविरीत जाता म्हणटालीं! मागीर हो कुडको लाटफळ्याचेर घश्टून घश्टून लोळी करप. ही



लोळी मर्दी फुटूंक बी जायना. ती तिकतिकीत जावंक जाय. केन्ना केन्नाय हे लोळयेचें तोंड फुट्टालें. म्हाका मागीर दोन तोंडाच्या माळुणाची याद जाताली. ही लोळी आदोळेचेर कापून वाटकुळ्यो ल्हान ल्हान गुळयो करतालीं. पूण त्यो गुळयो वाकड्यो तिकड्यो जाताल्यो. आमची एक शेजान्न सूत पांयाच्या आंगठ्याक गुठलायताली. दुसरें पोत एका हातांत आनी लोळी दुसऱ्या हातांत धरून लोळी सुतान कापून गुळयो करताली. ह्यो गुळयो बऱ्यो एकाच मापाच्यो आनी वाटकुळ्योच जाताल्यो. तिचें पळोवन पळोवन ही करामत मागीर हांव करपाक शिकलें. गुळयो जातकीच मागीर लातयो. लाटफळ्याचेर गुळयो मांडून दवरप. बोटाक तेल लावन गुळी मात्शी दामप. मात्शे खोल जाल्ल्या त्या भागांत मागीर तेल उरता. मागीर ह्यो गुळयो लाटून लातयो करप. ही लाती सादारण ल्हानशा पुरयेच्या आकाराची आसता. लातयो करपाचें काम चडशें १०-१२ वर्साचे चलयेचें आसतालें. ताचे परसय ल्हान भुरगें घरांत आसल्यार आपूण लाट्टां म्हूण जाणट्यांचो जीव खातालीं. मागीर ते तेल लायिल्ल्या गुळयांचेर दोन लाटण्यो मारून तांचे ढब्बू करून दिताले. मागीर लातयो करपी ढब्बू लाटून ताच्यो लातयो करतालीं. ह्यो लातयो पिठयेंत बुडोवन एकार एक तीन-चार दवरून लाट्टात. मडगांवां आमी तांकां माणे म्हणटालीं. पूण खूबशीं जाणां तांकां चेडवां म्हणटात. आमी ल्हान भुरग्यां खातीर पोळेर बी करतात. तांकां माणें म्हणटात. ताचे वयल्यान हें उतर आयलां जावंये!

आमच्या भुरगेंपणांत वार्शीक परिक्षा जाली रे जाली वाड्यार सगळ्यांगेर पापड करपाचें सुरू जातालें. आज हांगेर जाल्यार फाल्यां तांगेर. लातयो, पापड म्हणप सगळयांगेर कॉमन आसतालें. पूण आतां घरांत नवीन आयिल्ल्या सुनांनी माण्याक चेडवां, मदलां, आडसाटीं म्हणपाक सुरू केल्लें. केन्नाय म्हजे तकलेंत किडो वळवळटालो. ह्या नांवाची व्युत्पती कशी जाता काय म्हणून! मागीर कोणूय जाण्टेली म्हज्या शंकेचें निरसन करताली. चेडवां म्हणपाचें कारण म्हळ्यार चली भुरग्याक लग्नाबगर दवरूंक जायना तशेंच माण्यांकूय बी पापडांच्या जल्माक घालुंकूच जाय. तांकांय तशेंच दवरूंक मेळना. ह्या समानकायेक लागून घडये तांकां चेडवां म्हणटात जावंये! मागीर चेडवां म्हळ्यार आडसाटी. लग्नाचे वाटेर आशिल्लीं. म्हणून आडसाटींय म्हणटालीं. लातयो आनी पापड हांचे मदलीं म्हणून मदलां.

पापड लाटपी आपल्या कामांत फिशाल आसपाक जाय आशिल्ले. ते वाटकुळेच जावंक जाय. मर्दी खरपूंक जायना. तांकां लाटतना चड पिठी लावंक जायना. ढब्बू, लातयो, माणें करीत आमी भुरगीं केन्ना पापड लाटपाक लागलीं तें कळ्ळेंच ना. पापड लाटल्याबराबर रोखडेच वताक घालचे पडटात. नाजाल्यार ते काळपट पडटात. केन्ना केन्नाय दमट आसतालें. वत येनाशिल्लें. तेन्ना चार चार गुळयो एकठांय करून एक व्हड पापड करतालीं. ताका सुर्याचो पापड म्हणटालीं. हो व्हरून भायर शेंदरेर सुकत घालतकीच वत येतलें अशी एक स्रध्दा आशिल्ली.

पापडाबराबर डांगरूय करतालीं. तातूंत अर्दी उडदाची दाळ आनी अर्दी चण्याची दाळ घालतालीं. लवंग्या मिरसांगां वाट्याच्यो केन्ना केन्नाय तांबड्यो मिरसांगोय घालतालीं. केन्नाय लसणीचे पापड करतालीं. तातूंत हिंगा वाट्याची लसूण घालतालीं. पापड लाटतना आजी मागीर खबरो सांगताली. पयलींच्या तेंपार खंय नवे व्हंकलेक कुळारच्यान पुरूमेंताचें वजें धाडटालीं. तातूंत पांच तरांचे खंय पापड आसताले. पापड, दांगर, मुद्रा मारिल्ले पापड, तीळ लायिल्ले पापड, निरपणसाचे पापड, मिरयांचे पापड. मिरयांचे पापड आमच्या शेजाऱ्यांगेर करतालीं. तांचो रंग काळपट जातालो. निरपणसाचे पापड हांवें खाल्यात, पूण करतना मात केन्नाच पळोवंक नांत. अशे हे पापड आमच्या वाड्यार पंदरा एक दीस आमकां लाटचे पडटाले. लाटून लाटून हात तांबडे जाताले. पूण ती सकाळ बरी वताली. तरातरांच्यो गजाली जाताल्यो. कोण भुतांच्यो खबरी सांगतालीं, कोण उखाणीं घेतालीं. कोण उमाणीं घालतालीं. हांवें आनी म्हजे इश्टीणीन मितान तांकां पापडा मांडावयल्यो गजाली म्हणून नांव दवरिल्लें. पापड लाटतल्यांक खावपाक म्हणून तोंडाक आनी उंडे आसताले. कोणूय मागीर सदांच तोंडाक खावन वाज येत म्हणून फोव, शिरो बी करतालीं.

पापड लाटले म्हणून पापडांचो वावर सरनाशिल्लो. ते सुकत घालचे पडटाले. वयर सरतकीच पाटलो व्हरून घरांत हाडून पातलावचे पडटाले. मागीर ते मात्शे मोव जाताले. पन्नास पापड एकार एक दाळून तांची कवळी बांदतालीं. ते खातीर केळीचे दोर सांबाळून दवरतालीं. डांगराच्यो कवळ्यो बांदूंक जमनाशिल्ल्यो. ते अशेच लातांत भरून दवरतालीं.

आतां हें येवजीता आसतना अश्या एका पापडा मांडार वचून बसन अशें जालें. पापडां पिठयेचो तो घमघमीत वास नाकांत रिगलो. काळजांत खंयतरी किसकिसले भशेन जालें.

वाड्यावयल्या सगळ्यांची याद आयली. घुस्मटिल्ले भशेन जावपाक लागलें. भायलें दार उगडून पोरसांत आयलें. मनांत थारायलें, कोणाकूय आपोवन एक किलोचे तरी पापड करपूच. पूण हांव जाणां, ही येवजण म्हजी मनांतूच उरतली. निदान रामबंधू पापड मसाल्याच्या निमतान हांव ह्या पापडां मांडार भोवन आयलें हेवय कितें कमी न्हय!



# तेपळां

*दात्यार बसतगीर खंय व्होवयो येतात. मदींच केन्ना आपणें रांदिल्लें जेवण ताळयासकयल देवन जालें तशें 'चायनीज फूड' करपाच्या कोर्साक वतालें. मागीर घे, सोया सॉस हाड, चिली सॉस हाड, खंयचें मेयोनीज तर खंयचें शेजवान सॉस घेवन यो.*




**रुपा कोसंबे**
व्हडलें भाट,
ताळगांव.
मो. : ९४०४९१४४३७


''**शे**नवारा दिसा म्हजे इश्टिणीच्या पुस्तकाचें विमोचन आसा. मात्शें व्हरून हाडटलो न्ही?''

हाणें म्हळ्यार म्हजे अर्धांगीनीन सामकें लाडांत येवन विचारलें आनी हांव सामको पाघळ्ळों. हांव रोखडोच पाघळटां. म्हजो वीक पॉयंट तो आनी तो हें बरेंच वळखून आसा. हाणें जशें गळ्यांत हात घालून कितेंय विचार नाका, कितें कोण जाणा म्हज्यान ना म्हणूंकच जायना.

आतां आतऱ्या पयऱ्यान हाच्या कोणाल्या ना जाल्यार कोणाल्या पुस्तकाचें विमोचन आसता तें जालेंच. पूण आमंत्रण आसूं, नासूं दिसाळ्याचेर आयिल्ल्या सगळ्या साहित्यीक कार्यक्रमांक हाजेरी लावप हें हें आपलें आद्य कर्तव्य समजता. आपल्याक साहित्याक गती आनी रुची आसा हो सोद हाका हालींहालींच लागला आनी हाचे खातीर हांव ताका अजिबात दोश दिना. चूक म्हजीच. ताचें कितें जालें, केन्ना एकदां दिसाळ्याचेर चारोळ्यांची सर्त आयिल्ली. तातूंत वांटो घेवपाची हाका कूय आयली. आंकवार आसतना अशीच खंय बालवाडीच्या भुरग्यांची कसली स्पर्धा आशिल्ली. तेन्ना ऐनवेळार आफयिल्लो परिक्षक येवपाक पावलो ना म्हण ते स्पर्धेचें परिक्षण हाणें केल्लें आनी ते भायर शाळेंत आसतना चोम्यान गीत गावपाचे सर्तींत खंय तांच्या चोम्याक उमेद वाडोवपी इनाम मेळिल्लें. ही आशिल्ली भक्कम फाटभूंय. आमगेल्याक चारोळ्यां लेखन सर्तींत वांटो घेवपाक उद्युक्त करताली. जालें, तेच दिसाक म्हाका दोनशें पानांचो एक लाँग बूक आनी दाट बरवता तशें पेन हाडचे खातीर ऑर्डर पडली. हांवेंय उमेदीन हाडून दिलें, म्हाका खंय खबर फुडें येतल्या वादळाची ही सुलूस म्हणून?

दुसरे दिसाक जर हांव सान्न मारपाक वच जाल्यार कोयराची बादली सगळी हांवें उमेदीन हाडून दिल्ल्या कादेनांच्या पानांनी भरल्या. पळोवन अशी भिरभिरी मारली. सोमती बादली व्हरून आपटिली ताच्या म्हऱ्यांत.

''हीं कसलीं भुरगेपणां?''

''तातूंत कितें जालें? शिजता थंय करपताच!''

''अशें शिजयलां तरी कितें तुवें?''

आनी हांव हांगाच घाणलों. ह्या प्रस्नाची वाट पळयत आशिल्ले भशेन हाणें धांवत वचून आपली साहित्य संपदा हाडली.

''आयक हां'' म्हज्या गळ्यांत हात घालून तें वाचपाक लागलें.

'जाय तें करपाक

# कर्मभोग



तुका गा कोणें आडायलां
आनी हांव बरयतां जाल्यार
तुजें कितें सल्लां?'

('आगो, हो कादेन हाडपाक चाळीस रुपया म्हज्या बोल्सांतले गेल्यात.' हांव भितरल्या भितर घुस्मटलों.)

'कितलो म्हण घुस्मट सोसूं
बायलांच्या जन्माक येवन
ते परस झाडांचेर भोंविल्लें बरें
मुक्त अशें शेवणें जावन'
(शेवणें जाल्लें जाल्यार हांव पूण सुटिल्लो.)
बरोवप, बरोवप

म्हण व्हडलेंशें कितें?
शेजान्नीगेर LCD हाडला
म्हाका मेळत काय जाय तें?
(हांवें फकत बोल्सां सांसपिलीं.)
शीत सदांच पेणको जाल्यार
व्हडलेंशें कितें जालें?
लेखिकेचो घोव म्हण मिरयतलो जाल्यार
हें सोसचेंच पडटलें

एकावेळार मानग्याच्या तोंडांतल्यान पूण सुटका आसत! मनांतल्या मनांक येवजीत हांवें विचाल्लें,

''आगो आनी कितल्यो उल्ल्यात? उरिल्ल्यो त्यो मागीर सांजे येवन आयकतां. म्हाका पळय, सान्न मारून, कपडे उमळून, न्हावन ऑफिसांत टायमार पावपाक जाय.''

''ना. जाल्यो, चारच मागयल्यात ताणीं सर्ती खातीर!''

''म्हणटगीर हें फाल्तू बरप तूं सर्तीक धाडटलें? चारोळ्यांचो अर्थ तरी जाणां मगो तूं? पळय, हें असलें तुका जमपाचें ना. ताका शिकप लागता.'' हांवें धीर केलोच.

गळ्यांतले हात सोमतेच कमरार आयले. ''चारोळ्यो म्हळ्यार कितें तें म्हाका सांगता तूं? चारोळ्यो म्हळ्यार जाका पद्याची झाक मारता आनी दुसऱ्या आनी चवथ्या वळिचें यमक जुळटा ती उत्तम चारोळी अशें पयर 'महिलांची पद्य रचना' ह्या परिसंवादाक एके वक्तीणीन (वक्त्याचें स्त्रीलिंग दिसता) सांगिल्लें. हांवें सोमतोच आवंडो घोटलो. हाचें फुडलें भाशण तयार.

''आनी राव रे, एक सांग म्हाका, साहित्य म्हूण केन्ना फाल्तू आसता? सृजनशक्त ती! आनी सदांच शिकप शिकप म्हण तूं पळय थोमणे मारता न्ही, तूं जाणां, बहिणाबाई कितली शिकिल्ली? तिणें बरयलां तें व्हडाव्हडांक साध्य जालें ना.''

''तुजी तुळा तूं बहिणाबाईकडेन करता? तोंड वचून पळय हारशांत!'' खूब दिसांनीं म्हाका राग उक्तावपाचें धाडस जालें.

''आनी तुवें बहिणाबाईचें कितलें साहित्य वाचलां आनी केन्ना?''

''वाचपाक कित्याक जाय? पयर 'महिला-दिनी' कोणेतरी सांगलां न्ही? सगळें जाणां हांव आयकून.''

इतल्यानच म्हज्या भेंडांत आयलें.

''बरें, बरें आतां मात्शें म्हज्या डब्याचें पळय. ऑफिसांत वचपाक वेळ जाता.''

''हेंच, हेंच तें. दिसभर फक्त खाणां आनी जेवणां! आनी धंदो आसा? तुमी दादल्यांनी बायलांक रांदचेकुडींत घुस्पोवन दवरल्यांत.''

''खाणां-जेवणां खंय! हिचे पाककलेचेर ना उलयिल्लेंच बरें. आपल्याच्यान नजो जातगीर म्हजे आवयन बाबडेन पुताच्या पानार बरे चार जिनस पडटले म्हण 'आमट तें गट्ट' म्हणटात तशें करून म्हाका चतुर्भुज केल्लो. पूण हाचीं लक्षणां पळोवन आपल्या पुताचें फुडें अशें जातलें ह्या एकाच हुस्क्यान तिणें दोळे धांपले. पुण्यवंत बाबडी!''

तुमकां कितें दिसता? हें बरोवपाचें पिशें चड दीस तिगतलें? अजिबात ना. थोड्या थोड्या दिसांनीं ग्रह बदलतात. 'एक ना धड आनी पाटलोभर कोयर' असली हाची परिस्थिती. फाटल्या दिसांनीं करोडपती जावपाचें मनार घेतिल्लें. दिसभर एकेवटेन फोन लायतालें आनी आयिल्ल्या-गेल्ल्याक हॉट सिटाचेर बसपाक वतना शतकांतल्या महानायकाक मेळतगीर 'आपको hug करना ही मेरे जीवन का एकमात्र सपना था' हो डायलॉग कशें म्हणटलें तें (with action) म्हणून दाखयतालें. दिसभर हें hug hug



आयकून म्हाका भंय लोक एक दीस पूण हाच्या तोंडांत xxxx .पूण ना. हेंवय भूत देंवलें.'

दात्यार बसतगीर खंय व्होवयो येतात. मर्दींच केन्ना आपणें रांदिल्लें जेवण ताळ्यासकयल देवन जालें तशें 'चायनीज फूड' करपाच्या कोर्साक वतालें. मागीर घे, सोया सॉस हाड, चिली सॉस हाड, खंयचें मेयोनीज तर खंयचें शेजवान सॉस घेवन यो. जन्माक आयकलीं ना तीं नांवां आयकलीं. तरी उपकार, जल्ले बी धरपाक लायले नांत. शेवट ताच्याच पचनक्रियेन असहकार करतगीर गाडी परत शीतकडयेचेर (ताच्यामतें गोंयचें पुर्णान्न हें इतलेंच) आयली.

फाटल्या सप्टेंबराक 'स्त्री-मुक्ती बायलांवयलो अन्याय' ह्या विशयांनी नेट घेतिल्लो. तावातावान एकदां भाशणय पाठ करतालें. कोणाकडच्यान बरोवन हाडिल्लें देव जाणां! आपल्याक माचयेर भाशण आसा म्हण अपुरबायेन आनी सगळीं जाणां रातचीं रावल्यार हॉटेलांतल्या जेवणाचेर कितलो खर्च येतलो हाचो हिशेब हांव मांडटालों. पूण ते दिसाक कितें जालें कोण जाणां, हरशीं म्हजेकडेन 'वादे वादे जायते तत्वबोध' म्हण एखाद्या वाचस्पतीभशेन वाद घालपी भाशणां खातीर उबे रावलें आनी 'बायलांच्या आंगांत कापाझदाद आसा जाल्यार तांकां दाखोवन दिवचें पडटलें...' हे एके वळीचेर रिकॉर्ड आडखळ्ळी, फुडलें कशेंच याद जायना. पापणीन भाशणाचो खड्डोय व्हेलो ना दिसता. मुखावयलें सगळें भाशण म्हाका तोंडपाठ आसूनय 'हांव दादलो' ह्या एकमेव कारणाक लागून तें promt बी करपाचे भानगडींत पडलों ना आनी उमेदीन आयिल्लीं सोयरीं बाबडीं हाका लज जातली म्हण हे माचयेवयल्यान देवचे पयलीं 'शेवटची बस चुकतली' म्हण म्हाका सांगून घरा पळ्ळीं (ताचेच वटेची न्हय तीं?)

मागीर चार दीस सगळें थंड आशिल्लें. अशेंच एकदां सार्वजनीक गणेशोत्सवाच्या निमतान 'बायलांनी आपलें सत्व न्हय म्हत्व' कशें पटोवन दिवचें ह्या विशयाचेर कोणा विचारवंताचें भाशण आयकून आयलें आनी आंगांत परत विरश्री संचारली. खरें सांगपाचें म्हळ्यार बायलांचें म्हत्व खरें कितें तें म्हाका हाचेकडच्यानच त्या दिसांनीं



पड्वे

# नैतीक मुल्यां आनी समाज

*आज हीं नातीं खूब पयसावपाक लागल्यांत. आज मनीस स्वता पुरतो विचार करता. आपलें करियर सांबाळटना पयशां फाटल्यान धांवपाक लागला. पयसो म्हणजे करियर अशी ताची धारणा जाल्या. घरांत, जाणट्यांकडेन संवाद सादपाक लेगीत तांकां वेळ नासता. मनशांकडे तांचे संबंद तुटिल्ल्यान तांच्या मनांतल्यो भावना मरपाक लागल्यात.*




कुसूम अग्रवाल
शिवोले – गोंय


**शा**ळेंत शिकोवपाक जेन्ना हांवें पंचवीस वर्सां पुराय केलीं तेन्ना म्हज्याच सहशिक्षकान म्हजी मुलाखत घेतिल्ली. खूबशे प्रस्न विचारिल्ले. 'तुजें प्रेरणास्थान कोण? तुका शिक्षिका कित्याक जांवचें शें दिसलें? विद्यार्थ्यां बद्दल तुजे विचार कितें?' अशे खूब खूब आनी निमाणो प्रस्न आशिल्लो, 'तुवें शिकयल्लो भुरगो समाजांत वावुरतलो तेन्ना तो कसो आसचो अशें तुका दिसता?'

'म्हजो विद्यार्थी समाजांत वावुरतना ताठ मानेन भोवपाक जाय. ताच्या ध्येयांत यशस्वी आसूंक जाय आनी तो बरे देखीचो आसूंक जाय. जाल्यारूच म्हज्या ह्या शिकोवपाचो कितें तरी उपेग जालो अशें हांव मानतलें.' अशी हांवें जाप दिली.

दर एका शिक्षकाक आपलो विद्यार्थी आदर्श आसचो अशें दिसता. न्ही तांचें तें सपनूच आसता. ते खातीर तो विशय शिकयतना नैतीक मुल्यांचेर भर दिवन तांचे जिणेक आकार दिवपाचो प्रयत्न करतां. तेच खातीर शिक्षण खात्यान मुल्यांचो अभ्यास करपी खासा तासिका दवरल्यात.

घरांतूय आवय-बापूय शक्य तो आपलें भुरगें बरें जांवचें म्हूण धडपडत आसतात. तांचेर बरे संस्कार करतात. तांकां बऱ्या वायटाची जाण करून दितात.

आमच्या भुरगेपणांत मुल्ल्यां शिकोवपा खातीर खासा तासिका नासताल्यो. आमी आमच्या शिक्षकांकडल्यान, जाणट्यांकडल्यान, दुसऱ्यांक कसो मान दिवंचो, दुसऱ्यांकडे मानान कशें उलोवचें, हें तांच्या वागण्यांतल्यान शिकताले. विद्यार्थ्यांबद्दल आशिल्ली तळमळ, आमी सगल्या मळार मुखार वचचें म्हूण तांची चलिल्ली धडपड आमी पळयतालीं. बरें काम केलें जाल्यार शाबासकी मेळटाली. वायट कर्तूब केलें जाल्यार तापोवणी, मार खांवचो पडटालो. तांच्या ह्या सभावाखातीर आमी तांकां मनांतल्यान आमचो आदर्श मानतालीं आनी तांचे भशेन जावपाचो यत्न करतालीं.

घरांत आवय, भाव आमचेर तांच्या वागण्यांतल्यान संस्कार करताले आनी आमचे जिणेक आकार दिताले. आपूण गरीब आसलीं तरी कोणाच्या फुड्यांत हात मुखार करप ना, आपले गरिबीचें प्रदर्शन करप ना, आसा तातूंत समाधान मानप, कश्ट करून जगप हे गूण हांव म्हजे आवयक पळयत पळयत तिचेकडल्यान शिकलें. तिचो सखखो देर एकूच



आसलो. पूण बापोलदेर पांच आशिल्ले. पांचूय जाण तिका खूब मानताले. तिचो तांकां धाक आसलो. तिणें घोवाच्याच मनशांक न्ही तर कुळारच्याय मनशांक आपल्या मायेच्या पाशान बांदून दवरिल्ले. नातीं कशीं केळोवचीं आनी दुसऱ्यांचीं मनां कशीं सांबाळचीं हें म्हजे निरक्षर आईन तिच्या वागण्यांतल्यान म्हाका शिकयलें. तिच्या ह्या सभावाखातीर सुटयेंत तिचे मायेचीं मनशां तिका मेळपा खातीर, मुंबयच्यान, बेळगांवच्यान मुद्दाम येतालीं.

आज हीं नातीं खूब पयसावपाक लागल्यांत. आज मनीस स्वता पुरतो विचार करता. आपलें करियर सांबाळटना पयशां फाटल्यान धांवपाक लागला. पयसो म्हणजे करियर अशी ताची धारणा जाल्या. घरांत, जाणट्यांकडेन संवाद सादपाक लेगीत तांकां वेळ नासता. मनशांकडे तांचे संबंद तुटिल्ल्यान तांच्या मनांतल्यो भावना मरपाक लागल्यात. आज तांचें टिवी, इंटरनेट, लॅपटॉपाकडे चड नातें जुळपाक लागलां.

हें चित्र बदलपाक जाय जाल्यार आमकां तांचेर ल्हान आसतनाच बरे संस्कार करपाक जाय. शाळेंत वा घरांत तांकां परत-परत नैतीक मुल्यांची जाणविकाय करून दिवपाक जाय. आपले भयणीकडेन दुसऱ्या चल्यान मानान वागचें अशें दिसल्यार आमी दुसरे चलयेकडेन मानान वागचें पडटलें ही भावना तांच्या मनांत रुजोवची पडटली. भोवमानेस्त गुरुनाथ केळेकारान सांगिल्ले प्रमाण प्लास्टीक बावट्याचेर बंदी हाडच्या परस, तो तिरंगी बावटो कित्याक म्हत्वाचो, ह्या बावट्या पसत कितल्या लोकांनी आपल्या घरादाराचो त्याग केला, कितल्या लोकांनी आपल्या प्राणाचो त्याग केला हें लोकांक पटोवन दिवचें पडटलें. अशें करूं नाकात, तशें करूं नाकात हें सांगचेपरस तें कित्याक करूं नाकात, ताच्या फाटलीं कारणां तांकां समजावन सांगचीं पडटलीं आनी हेच खातीर आवय-बापायन, शिक्षकान भुरग्यांकडे संवाद सादपाची खूब गरज आसा.

आमच्या शाळेंतल्या भुरग्यांक आमी दर वर्सा गोंयां भायर भारत-दर्शन करपाक भोंवडेक व्हरतालीं. स वा आठ भुरग्यांचो पंगड करून तांची जबाबदारी एके शिक्षिकेचेर सोंपयतालीं. त्या पंगडांत एक वा दोन चले आसतालेच. त्या चल्यांचेर आमी चलयांक सांबाळपाची जबाबदारी दितालीं. अनवळखी शारांत ढाल जावन ते चले तांची राखण करताले. तांचें सामान व्हरपाक तांकां आदार करप, तांकां खंयच एकटें धाडप ना, तांकां सांगात दिवप हीं कामां करताले. गर्देंतल्यान वाट काडटना लेगीत तांकां सांबाळटाले. अशें केल्ल्यान तांच्या मनांत एकामेकांबद्दल आदराची भावना निर्माण जाताली. ते खातीर चलयांकडे वायट नदरेन पळोवपाचो प्रस्नूच येनाशिल्लो.

आमकां नैतीक मुल्यां भुरग्यांच्या काळजांत रुजोवचीं आसत जाल्यार आवय-बापूय, शिक्षक-पालकांक तांचो आदर्श जावंचें पडटलें. बरें बीं लायत जाल्यार भातूय बरें पिकतलें आनी मागीर तांच्या वागण्यांत, तांच्या उलोवपांत बऱ्या मुल्यांचें दर्शन जातलें.



## तात्पर्य कथा

**१२/१२/१२ ह्या दिसा मिकी पाशेकोच्या जल्मदिसा मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार हाणीं ताका वेंग मारून जल्मदिसाचीं परबीं भेटयलीं.**



"जल्मदिसा निमतान इत्सा नासतना कोणा कोणाक वेंग मारपाचें नशिबांत बरयलां देवाक खबर!"

"ही असली वेंग कित्याक कपलाक? ताचे बदला एखाद्रें महामंडळ गळ्यांत घाल्लें जाल्यार जातालें!"

"१२/१२/१२ म्हूण सामको फुल्ला पळय! फुडल्या वर्सा पळय १३/१३ येता!"

"पूण मदलो १३ खंयचो हाडटलो?"

"अशें? म्हाका वळखना तूं! म्हाका जाय जाल्यार १३/१३/१३ पासून करपी हांव!"

**तात्पर्य : दुश्काळांत तेरावो म्हयनो.**



*दिसरात चलयेचेच विचार मनांत घोळटाले. धुवेक खूब समजावपाचो यत्न केलो पूण तें मोगान इतलें घुस्पटललें की तें कोणाचेंच आयकूंक तयार नाशिल्लें. बापायन तापयल्यार सुध्दां श्रेया कायतानाक मेळटालें. मोबायलार मॅसेजी धाडप चालू आशिल्लें. दोगांयची इश्कबाजी सुरू जाली.*




विनोद गावडे
बोकडबाग, बांदोडा
फोंडा – गोंय
मो. : ९८२३५४७०४७


# मोगाची ख्यास्त

आज्जेच्या पालवाक धरून फाटीं फुडें नाचपी श्रेया हळूच आज्जेचे फाटीर थापट मारून धांवतना आईन पळयलें. चपाती लाट्टा थंयच्यान आईन ताचेर धेंगसो घातलो. हातांतलो कायलाटो उबारून ''श्रेया तूं मस्तें जालां! आज्जेक त्रास करता.'' अशीं आईचीं उतरां सोपचे पयलींच तें दुसरे कुडींत बाबा म्हऱ्यांत पावलें.

''हांवूच मर्दी रावलीं. हातूंत बायची कांयच चूक ना.'' म्हणीत अपुरबायेचे शब्द आज्जेच्या तोंडात आयले.

''तूं चपाती भाज. संतोष ऑफिसाक वचपा जालो. ताका च्या दी.'' म्हणीत आजी भायर आयली.

'श्रेया, बाबाक च्या दवरल्या सांग.' म्हणत रीमान च्या दवरली. संतोष च्या पिवन ऑफिसांत वचपाक भायर सरलो. ताच्या फाटल्यान 'टाटा बाबाऽऽ'च्या तालार हात हालयत श्रेयान चॉकलेट हाडपाक सांगली. रीमाची नदर संतोषाल्या पावलार खिळून रावली. ताचें पावल थांबतलें आनी आपल्याक तो वळून पळयतलो म्हणून रीमाचें काळीज धडधडटालें. आंगणाची गेट उगडच्या पयलीं संतोषान फाटीं वळून पळयलें. रीमाच्या तोंडार हांसो फुल्लो. अनंता झाडार कळे फुलून झाड धवेंफुल्ल दिसता आनी अनंत वाऱ्या वांगडा खेळटा तशें रीमाचें मन संतोषाच्या स्मीत हाश्यान फुलून गेलें.

''श्रेया तुजो शाळेंत वचपाचो टायम जालो.''

तें धांवत वचून सोफार बशिल्ले आज्जेचे मांडयेर बसलें.

''श्रेया, आज्जेचे मांडयेवेल्यान सकयल देंव. तिकाय च्या पिवुनी.'' आईन श्रेयाक तापयलें. तें नाक वाकडें करीत च्या पिवपाक लागलें. आवयन युनीफॉर्म घातलो. केंसार फणी मारली. वॉटर बॉटल घेवन तें धावूंक लागलें.

''शाळेंत टिफीन दितात तें पुराय खा.'' अशें म्हणीत आई श्रेया फाटल्यान धांवली. स्कुलबस येतसर दोगांय गेटीर वाट पळयत रावलीं आनी ताका बशीर चडोवन तीं घरांत आयलीं.

शाळेंतल्यान स्कुलांत पावतगीर श्रेयाची सोबीतकाय वाडत गेली. तें पयलीं परस चड सोबीत दिसूंक लागलें. धव्या आनी निळ्या युनीफॉर्मांत अलीशा आनी मोनाली परस उठून दिसपी श्रेया अभ्यासांत हुशार. तशेंच तें ऑल राऊंडर. शाळेंतल्या खंयच्याय प्रोग्रामांत ताणें वाटो घेवना अशें चुकून घडटालें. वेगवेगळ्या सर्तींनीं वांटो घेवन ताणें इनामां जोडलीं. सांजवेळार तिगांय फ्रेंडां तेर्रासार एकठांय बसून अभ्यास करतालीं. शाळेंत तिगांयची इश्टागत फामाद. चवथ, दिवाळी, क्रिसमस, फेस्त वा शिगमो. तीं सगळ्या सणांक वांगडाच भोंवतालीं. स्कुलांत फकणां करतना भुरगे तांकां 'तीन परी' म्हणून चाळयताले. तांकां पळोवन भुरग्यांचीं काळजां धडधडटालीं. चलपाचे स्टायलीन आनी तांचे कुडीर नदर पडटांच भुरग्यांचे दोळे हालनाशिल्ले. सुंदरतायेन श्रेया तिगांय भितर नंबर वन जाल्यार कुडीच्या मांडावळीन मोनाली पयलें दिसतालें. तशेंच बॉबकट केंस आनी कंबर हालयत चलपी अलीशा क्वीक आशिल्लें. णव्वेच्या वर्गांत भितर सरून बांकार वचून बसऽ मेरेन भुरगे तांकांच तोखेताले. अभ्यास

करपाचो हो वेळ हाची जाण तीन परींक आशिल्ली म्हणून प्रेमांत पडपाचे भानगडी पासून तीं पयस रावतालीं. मदींमदीं भुरगे मोगाळ कमेंट्स पास करताले. त्या कमेंट्सांकडेन चड लक्ष दिनासतना तीं अभ्यासांत गुरफटलीं. अभ्यास एके अभ्यास अशेंय तांचें नाशिल्लें. थोडी मस्ती, बरीं फकणांय चलतालीं. सांजवेळार सीडी हाडून नवो सिनेमा पळयतालीं. केन्ना केन्नाय आंगणात क्रिकेट, फुटबॉल, बॅडमींटन खेळटना मजा करतालीं. खेळांत रमून, सीनेमाची बरी देख घेवन, टीचरीचे समजुतकायेन आनी अभ्यासाच्या रियाजान मजेंत धावेची परिक्षा ताणीं दिली.

फुडल्या शिक्षणांत तीन परींनी तीन वाटो स्वीकारल्यो. तिगांयचे इश्टागतींत थोडो दुरावो आयलो. सदांच मेळपी आतां तीन-चार दिसांनीं मेळूंक लागलीं. करतां करतां इश्टागतीचो दुरावो वाडत गेलो. इश्टांचो वांगोड तुटिल्ल्यान श्रेयाक आपूण एकसुरें आशिल्ल्याचो आभास जालो. इकरावेच्या वर्गांत ताणें नवीन इश्टागत केली. नव्या फ्रेंडांच्या सहवासांत ताचो एक एक दीस वचत रावलो. मोनाली आनी अलिशाचें उलोवणें आतां मोबायलार चलूंक लागलें. चुकून म्हयन्यांतल्यान एकदां गांठभेट जाताली ते वेळार आयस्क्रीम खायत फाटल्यो यादी आनी मुखारल्या घडणुकांचेर भासाभास जाताली. मनांतलो दगदग इश्टांच्या उतरांनी आनी थंडगार आयस्क्रीमीन नरम पडटालो. परत मनाक टवटवी येताली.

आतां श्रेयान बारावेच्या सोपणार पावल दवरलें. नवीन इश्टां वांगडा श्रेया आपल्या वर्गांत वचपाक लागलें. वरांड्यार पांच-स भुरगे उबे रावून गजाली करताले. एकल्याच्या कानात रींग, हातांत जाड रबरचें काकण, चांदीचे सरपळेक एक ल्हानसो खुरीस गळ्यांत लोंबकळटा. ताचें लक्ष श्रेयाचेर गेलें. 'हाय श्रेया' म्हणीत ताणें ताका उलोय मारलो. तांकां पळयनासतना श्रेया सरळ आपल्या वर्गांत गेलें. भुरगे कायतानाक हासूंक लागले. दुसऱ्या दिसा श्रेयान पयलींच पयसुल्ल्यान वरांड्यार नदर मारली. वरांड्यार कोण ना तें पळोवन ताणें सुस्कार सोडलो. दिसा फाटल्यान दीस वताले. रस्त्यान चलत येतना एक दीस कोणेतरी श्रेयाक उलो मारलो. फाटीं पळय नासतना तें चलत रावलें. परत एकदां उलो आयकूंक आयलो. फाटल्यान वळून पळयत जाल्यार एक भुरगो. भंयान ताच्या पावलांनी नेट धरलो. "श्रेया, मोनाली आनी अलिशा दिसलीं ना." आपल्या इश्टांचीं नांवां घेतांच श्रेयाच्या पावलांनीं ब्रेक मारलो.

"तूं म्हाका वळखुना? हांव तुजे वांगडा शाळेंत शिकपी कायतान." श्रेयान वळून पळयलें. भितभीत उलयत दोगांय कॉलेजांत पावलीं. कायतान इकरावेच्या जाल्यार श्रेया बारावेच्या वर्गांत गेलें. आतां सद्दां कायतान श्रेयाची वाट पळयत रावतालो. दोगांयची इश्टागत वाडत गेली. कायतान केन्ना मेळुना जाल्यार श्रेयाक चुकिल्लेवरीं दिसतालें. घराकडेन आसतना दोगांयचें मोबायलार उलोवप चलतालें. श्रेया कोणाच्यातरी मोगांत घुस्पटलां हाची सुलूस ताचे आईक लागली. आपले धुवेचो मोगी किरिस्तांव म्हूण कळतगीर तिका भयंकर दुख्ख जालें.

दिसरात चलयेचेच विचार मनांत घोळटाले. धुवेक खूब समजावपाचो यत्न केलो पूण तें मोगान इतलें घुस्पटललें की तें कोणाचेंच आयकूंक तयार नाशिल्लें. बापायन तापयल्यार सुध्दां श्रेया कायतानाक मेळटालें. मोबायलार मॅसेजी धाडप चालू आशिल्लें. दोगांयची इश्कबाजी सुरू जाली. धुवेचीं कर्तुबां आवयच्या कानार पडतगीर ती कायतानाक मेळ्ळी. आपले धुवेपासून पयस रावपाची ताका शिटकावणी दिली. समजावन सुध्दां श्रेया ताका फोन करून मेळटालेंच. आपल्या धुवेच्या कारणान शेवटीं तिका अॅटेक आयलो. आईची हालत गंभीर जाली. हातरूणावयल्यान उठूंक जायना जालें. टेन्शन चड घेवंक नाका अशें सांगून दोतोरान तिका डिस्चार्ज दिलो. आपल्या जिवा परस आईक धुवेची चिंता चड सतावपाक लागली. धुवेक विश्वासान घेवन, 'आपूण कायतानाक विसरतलें. ताका परत मेळचें ना. ताच्या लागीं मोग करचें ना.' अशे शपथेर आईन श्रेयाक बंधनात दवरलें.



बापायन ताका कॉलेजींत धाडपाचें बंद केलें. 'हांव कायतानाक मेळचें ना. तो मेळूंक आयल्यार लेगीत ताचे लागीं उलोवचें ना.' अशा उतरांचेर श्रेयान परती कॉलेज सुरू केली. उदास मनान श्रेयाचे दीस वताले. आईचीय सुदारणा जाताली. बापायले देखरेखीन आनी श्रेयाच्या मोगा तडजोडीन वखद गुणाक पडून आई बरी जाली.

कायतान श्रेयालागीं उलोवपाक येतालो पूण श्रेया ताका लागीं रावना जालें. काळजांतसून श्रेया मोग करतालें ताचेर. फक्त आईक लागून फाटीं सरतालें. कांय तेपान कायतानाच्या मोगाक पालवी फुटली. आतां दोगांय लिपचोरयां मेळटालीं. फोन करिनासतना फ्रेंडामार्फत रकाद धाडप, कॉलेज चुकोवन लवर्स प्लेसीर वचून मजा करप आनी जुस्त कॉलेज सुटपा टायमार घरा पावप. आपली धूव टायमार घरा येता म्हूण घराकडेन सगळीं उमेदीर आसलीं. मोगाचे धडे गिरयत श्रेया पास जावन फुडें गेलें आनी कायतान परतो फेल जाल्ल्यान ताणें शिकप बंद केलें. कॉलेजी नांवान दोगांय मोगाचो पावस शिवरतालीं.

रांदचे कुडींतल्यान जेवणाचो वास नाकांत दरवळटालो. श्रेयाची आई जेवणाचे तयारेक लागिल्ली. आज्जी टिवी लावन बशिल्ली. ती टिवी पळयताली खरी पूण मनांतल्यान श्रेयाची वाट पळयताली. मदीं मदीं जनेलांतल्यान भायर लक्ष मारताली. इतल्यांत फोन वाजलो. आजी उठटा म्हणसर चार-पाच रींग वाजल्यो. रीमान फोन घेतलो.

"हॅलो संतोष आसा?"

"तो अजून येवंक ना." अशी रीमाची जाप.

'संतोषाचे चलयेक एक्सीडेंट जाला. ताका आर जी हॉस्पीटलांत व्हेलां.' असो रकाद कोणेतरी दिलो. रकाद आयकून रीमाक घुंवळ आयली. तें जमनीर पडलें. आज्जेक कांयच कळूंक ना. तिणें सुनेक उठयली. इतल्यान संतोष भितर सरलो. संतोषान दोळ्यांर उदक मारलें. रिमा 'श्रेया, श्रेया' करीत शुध्दीर आयलें. रिमाची तकली संतोषाचे मांडयेर.

दोळे उक्ते करून संतोषाक पळोवन ताका धीर आयलो.

'श्रेयाक ॲक्सीडंट जावन ताका आर जी हॉस्पीटलांत व्हेलां असो फोन आयल्लो.' अशें ताणें सांगलें.

संतोष रोखडोच हॅस्पिटलांत पावलो. भायर चवकशी करून भितर धांवलो. श्रेयाचे सगळे कपडे रगतान भरिल्ले. हाताक-तकलेक घावे जाल्ले. धोपरांकडल्यान खूबूच रगत व्हांवतालें. संतोष दोतोराक मेळ्ळो. दोतोरान ताका सगळी म्हायती दिली. पांयाचें ऑपरेशन करचें पडटलें अशेंय सांगलें. दुसरे दिसा ऑपरेशन करप थारलें. इतले म्हणसर दोग-तीग जाणांक घेवन रीमाय पावलें. श्रेयाक पळोवन रडपाक सुरवात केली. संतोषान ताका धीर दिलो. केन्ना काय ताका सकाळ जाल्यार पुरो जाल्ली. धा वरार ऑपरेशन थारलें. णवांक नर्स येवन पळोवन गेली. संतोषाची नदर घडयाळीच्या कांट्यार आशिल्ली. ताका आपलें घडयाळ बंद आसा अशें दिसलें. बरोच वेळ जालो. सगळीं दोतोराची वाट पळयतालीं. श्रेयाक ऑपरेशनाच्या दारार हाडून दवरिल्लें तरी दोतोराचो पत्तो नाशिल्लो. साडेधांक दोतोर वार्डांत आयलो. श्रेयाक ऑपरेशन थेटरांत व्हेलें. एका वरान ऑपरेशन पुराय जालें. धव्या कपड्यान श्रेयाची कूड धांपिल्ली. तोंड उक्तें आशिल्ल्यान श्रेया न्हिदलां तें जाणवतालें. हाताक प्लास्टर घातिल्लो. तकलेक पट्टी गुठलायिल्ली. ताका पळोवन भंय दिसपाचो. आई कांयच उलयनासतना धुवेक पळयताली. तें सुस्त न्हिदिल्लें. श्रेयाक पळोवन तिचे दोळे पाझरले. रडटां रडटां चादरीक पळयत रावली. चादरीवयल्यान हात ओडलो आनी तिणें एकदम किळांच मारली. संतोष जनेलाक तेंकून उबो राविल्लो. ताका कितें जालां तें कळूंक ना. फाटीं वळून ताणें रिमाच्या खांदार हात दवरलो. रिमान भियत चादर वयर काडली.... जाल्यार श्रेयाक एक पांय ना. तें सुस्त न्हिदलां आनी आई व्हडल्या व्हडल्यान रडटा. संतोषाक सगळें दोतोरान सांगिल्लें म्हूण तो इतलो वेळ ओग्गी राविल्लो. आतां ताच्याय दोळ्यांतल्यान गंगा व्हावपाक लागली.

दीस गेले. म्हयने सोंपले. कायतान एकूय दीस आपणाक मेळपाक येवंक ना अशा विचारांत श्रेया कुडींतले बंदखणींत न्हिदून दीस काडटालें. ताणें फोन सुध्दां करपाचो बंद केलो. श्रेयान फोन केल्यार फोन बंद मेळटालो. नंबर सुध्दां बदल्ला आसूं येता. आपल्याक त्रास जाल्यात तरी लेगीत श्रेया ताच्या मोगाक विसरूंक नाशिल्लें. कायतान ताका विसरिल्लो. ताणें दुसऱ्या वांगडा मोगाचो खेळ रचिल्लो. श्रेया एका पांयार उबें रावपाचो यत्न करतालें आनी कायतान दुसऱ्या वांगडा सूत जुळयत मोगाचीं सोपणां चडटालो. श्रेयाक जाणीव जाता. आवयक फटोवन आपूण चोरयां कायताना वांगडा भोवलें. ताची ख्यास्त आपूण भोगतां अशें मानून तें लंगडत घरांत भोवंक लागलें. इश्टाचो मोग पारखुना आनी आईचो मोग समजुना ह्याच विचारांत लंगडत पावलां फुडें मारीत मुखार सरतालें. आयुश्याच्या सुखा वाटेर पावल दवरीत.



# SALIENT FEATURES OF THE GOA LAND DEVELOPMENT AND BUILDING CONSTRUCTION REGULATIONS, 2010

- Clear, Concise and Illustrative Regulations applicable throughout Goa irrespective of Municipal, PDA and Rural areas.
- Land Development and Building Construction Regulations - 2010 (Unified) for Professionals and all Local Authorities.
- Easy to Browse also Covering the Environmental Factors like Rain Water Harvesting and Non Conventional Energy.
- Addressing the present day requirements for all Members of the society with due consideration to disabled friendly Public Buildings.
- Right tools for Land Development and Building Construction Activities
- An appeal provision to help general public to speedup approval process by the Dept.
- Regulations to control Hoardings introduced for the first time.
- Building auditing provision upto five years from the date of occupancy certificates to avoid unauthorized additions/alterations in buildings.

*Let us all work together to make Goa a modern futuristic State while simultaneously maintaining its pristine character.*




*Issue by :* **TCP Department**
**Government of Goa.**

*अख्ख्या 'कोळंब' गांवाच्या तरेकवार ल्हान व्हड मनशांच्या भोंवतणी केंद्रीत जावपी ह्या कथानकांतल्यान बरोवप्यान गोंयच्या इतिहासीक परिवर्तनाची लोककाणी तशाकतशी चित्रीत केल्या. ही कादंबरी वट्ट १० वाट्यांनी उबी करताना कादंबरीकारान युर्वेक कोळंब गांवच्या सैमीक शोबीतकायेची, शेतीप्रधान वेवसायाची, सांस्कृतीक गिरेस्तकायेची आनी भावशाथी मनशांची खबर सांगल्या.*



हनुमंत चोपडेकार
यशवंत नगर,
तीस्क, फोंडे - गोंय

## सैमीक जीण आनी मिनाचो धुळ हांचे मदल्या वैश्वीक संघर्शाक




## वास्तवीक शब्दरूप दिवपी अज्रंवर कोंकणी कादंबरी

# अच्छेव

**का**दंबरी हो साहित्य प्रकार कोंकणी खातीर नवो उरूक ना. ह्या प्रकारान कोंकणी साहित्याची एक पेजाद वळख पुराय भारतीय आनी पाश्चात्य साहित्य संवसाराक दिली. 'क्रिस्तांव घराबो' ही कोंकणींतली पयली कादंबरी १९११ वर्सा एदुआर्द जुजे ब्रुन द सौज हांणी बरयली. उपरांत देवनागरी, कन्नड आनी रोमी लिपयेंतल्यान जायत्यो कोंकणी कादंबऱ्यो प्रसिध्द जाल्यो. कोण कितेंय म्हणू; म्हज्या मत्तान तातुंतल्यो म्हत्वाच्यो मुखेल कादंबऱ्यो अश्यो : *संवसार बुट्टी* – शणै गोंयबाब, *आंजेल* – जे. एस. आल्वारीस, *वेलघडी* – ए. टी लोबो, *घाटा फाटलें सोत* – डोल्फी कास्सिया, *देवाच्ये कुर्पेन* – व्ही. जे. पि. साल्दाना, *वादळ आनी वारें* – आंतोनियो पेरेरा, *अच्छेव* – पुंडलीक नायक, *कार्मेलीन* – दामोदर मावजो, *हुंवार* – दत्ता श्री. नायक, *भोगदंड* – हेमा नायक, *काळी गंगा*, *युगसांवार* – महाबळेश्वर सैल, *दिका* – देविदास कदम, *घणाघाय नियतीचे* – अशोक कामत, *पोको* – नं. ध. बोरकार.

वयल्यो साबार कादंबऱ्यो म्हणल्यार कोंकणी कादंबऱ्यांच्या इतिहासांतले मुखेल वाटचिरे (milestone) थारल्यात. आशय, विशय आनी अभिव्यक्तीचे नदरेन संवसारीक कादंबरीकडेन सर्त करपाचें बळगें ह्या कादंबऱ्यांतल्यान दिसून येता देखुनूच ह्यो कादंबऱ्यो कोंकणी साहित्याचें खरें प्रतिनिधित्व करतात.

**'*अच्छेव*' – मूळ बिजा साकून कथानका मेरेन.**

कोंकणी भाशेक १९७५ वर्सा साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळ्या उपरांत १९७७ वर्सा प्रसिध्द जाल्ली ही कादंबरी म्हणल्यार कोंकणी भाशेची आनी साहित्याची एक जैताकाणीच जावन आसा. 'मीन पिकलां खाणयांनी' ह्या नांवान ती 'जागा'च्या अंकांत पयलीं प्रसिध्द जाल्ली. साहित्यीक पुंडलीक नायकाच्या गिरेस्त प्रतिभेची खरी साक्ष दिल्ले हे कादंबरीन पुराय कोंकणी साहित्याची परिभाशाच बदल्ली अशें म्हणल्यार अतिताय जांवचिना. हे कादंबरीन रसिक वाचकांक, समिक्षकांक आनी अभ्यासकांक जे तरेन अजापीत करून चितूंक लायलें ते तरेचें भाग्य हेर खंयच्याच कोंकणी बरोवप्याक हाचेपयलीं मेळूंक नासलें. ऑक्सफर्ड युनिव्हर्सिटी प्रेसान ही कादंबरी इंग्लिशींत अणकारीत करून छापल्या. हाचेंवयल्यान तिचें मोल मतींत येता. त्यान भायर गोंय विद्यापीठ, धारवाड विद्यापीठ, कर्नाटक हांच्या उंचेल्या पांवडयावेल्या अभ्यासक्रमांनी हे कादंबरीचो आस्पाव जाला हिवूय जैता-काणीच. गोंयच्या सामाजीक, पर्यावरणीय आनी सांस्कृतीक मळावेली इतिहासीक घडणूक घेवन जल्माक आयिल्ली ही कादंबरी आयज गोंयाक सतावपी मुखेल प्रस्नाक वाचा फोडटा. ३५-४० वर्सां पयलीं गोंयांत घडून गेल्ल्या

सामाजीक आनी पर्यावरणीय परिवर्तनाची सत्यकाणी ही कादंबरी सांगता. गोंयांत पयलेच फावट मिनाचो धंदो येतकच पारंपारीक शेतवड, पारंपारीक वेवसाय धंदे आनी पारंपारीक सैमीक लोकजीण कशी विस्कळीत जायत गेली ह्या गोंयच्या इतिहासीक दस्तावेजाची काळीज तोडून उडोवपी कलात्मक अभिव्यक्ती म्हणजेच 'अच्छेव'.



हे कादंबरीचें जितलें अध्ययन आनी संशोधन जालां तितलें हेर कोंकणी कादंबरीचें जावंक ना. डॉ. प्रकाश वजरीकारान अच्छेव आनी कार्मेलीन ह्या कादबरींचो सामाजीक नदरेंतल्यान अभ्यास केला, जाल्यार डॉ. विद्या पै हांणी अच्छेव हे कादंबरीचो "The Upheaval' ह्या नांवान इग्लिशींत अणकार केला. गोंय आनी गोंया भायल्या जेश्ठ समिक्षकांनी तांचे हे कादंबरीची तोखणाय केल्या. तातूंत प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय, डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार, डॉ. अशोक मणगुतकार, डॉ. किरण बुडकुले, डॉ. मारिया आवरोरा कुटो, श्री दामोदर मावजो, श्री. एस. डी. तेंडुलकार, एम. विजयालक्ष्मी, श्री. ब्रायन मेंडोन्सा, मिनी क्रिष्णन, डॉ. प्रकाश वजरीकार तशेंच मनोहर शेट्टी हांचो आस्पाव आसा.

**अच्छेव कथानका साकून संघर्शा मेरेन**

हे कादंबरीचें विश्लेशण करतना तिच्या साबार आयामांचो सखोल अभ्यास अपेक्षीत आसा. कारण फकत कथानक, पात्रचित्रण, संवाद रचना, वातावरण निर्मिती, निवेदन शैली, भाशाशैली, संघर्श, शेवट इतल्या पुरतोच तिचें विश्लेशण करपाक मेळना तर हेर जायते सामाजीक, सांस्कृतीक, पर्यावरणीय आदी नदरेंतल्यान मूळ आशय विशयाची अभिव्यक्ती कशी जाल्या आनी तातुंतलीं जीवनमुल्यां तशेंच सामाजीक मुल्यांचो सोद हांगा घेवंचो पडटा.

*अच्छेव* हे पुंडलीक नायक हांणी रचिल्ले कादंबरीचें कथानक 'कोळंब' नांवाच्या गांवांत घडटा. हो गांव फकत निमित्ताक कारण. खरें म्हणजे ३५-४० वर्सां पयलीं गोंयच्या असंख्य गांवांनी घडिल्ल्या सत्य घटनेंची काणी बरोवप्यान हे कादंबरींत अभिव्यक्त केल्या. अख्ख्या 'कोळंब' गांवाच्या तरेकवार ल्हान व्हड मनशांच्या भोंवतणी केंद्रीत जावपी ह्या कथानकांतल्यान बरोवप्यान गोंयच्या इतिहासीक परिवर्तनाची लोककाणी तशाकतशी चित्रीत केल्या. ही कादंबरी वट्ट १० वाट्यांनी उबी करताना कादंबरीकारान सुर्वेक कोळंब गांवच्या सैमीक सोबीतकायेची, शेतीप्रधान वेवसायाची, सांस्कृतीक गिरेस्तकायेची आनी भावराथी मनशांची खबर सांगल्या. जाल्यार उपरांत मिना धंद्याचो आरंभ जातकच घडटल्या परिणामांचो वास्तवीक कथा-पट प्रस्तूत केला.

कोळंब ह्या गांवांत आपली शेती-प्रधान लोकजीण जगतल्या आनी तातूंत धादोशी आशिल्ल्या लोक समुदायाची ही काणी. हे काणयेंत बरोवप्यान पंढरी आनी ताच्या कुटुंबाक केंद्रबिंदू धरला. पंढरी, ताची बायल रूक्मिणी, चेडो नानू आनी चेडूं केंसर हांच्या भोंवतणी हे कादंबरीचें कथानक घुंवता. त्यानभायर गांवचो आदारवड आबू, शाळेंतलो मास्तर, लंपट आनी संदीसादू बाबूसो, पंढरीचो भाचो नरसिंव, यसो, यश्याचो चेडो शंकर, मायनीवेलो ड्रायवर मानुएल अशीं हेर कितलींशींच पात्रां ह्या कादंबरीच्या मूळ कथानकाक आकार दियत वतात.

कादंबरीचे सुरवेक बरोवपी कोळंब गांवाची सैमीक गिरेस्तकाय, शेतवड, कश्टकरी मनशां , तांचे उत्सव, दुसऱ्यांच्या बऱ्या-वायटाक पावपाची वृत्ती, भावपण, जाण्टयांचो आदर, मानमर्यादा, सवस्थकाय आदी मांडपाचो यत्न करता. पंढरीच्या घराब्याचें निमित्त सादून कादंबरीकार हांगा समस्त कोळंब गांवच्या कुटुंबांची देख दिवंक सोदता. आनी उपरांत मिनाच्या धंद्यांतलो पयसो पळोवन पंढरीच्या कुटुंबाचेर आयिल्लीं तरेकवार संकश्टां दाखयता. पयलीं आपल्या शेतांतली पेरणी वा हेर कसलेंय काम सोडून हेरकडेन खंयूय वचपाचो विचार लेगीत करी नाशिल्लो पंढरी बाबूशाचे संगतींत पडून आपल्या बैलगाडयेक घेवन मिनाच्या वावराक वयता आनी करतां करतां आपल्या पुराय कुटुंबाक मातयेभरवण करता हाचीच काणी 'अच्छेवां'त आयल्या. 'अच्छेव' हे कादंबरीचें कथानक गोंयच्या सामाजीक, सांस्कृतीक आनी पर्यावरणीक समस्येच्या मुळाक हात घालता. आयज ह्या मळांचेर जे मुखेल प्रस्न उबे रावल्यात ते कशे जल्माक आयले ताची उस्तवारी *अच्छेवा*त आयल्या.

पात्रचित्रणांत आबू आनी मास्तराच्या रूपान बरोवप्यान ह्या समाजाक उजू चलणूक दाखोवपाचो यत्न केला. समाजांतल्या रासवळ विचारामुखार सत्य सांगपी एखादो आवाज कसो चिड्डुत रावता तेंच सत्य हांगा दिसून येता. जगांतल्या सगळ्याच मळांचेर अशेंच कितें तरी घडटा आसूं येता. हें कथानक गांवागिरें आसलें तरीय उध्देगीकरणाच्या जंजाळांत सांपडिल्ल्या असंख्य जनसमुदायांचें संवसारीक दुखख तातूंत आयलां. संवसारांत जंय जंय असले नवे दुडवांचो शिवर करपी उपक्रम सुरू जातात थंय थंय नवे प्रस्न उप्रासतात हाची देख *अच्छेव* दिता. त्या मानान ही एक प्रादेशीक कादंबरी उरनासतना वैश्विक कादंबरी थारता.

पुंडलीक नायकांच्या हे कादंबरीची आनीक एक खाशेलताय म्हणल्यार तातुंतले सुचक संवाद. तशें पळोवंक गेल्यार संवाद हे खंयच्याय कथात्मक ललित साहित्य प्रकारांचे एक मुखेल आंग. ह्या आंगाचे वाडीकडेन बरोवपी जितल्या गंभिरपणान लक्ष दिता तितलेंत तें आंग घटमूट आनी सोबीत जाता. कादंबरीकार पुंडलीक नायकाक तें बरें सादलां. गांवगिरी पात्ररचना आनी तांच्या तोंडाचेर तसलेच गांवगिरे संवाद रचून तांणी विंगड विंगड व्यक्तिरेखा उब्यो केल्यात. *अच्छेवा*तलीं तरेकवार पात्रां चित्रायताना कादंबरीकारान आपली उत्कृश्ट निवेदनशैली वापरल्याच पूण ताचेपरस तांचे सूचक आनी आकर्शक संवाद त्या त्या पात्राच्या सर्वांगीण अभिव्यक्तीक पुरक थारल्यात. तांणी रचिल्ल्या संवादातल्यान पंढरी, आबू, नानू, केंसर, बाबुसो, देवकी, मास्तर, शंकर, नरसिंव, मानुएल आदी पात्रां चड बरे

रितीन स्पश्ट जायत वतात. खासाकरून पुंडलीक नायकांच्या 'टिपिकल' संवादांतल्यान विविध व्यक्तिरेखेचें मानसीक चित्रण चड बरें जालां.

**अच्छेवांतले संघर्श**

१. सैम आनी मनीस हांचे मदलो दिसपट्टो संघर्श
२. सैम आनी धुल्ल हांचे मदलो व्यवसायीक संघर्श
३. पारंपारीक लोकसंस्कृती आनी आधुनिकता हांचे मदलो संघर्श
४. निती आनी अनिती हांचे मदलो संघर्श
५. गिरेस्त आनी गरीब हांचे मदलो संघर्श
६. भांडवलशाय आनी कश्टकरी हांचे मदलो संघर्श
७. बापूय आनी चलो हांचे मदलो पिढिजात संघर्श
८. बायलमनशांचो भावनीक आनी मानसीक संघर्श
९. श्रध्दा आनी अंधश्रध्दा हांचे मदलो संघर्श
१०. खरें आनी लटीक हांचे मदलो संघर्श

**_अच्छेव_ – संघर्शा साकून मानवीय घुस्मटमारा मेरेन**

*अच्छेव* कादंबरींतलीं पुरूश पात्रां आनी स्त्री पात्रां हो एक वेगळो अभ्यासाचो विशय. *अच्छेवांत* जायतीं पात्रां आयल्यांत. तीं जगताना वेदनेचें घोंगेवपी मोड घेवन जगता काय कितें अशें दिसता. कारण तांचो आंतरीक घुस्मटमार कादंबरीचो प्राण थारला. हांगा पंढरी, रूक्मीण, केंसर, नानू ह्या व्यक्तिरेखें भायर सगळ्यांत चड मतींत उरता तो आबू. हे कादंबरींतलें एक मुखेल पात्र म्हळ्यार 'आबू'. आबू गांवांतलो एक जाण्टो मनीस. तो हातांत दांडो घेवन चलता. पूण अख्या गांवाक सांबाळटा. सगळ्या गांवचो ताका हुस्को. आबू तसो एकटोच. ताका घर सारखें ना. घरचीं नांत. लागशिल्लींय कोण नांत. पूण तो सगळ्या गांवचो. आपली पुराय जीण तो गांवच्या बऱ्याखातीर घालोवंक सोदता. शेतां-भाटांचेर, भुरग्याबाळांचेर, दादल्या-बायलांचेर सगळ्यांचेर तो नदर दवरता. भुरगीं शिकून मोठीं जावपाक जाय, गांवचें गांवपण सारकें चलपाक जाय, गांवांतल्या मनशांचें नैतिकपण बरें उरपाक जाय. अशा जायत्या गजालींचो हुस्को ताका आसा. शाळेंत भुरगीं वचनांत तेन्ना चौकेर जमिल्ल्या बायलांक तो शिटकायता–

**'तुमकां बायलांक सांगतां. भुरग्यांक आमच्या सारखे रेडेच दवरपाचे आसात जाल्यार बारापासून न्हिदयात तेंकां शेजेर. मागीर लोकपाक खळयो आनी तळें आसाच केलद्यांक! फायच्यान सगळ्यांक फांतोडीर उठोन धालूंक जाय.'**

हांगा आबूची भुरग्यांची आनी तांच्या फुडाराची तळमळ दिश्टी पडटा. शेतां पडींग दवरून मिनाच्या धंद्याक वचपी पंढरीक तो आडायता. पूण पंढरी ताचें कानामनार घेना. गांवचें देवस्पण करताना ताका आनी घाडयाक जी आजनेर जाता तितूंतच तो इल्लो इल्लो सोंपता. आपल्या दोळ्यादेखत अख्खो गांव रसातळाक वता तें ताच्यान पळोवं नजो जाता. तेच चिंतेन तो मरता.

अख्ख्या गांवाची चिंता करपी आबू जेन्ना मरता तेन्ना ताका खांद मारपाक चार मनीस मेळनांत. दर एकल्याक आपल्या दिसवड्याचें पडिलें आसता. शेवटाक मास्तर स्वता शंकराक आनी सोऱ्याकार बाबुशाक घेवन आबूक व्हरून तळ्याकडेन पुरता. बरोवपी पुंडलीक नायकाचो हो आबू मनिसपणान वागपी कोळंबांतलो निमणो मनीस. ताचें व्यक्तीचित्रण बरोवप्याक बरें साधलां.

मास्तर हें *अच्छेव* ह्या कादंबरींतलें आबू उपरांतचें एक म्हत्वाचें पात्र. मास्तर मूळ गांवान वळवळयचो. कोळंब गांवच्या लोकांनी आनी खास करून आबूचे मान्यतायेन ताका गांवच्या भुरग्यांक शिकोवपाक हाडिल्लो. दर पिकेक ताका भुरग्यांच्या घरच्यांकडच्यान भात दिवंचें ही येवजण आसली. भुरग्यांक शिकोवप, भजन, नाटकां वा गांवांतले हेर सांस्कृतीक कार्यक्रम बसोवप अशीं जायतीं कामां तो करतालो. मितभाशी, संयमी आनी उजू चलणुकेचो मनीस म्हूण ताचो परिचय हे कादंबरींतल्यान आमकां घडटा.

जेन्ना नानू सारखे भुरगे बापायच्या दुडवांच्या हावेसान मिनाच्या वावराक वतात तेन्ना तो फुडाकार घेवन भुरग्यांच्या पालकांक समजोवपाचो यत्न करता. पूण ताका थंयसावन अपमानीत जावन वचचें पडटा. सगळे अपमान सोशीत तो कोळंबाच्या फुडाराक जपपाचो खूब प्रयत्न करता. पूण आबू उपरांत तो धीर सोडटा आनी तो गांव सोडून आपल्या मूळ गांवघरा म्हळ्यार वळवय वता. *अच्छेवांत*ल्या आबू ह्या पात्राक जितलें म्हत्व आसा तितलेंच म्हत्व मास्तर ह्या पात्राक आसा. मास्तराच्या तोंडार बरोवप्यान चड संवाद घालूंक ना खरे पूण तो उलयनासतनाच खूब कितें उलोवन वता. मास्तराचीं जायतीं रूपां आमकां हांगा हे कादंबरींत दिसून येतात. तातुंतलीं मुखेल म्हळ्यार – सुसंस्कृत मास्तर, सुसभ्य मास्तर, कलाप्रेमी मास्तर, संगीतप्रेमी मास्तर, शिक्षणप्रेमी मास्तर, मनीसपणान भरिल्लो मास्तर.

हे कादंबरींतल्या पंढरीचो चलो नानू. नामदेव ताचें नांव. पूण नानू म्हुणूनच तो फामाद. ल्हानपणांत ताका शिकपाची भोव आवड. शेतांत बापायच्या वांगडा कामाक वताना ताका उमेद भोगता. आपलें घर, गांव, शेत, दोंगर, शाळा, मास्तर, हांचेर ताचो भावार्थ. एक सप्नाळू भुरगो म्हूण नानू आमच्या दोळ्यां मुखार येता खरो पूण मिनाचो धंदो मूळ धरता तसो तसो नानूच्या सपनांचो चुरो जायत वता. आपली भयण केंसराची वायट खबर कळटकच तो घरा येता. कुटुंबाचेर आयिल्लें अरिश्ट निस्तुपाक सोदता पूण जेन्ना केंसर मानुएला वांगडा पळून वता तेन्ना तो आवय बापायचो आदार जावन घर सांबाळूंक सोदता. ताचो चित्रकार इश्ट शंकर गांवांत येता तेन्ना तो शंकराक मेळटा. शंकराक तो दुसरे दिसा मेळपाचें उतर दिता पूण मायनीर अपघातांत ताचो अंत जाता. नानू हें पात्र मायनीगांत बळी पडिल्ल्या सगळ्यांत पयल्या तरन्या रक्ताचें प्रतिक जावन हे कादंबरींत येता. बरोवपी नानूक उबो करतना ताचें शारिरीक, मानसीक, भावनीक आनी लौकीक व्यक्तिमत्व आमकां उगडून दाखयता. आयज गोंयच्या साबार गांवांनी मिनाच्या धुल्लांत घुस्मटपी असंख्य नानूंचें दुख्ख ह्या नानू परस वेगळें कशें म्हणू येता.....!

रुक्मीण, केंसर आनी देवकी ह्या स्त्री व्यक्तिरेखांचेर नदर मारीत जाल्यार असल्या रसातळाक वचपी मानवीय इतिहासांत बायलांच चड सोंसतात हांचो दिश्टावो वाचकाक परत एकदां घडटा. 'अच्छेवां'तल्यो ह्यो अस्तुऱ्यो दुर्देवाच्या चक्रव्युहांत सापडटात. खासा करून तांचो शारिरीक, भावनीक

आनी मानसीक छळ पुराय कादंबरीक एक नवी गती दिवपाक यशस्वी थारता. गांवागिरेंपण, मायनींग सुवातेवेलें मायनींगपण आनी भोंवतणचे परिस्थितीचें चेंपण तांच्या जिणेंतल्यान उक्तें जाता.

**अच्छेव – घुस्मटमारा साकून**
**वेदनेच्या कलात्मक आविश्कारामेरेन**

मनशां जें जिवीत जगतात तातुंतल्या वेदनेचो संघर्शात्मक कलाविश्कार हो कथनात्मक साहित्य प्रकाराचो प्राण जावन आसता. कथा आनी कादंबरी ह्या साहित्य प्रकारांनी तो मुखेलतायेन दिश्टी पडटा. हो संघर्शूच पुराय कादंबरीक वा कथेक उत्कंठावर्धक पांवड्यार हाडून सोडटा. संघर्श नासत जाल्यार हे साहित्यप्रकार अळणी आनी पचपचीत जावन बसतले. अच्छेव हे कादंबरींतलो संघर्श आपले भितर आनीक कितलेशेच बारीक संघर्श घेवन मुखार सरतात. मुखेलतायेन गोंयच्या गांवांतली पारंपारीक जीण आनी मिनाच्या वेवसायांतलो 'धूळ्ळ' अशा मुखेल संघर्शातल्यान हे कादंबरींत हेर कितलेशेच संघर्श वयर सरतात. ही कादंबरी ह्या विंगड विंगड तरेच्या संघर्शांक वाचा फोडटा. गांवाची लोकजीण आनी मिनाच्या धंद्यान निर्माण केल्ली कृत्रिम लोकजीण अशा दोन सुत्रांनी सगळी समाजवेवस्था वाटून वता. तातुंतल्यानूय जे नवे प्रस्न जल्म घेतात ताचीच संघर्श–काणी म्हणल्यार 'अच्छेव'....

अलौकीक कलात्मकताय ही कादंबरीची खेरीत वळख. हे कादंबरींत ती पावला कणकणी प्रगट जाल्ली दिसता. गोंयच्या सामाजीक मळाचेर जाल्ल्या व्हड आघातांची ही वास्तवकाणी बरोवन बरोवप्यान एक तरेन गोंयच्या त्या वेळावयल्या समाजवेवस्थेची आनी थंय घडिल्ल्या अमानवीय नकलामींची दखल घेतल्या. लेखकाचे जिवे निवेदनशैलीक लागून *अच्छेवांतलें* कथानक आमचे मुखार प्रत्यक्ष घडत वता अशें दिसलेबगर रावना. बरोवपी पुंडलीक नायकान आपली सगळी प्रतिभा कसाक लावन अतिशय फिशालकायेन हे कादंबरीची निर्मिती केल्या. कोळंबांतल्या पंढरीच्या कुटुंबाची ही काणी वाचकाक सहजतायेन आपलेवाटेन ओडून घेतनाच ताका अंतर्मुख करून चिंतूक लायता.

'अच्छेव' ही एक गांवगिऱ्या वातावरणांत घडपी कोंकणी कादंबरी. हें वातावरण शारापासून पयस अशा सुपुल्ल्या गांवांतलें. ३०–४० वर्सां पयलीचो कालखंड आनी तांतल्या तातूंत गांवगिरो वाठार, थंयचीं अशिक्षीत मनशां, तांची पारंपारीक लोकजीण, चाली–रिती, लोकविश्वास, ग्रामसंस्था, उत्सव–परबो आनी तातूंत घडपी जिवघेणें विध्वंसक परिवर्तन ह्या सगळ्या घडणुकांनी ही कादंबरी व्यापून गेल्या. बरोवप्यान त्याच कालखंडांत स्वता त्या वाठाराचो अभ्यास आनी निरिक्षण करून बरयल्ली ही कादंबरी. तो वाठार, तीं मनशां, तो मिना–धंदो, तो आबू, तो पंढरी, ती रूक्मिणी, तें केंसर, ती देवकी हांकां चित्रायताना बरोवप्याचे अणभव आनी कल्पनाशक्ती कसाक लागल्या.

हे कादंबरींतल्यान बरोपवी पुंडलीक नायक विसाव्या शेकड्याच्या दुसऱ्या अर्धांत गोंयांत मूळ धरपी मिनाच्या धंद्यांतल्यान उप्रासपी साबार प्रस्नांक वाचा फोडटा. मिनाचो दुडू दिवपी वावर शेतां–भाटां पडींग उडोवन मनशां मदल्या नात्यांचेर, मानवी मुल्ल्यांचेर आनी भोंवतणच्या सैमाचेर परिणाम सादता. हें कादंबरीचें मूळ सूत्र. हें व्यक्त करपाक बरोवप्यान तरेकवार पात्रांचो आदार घेतला. तातुंतलीं मुखेल पुरूश पात्रां अशीं आसात.

बरोवप्याची पुराय लेखनशैली इतली पेजाद आसा की, तो आपल्या शब्दसामर्थ्याच्या आनी प्रतिभेच्या बळग्याचेर गोंयांतली ही दगदगती वास्तवकाणी तशाक तशी कादंबरींत उबी करता. पुंडलीक नायकान आपल्या निवेदनशैलींत जायत्या म्हणींचो वा ओपारींचो, लोकगीतांचो उत्कृश्ट वापर करून गांवच्या वातावरणाची निर्मिती केल्या. सैमीक चित्रण आसूं, मिनाच्या खणीवेलो देखाव आसूं, पात्रांचें आंतरीक दर्शन आसूं वा पात्रांचें बाह्यीक तशेंच मानसीक चित्रण आसूं ह्या बरोवप्यान आपले लेखनशक्तीचो अतिशय कलात्मक उपेग करून एक परिपक्व तशीच अव्वल कादंबरी कोंकणी साहित्याक दिल्ली आसा.

पुंडलीक नायक हे स्वता ह्या इतिहासीक सत्याचे साक्षिदार. तांणी गोंयच्या समाजांतलें तें विध्वंसक पर्व पळयलां. आपलोच गांवचो लोक, भुरगीं–बाळां, दादले–बायलो, झाडां–झुडपां, शेत–शेतवड, भाटां–कुळागरां, व्हाळ–न्हंयो, देव–देवस्पण, लोकजीण, लोक–संस्कृताय मिनाच्या धुल्लांत कशी इबाडत गेली हेंवूय तांणीं अणभवलां. शेतां–भाटांक फाट करून दुडवांचे आशेन मिनाच्या धुल्लांत मातये भरवण जाल्ले आपलेच गांवभाव तांणीं दुखेस्त मनान हे कादंबरींत चितारल्यात. तांच्या सुख–दुख्खां कडेन एकरूप जावन तांचीच कर्मकाणी ताणी शब्दबध्द केल्या. कोळंब हो गांव, गांवचीं भोळीं–बाबडीं मनशां, तांचे वाकडे तिकडे अडाणी विचार, गरिबी, लाचारी, व्यसनाधिनता, बरे वायट संबंद, तांची पारंपारीक लोकजीण, लोकोत्सव, शिगमो, धालो, लग्नसमारंभ, बारशे, मर्णा प्रसंग, विघटक ग्रामसंस्था अशा साबार गजालींचो सखोल आलेख ही कादंबरी घेता. गांवचें गांवपण शेणत वता तें पळोवन खंती जावन तें जाग्यार घालपाक सोदपी आबू, शाळेंतलो मास्तर आनी शंकरा सारखीं पात्रां जशीं हे कादंबरींत आसा तशींच गावचें, घरादाराचें निसंटाण करपी पंढरी, नानू, मानुएल सारखींय पात्रां बरोवप्यान हांगा उबीं केल्यांत.

आर्थीक सुबत्ता हाडपी मिनाचो धंदो येतकच गोंयच्या पर्यावरणातूच प्रदुशण मातलें अशें न्हय तर सामाजीक, सांस्कृतीक आनी मनशाच्या वैयक्तीक पावंड्यारूय अनैतिकतायेंचें महाप्रदुशण कशें मातत गेलें ताच्यो देखी ही कादंबरी दिता. तशेंच मनशामदलें मनीसपणूय कशें शेणत गेलें हाचीय उस्तवारी बरोवप्यान हे कलाकृतींत केल्ली आसा. आयचे घटकेक गोंयच्या राजकीय, आर्थीक, सामाजीक, सांस्कृतीक आनी पर्यावरणीय समस्यांचें मूळ सोदपी ही साहित्यीक कलाकृती आसा. ती फुडाराचो वेद घेवपी प्रतिभावंत कोंकणी लेखक पुंडलीक नायक हांची दिव्यदृश्टी दाखयता. खऱ्यानीच.. सैमीक जीण आनी मिनाचो धुल्ल हांचे मदल्या वैश्वीक संघर्शाक वास्तवीक शब्दरूप दिवपी *अच्छेव* ही एक अव्वल आनी अप्रतीम कोंकणी कादंबरी जावन आसा.



*पुताच्या बेडरुमाच्या तेर्रासार उदकाची टाकी आसा. बारा वरांचेर उदक चड फोर्सान आयिल्ल्यान टाकी भरून ओतपाक लागली. टाकी ओवरफ्लो जाली काय एका लांब पायपावाटयां उदक व्हाळाच्या मदीं पडपाची सोय केल्या. कोणें तरी व्हाळांत एक फॉयल-पत्रावळींचो चोंबो उडयल्लो. पायपांतलें उदक जुस्त ह्या फॉयल पत्रावळीचेर पडटालें आनी ताचो ग्रील्स कापिल्लेवरी आवाज जातालो.*



**अपर्णा गारुडी**
शिवोली – गोंय
मो. : ८८०६३०८०९३



# चोर येता तेन्ना...!

**चो**रांक चान्याचो हुस्को आनी मनशाक चोरांचो. ही ओंपार न्हय. हो अणभव! 'भित्या पाठी ब्रह्मराक्षस' अशी मराठींत म्हणणी आसा. चड भिता ताचे फाटल्यान कसलोय हावको चड लागता. म्हाका चान्याचो आनी रातीचो भंय केन्नाच दिसलो ना. हांव मध्यान रातीं केन्नाय उठून चान्नें पळयतां. तशें पळोवंक गेल्यार हालीं चडश्या लोकांक सगलीं कामां आटापून न्हिदपाक वता म्हणसर मध्यानरात जाताच. आमगेर सगलीं जाणां धा-साडेधांक जेवन न्हिदतात. पूण हांव आनी म्हजो पूत रातच्या बारा पयलीं केन्नाच न्हिदनांत. सगलीं न्हिदलीं, वातावरण शांत जालें काय धा उपरांत म्हजें वाचपा-बरोवपाचें काम सुरू जाता. हेच वेळार पूत ताचे कुडींत अभ्यासाक सुरवात करता.

फाटल्या म्हयन्यांतली गजाल. फाटोफाट ७-८ दीस सेगीत शिवोले चोरयो जाल्यो. एक दुकान, चार फ्लॅट आनी दोन बंद घरां फोडलीं. आमच्या घरा सावन पाचशीं मिटराचेर आशिल्लें एक घर चोरांनी फोडलें, तेन्ना चोर लागीं पावल्यात ह्या हुस्क्यान सगल्यांनीच चोरांचो धसको घेतलो. हे चोरये उपरांत आलमारीक चावयो करप, त्यो लिपोवन दवरप, दाराच्यो खिळयो धा फावटीं तपासून पळोवप, गेटीक भायल्यान, भितरल्यान लॉक घालप असलीं म्हत्वाचीं कामां सुरू जालीं. कांय दीस वाड्यावेले सगलेच लोक भियेवन दीस काडटाले. गाडयांचें पॅट्रोल चोरयेक वचप सदचेंच जाल्लें. पॅट्रोलचोर रोखडेच सापडले कारण ते गांवांतलेच तवनास भुरगे आशिल्ले. मागीर साककार, लोखंडकार बी येवंक लागले. दिसा उजवाडीं पोरसां आंगणांत सुकतले दोरयेवयले कपडे ना जावंक लागले. हालीं तेंपार बांदकामां वाडिल्ल्यान कर्नाटकांतले, उत्तरप्रदेशांतले मानाय वाडूंक लागल्यात. आंगणांतलें सामान, झाडाच्यो पोपायो, निरपणस, नाल्ल ना जावंक लागल्यात. घरदार उक्तें घालून सुशेगाद वाड्यार भोंवपी आमी शेजरा वतना लेगीत दाराक चावी करपाक लागलीं. ल्हान ल्हान चोरयांचो केन्नाच भंय दिसलो ना. पूण घरां फोडून, खून करून जेन्ना चोरयो जावपाक लागल्यो तेन्ना मात सादूर रावचेंच पडलें. घरा कोणूय सोयरो-इश्ट आयलो जाल्यार आपल्या वाठारांतल्या चोरयांची गजाल मीठ-मिरसांग लावन सांगी. मागीर आमी ते दिसाची रात त्याच हुसक्यान सारतालीं. एक दीस असोच एक सोयरो येवन गेलो. ताणें ताच्या गांवांतले चोरयेची गजाल सांगली. ती खूब भयानक आशिल्ली. ते राती आमी चोराचो धसकोच घेतलो. जेवणां वेळार चोराच्यो आनी चोरयेच्योच गजाली केल्यो. साडे धा वरांचेर सगलीं आपापले कुडींत न्हिदपाक गेलीं. पूण प्रत्येकाच्या मनांत चोरान घर केल्लें. म्हजो पूत वयले माळयेर ताचे कुडींत सदचेवरी अभ्यासाक बसलो. म्हजी आवय तिचे कुडींत न्हिदपाक गेली. हांव म्हजे कुडींत आयलें. पळयत जाल्यार 'आमचो हो' सुस्त न्हिदिल्लो ताच्या चेऱ्यार कसलोच हुस्को नाशिल्लो. हाच्या इतलो 'सुखी प्राणी'

संवसारांत दुसरो आसचो ना अशें म्हाका त्या खिणाक दिसलें. केन्नाय ताका हांव विचारतां, "तुका कसलोच हुस्को नासता. तूं पांच मिनटां भितर इतलो सुस्त कसो न्हिदता? फाल्यां चोर येवन घर लुटून गेलो जाल्यार तुका पत्तो लागचो ना."

हाचेर ताची जाप तयार आसता.

"तेन्नाचें तेन्ना पळोवया. संवसारांतले सगले हुस्के तुवें आपल्या माथ्यार घेतल्यात. मागीर हांव आनीक कित्याक हुस्को करूं? जें घडपाचें आसा तें चुकना. जितलें नशिबांत आसता तितलेंच मेळटा. शांतपणान स्वीकारपाचें. ठेविले अनंते तैसेची रहावे!" हीं ताचीं आवडटीं वाक्यां आतां म्हाका पाठ जाल्यांत. देखून ताका हांव कांयच विचारिना. पूण ताचे सारको विचार हांव करपाक शकना. सोयऱ्यान मनांत घाल्लो चोर कसोच हालना जालो. न्हीद पडना जाली. हांव पुस्तक वाचीत बसलें. घराच्या चारूय वटेनच्यो भायल्यो लायटी आमी रातीं पेटत दवरतात. चोराच्या हुस्क्यान म्हजें लक्ष भायल्या आवाजाचेर आशिल्लें. हांवें घडयाळ पळयली. रातचीं साडेबारा जाल्लीं. पुताच्या बेडरुमांतली लायट पेट्टाली. म्हणचे तो जागो आशिल्लो. हांवें परत नदर पुस्तकांत घाली. इतल्यान विचित्र आवाज कानार पडलो. कर्रऽऽ कर्रऽऽ कर्रऽऽऽ कर्रऽऽऽ आवाज येतच रावलो. चोर खंयचे तरी ग्रील्स कापता आसतलो. हांवें अदमास केलो. ल्हवूच हाका उठोवपाचो यत्न केलो. हो अर्द झेमेंतल्यान जागो जालो आनी म्हणपाक लागलो 'दार भितरल्यान धांपलां मुगो? न्हीद तूं आतां. कांय हुस्को करूं नाका.' म्हणीत कूस पर्थून न्हिदलो. मागीर हांव पुताच्या बेडरुमांत गेलें. ताका म्हटलें, "तुवें ग्रील्स कापपाचो आवाज आयकला?" ताणें म्हटलें, "हय गो मम्मा हांवूय तेंच सांगपाक तुजेकडेन येतालों."

आमच्या घरामुखार गेट आसा. गेटी भायल्यान न्हंयेचो एक फाटो व्हाळाच्या रुपान व्हांवता. ते वटेच्यानूच आवाज येतालो. पुतान म्हणलें, "मम्मा ग्रील्स कापपाचो आवाज येता. पूण भायल्यो लायटी पेट्टात मुगे. हांव भायर वचून पळोवं?"

हांवें म्हळें, "ना. भायर वचप ना. वेळ-काळ सांगपाक येना. दुसरो कसलो तरी आवाज आसूं येता! आमी थोडो वेळ रावन पळोवया." साडे बारांचीं दोन वरां जालीं तरी आवाज येतच रावलो. हांव आनी पूत टकटकीत जागे. 'आवाज कसलो' हाचेर ल्हवू भासाभास. निमाणेकडेन पुतान म्हळें, "मम्मा चोराक ग्रील्स कापपाक देड वर लागलें जाल्यार तो चोरी केन्ना करतलो? चोर आशिल्लो जाल्यार देड वरान गेटच न्हय ताचीं सगलीं जनेलां कापून जावपाचीं. कित्याक भियेता?" म्हणीत ताणें वयल्या गॅलरीचें दार सवकासायेन उगडलें. हांवें व्हडलो दांडो हातांत घेतलो. ताणें आपली 'लाठी' घेतली. (ताका लाठी चलोवपाक येता) आवाज करी नासतना आनी लायट पेटयनासतना आमी गॅलरींत आयलीं. नदर पावता थंय मेरेन लक्ष दिवन पळयलें. मुखेल गेटीकडेन कोणूच नाशिल्लो. खंयचेच वटेन कोण दिश्टी पडूंक ना. आवाज मात लागीं येतालो. वाजेवन आमी गॅलरीचें दार धांपलें.

"मम्मा चोर बीर कोण ना. खंयच्या तरी जनावरांचो आवाज आसतलो. (आमच्या वाठारांत रातीचें संगीत कशें किरकिरे, सुणीं, माजरां, कोले आनी घुघूम हांचे आवाज काळखांत भरसल्ले आसतात.) न्हीद तूं. हांवूय न्हिदतां."पुतान म्हटलें. म्हाका ताचें म्हणणें पटलें. हांव न्हिदपाक गेलें. पूण आतां आवाज चड चड येवपाक लागलो आनी न्हीद पडना जाली. निमाणेकडेन उठलें. घरांतल्यो भितरल्यो-भायल्यो आसा तितल्योय सगल्यो लायटी पेटयल्यो. शेजारच्या घरांत म्हज्या बापोल जावेक फोन करून उठयली. आवाज आयकपाक सांगलो. आवाज आयकून तिणें आपल्या पुताक उठयलो. सगल्यो लायटी पेटयल्यो. हांवें एक दांडो घेतलो, पुतान लाठी घेतली आनी व्हड धिरान फाटलें दार उगडलें. तेवटेन दांडे घेवन म्हजी जाव आनी पुतणयो. हेवटेन हांव आनी पूत लायटीच्या चकचकीत उजवाडांत चोरांक धरपाक ल्हवू ल्हवू आवाजा दिकेन वचपाक लागलीं. ताचे उपरांत आमी जे पळयलें, तें पळोवन हातांतले दांडे गळून पडले आनी आमी रातीच्या तीन वरांचेर पोट फुटसर हांस हांस हांसलीं.

ताचें अशें जालें, पुताच्या बेडरुमाच्या तेर्सासार उदकाची टाकी आसा. बारा वरांचेर उदक चड फोर्सान आयिल्ल्यान टाकी भरून ओतपाक लागली. टाकी ओवरफ्लो जाली काय एका लांब पायपावाटयां उदक व्हाळाच्या मर्दीं पडपाची सोय केल्या. कोणें तरी व्हाळांत एक फॉयल-पत्रावळींचो चोंबो उडयल्लो. पायपांतलें उदक जुस्त ह्या फॉयल पत्रावळीचेर पडटालें आनी ताचो ग्रील्स कापिल्लेवरी आवाज जातालो. आमी व्हाळांत देवन तो पत्रावळींचो चोंबो फुडें धुकलपाक लागलीं. कारण आवाजान न्हीद पडप शक्य नाशिल्लें. दोळ्यांत झेम भरिल्ली. पुतान म्हळें, "पयलीं व्हाळांतलीं भायर सरात. कसलीं पिशेपणां करतात? तुमी सगलीं झेमेंत आसात देखून तुमच्यो तकल्यो चलनांत. हांव मिटराचो नळ बंद करतां. उदक ओतपाचें बंद जातलें आनी आवाज थांबतलो." हांवें कपलार हात मारलो.

चोराच्या भंयान आनी न्हिदेच्या भारान खऱ्यानीच आमची तकली भेरेल्ली. कांय वेळान आवाज थांबलो आनी आमी हुसक्या मेकळीं निद्राधीन जालीं. चोरा हुस्क्याची याद मात सासणाची उरली वयल्यान रातीं दार उगडून भायर गेलीं म्हूण आवयकडल्यान आनी घोवाकडल्यान तापोवणी खाली ती वेगळी.

## मोगा गीत

ती : कोणे केन्ना केलो ना रे
कोण केन्ना करचोय ना
इतलो मोग करतां मोगा
इतलो मोग करतां रे

तो : तुजें मन भोळें भाळें
दोनूय दोळ्यांत मळब निळें
म्हज्या मनांत तुजें रूप
तुज्या रुपांत म्हजें सूख
इतलो मोग करतां मोगा
इतलो मोग करतां गो

ती : वझऱ्यावरी स्पर्श नितळ
चैतन्याचें ल्हार शितळ
तुजे सेवेंत म्हजी प्रीति
म्हजे प्रितींत पिशी भक्ति
इतलो मोग करतां मोगा
इतलो मोग करतां रे

तो : मोग दिता मोग घेता
मोगान मोग चंवरा येता

ती : फुलतें जिवीत फळटें कवीत
सगळें म्हजें ओंपतां तुकां
इतलो मोग करतां मोगा
इतलो मोग करतां रे

– चंद्रिका पाडगांवकार
पर्वरी – गोंय.
मो. : ९८२३७६९११५



## सांग सायबा, बेगीन सांग

तुका
शेक हॅण्ड करूं?
नमस्कार करूं?
काय दाखोंव
एखाद्रो चमत्कार?....
काय
भजन करूं?
किर्तन करूं?
पुराण सांगूं
प्रवचन दिवं?
एखाद्री कव्वाली म्हणूं?...
काय
पुजा करूं?
आरत्यो ओवाळूं?
प्रसाद– महाप्रसाद दाखोवं?...
सांग बेगीन सांग
तूं जीवो उरपाक
हांव किदें करूं?
काय तूं सोंपलो म्हूण पावोंव तुका!
सांग सायबा बेगीन सांग
हांव सोपचे पयलीं सांग!



– आर. रामनाथ
एम–ओ–६,
गोवा हाऊजींग बोर्ड,
कुर्टी – फोंडा, गोंय.
मो.:९८५०४५८७६३

## अक्कमहादेवी

अक्कमहादेवी
चेन्नमल्लिकार्जुन तुज्या
तनमनात ध्यानात
काळजाच्या हारश्यांत
काव्याच्या दर एका उतरांत
तुज्या काळजांतले खरसाणेंत
तुज्या शब्दांचे गोडसाणेंत
तुजो सांगाती इश्ट सखो
सगलो संवसार ताजेमुखार फिको फिको
लोक लज्जा सांडून
सगल्यांकडेन वैर मांडून
चेन्नमल्लिकार्जुनाच्या ध्यानांत तूं
दिसाच्या चारय पारार
रातीच्या अळंग काळखार
ताज्या भक्तीभावान पिशी पिशी
तूं विसरून भूक आनी तान
इतलो अनुरूप मोगी
ना मेळचो ह्या संवसारांत
ताज्या माथ्यावेले
तो मणिमुकूट तोंडार तें तृप्त हास्य
दंडार नाग
ताजेमुखार हेर संवसारी दादले
मातयेचे बावले कशे
शाश्वत अशाश्वतायेच्या फेऱ्यातले
चौकटी पेद्ये कशे
तो तर परमसुर्य साक्षात
अक्कामहादेवी
तुज्या काव्याचो तो म्हुर्तमणी
तुज्या प्रतिभेचो अधिश्टान

– राजश्री महाबळेश्वर सैल
फा. आग्नेल कॉलेज,
पिलार – गोंय





## मोगा! भात किल्लता

आगो! काळजांत म्हाज्या
तुवें बांदिल्लें जोत
जोत घालून
रोयिल्लें शेत
याद आसा तुका
त्या काळजाच्या मळार म्हाज्या
आमच्या मोगाचें पळय
भात किल्लता
तें लुवपाक तरी
यो मगो आतां...

## यादी

त्या रूखा तेंगशेर
कोगुळ साद घालता
पिश्या म्हज्या मनाक दिसता
म्हाका तूंच आफयता
रूखा मुळांत सुकीं पानां
अजून वाट पळयता
आमच्या मोगाक साद दियत
वारो लेगीत आफयता
ओलो ओलो पावस जेन्ना
म्हाका चिप्प भिजयता
कित्याक गो तूं
पर्थून पर्थून
दोळ्यां सामकार नाचता



– शोभा शिवा फुलकार
मो : ७८७५२३७४७८

## नखेत्र

रात जाल्या
अमासेचे हे रातीक
मळबांत म्हाका
नखेत्र एक दिश्टी पडटा
पळोवन म्हाका हांसता
काय रडटा!
खबर ना
पूण लकलकता चकचकता
घडये तें नखेत्र
तूं बी न्ही मुगो?
कित्याक म्हाका सतायता?



– अमेय नायक
धारबांदोडें,
सार्कोड्या – गोंय
मो. : ९८५०५३९७६३

## म्हजी निळी साडी

म्हजे निळे साडयेर आसात
तांबडीं हळदुवीं फुलां
आनी पदराचेर
तुज्या मोगाचो
अत्तर शिंवरला

त्या दिसा
ती साडी न्हेसून
हांव
पयलेच फावट
तुका मेळपाक आयिल्लें
आनी
तुवें म्हणिल्लें
हो निळो रंग
तुजेर बेस बरो सोबता
तेन्ना साकून आज मेरेन
म्हजे आलमारींत
निळ्या रंगाच्या कपड्यांचें
भंडार सजलां...



– शुभा दिलीप बरड
बोर्डा,
मडगांव – गोंय.
फोन : २७३८६१३



पुरस्काराचे मानेली सुरेश आमोणकार, प्रकाश पाडगांवकार, आर. रामनाथ, कृष्ण सुखठणकार, सुधार खरंगटे मुखेल सोयरे विष्णू सुर्या वाघ, बिम्ब मासिकाचे संपादक दिलीप बोरकार, वेवस्थापिका कामिनी किणी, खास अतिथी अरुण साखरदांडे आनी चंद्रिका पाडगांवकार.

# गोंयांतल्या विशयांचेर साहित्य निर्मणी जातली तेन्नाच भास प्रबळ जातली : वाघ

गोंयांत लेखक, कलाकारांचो उणाव ना. हांगाच्या थळाव्या विशयांत लेगीत साहित्य निर्मणीची जबरदस्त तांक आसता. ती वळखुपाची जाण जेन्ना लेखक वा कलाकरांत येता तेन्नाच तो व्हड जाता. गोंयांतल्या वेगवेगळ्या विशयांचेर भोवरंगी साहित्याची जेन्ना खरी निर्मणी जातली तेन्नाच साहित्याची आनी कलेची भास चड प्रबळ जातली अशें मत साहित्यीक आनी आमदार विष्णू सुर्या वाघ हांणी आगशे उक्तायलें.

आगशेच्या बिम्ब प्रकाशना वरवीं घडोवन हाडिल्ल्या पुरस्कार भेटवण सुवाळ्यांत ते मुखेल सोयरे म्हूण उलयताले. ह्या वेळार माचयेर खास सोयरे म्हूण प्रा. अरुण साखरदांडे, पद्मश्री सुरेश आमोणकार, प्रकाश पाडगांवकार, आर. रामनाथ, कृष्ण सुखटणकार, सुधा खरंगटे, बिम्ब म्हयनाळ्याचे संपादक दिलीप बोरकार, कामिनी किणी आनी हेर मानेस्त हाजीर आसले.

बिम्ब परिवाराचे वर्सुकी पुरस्कार मुखेल सोयरे आमदार विष्णू सुर्या वाघ हांचे हस्तुकीं भेटयले. तातूंत ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार यादस्तीक पुरस्कार (२५,००० रुपया.), पद्मश्री सुरेश आमोणकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय लोककवी पुरस्कार (१०,००० रुपया), प्रकाश पाडगांवकार, शंकर भांडारी विनोदी साहित्य पुरस्कार (५००० रुपया), कृष्ण सुखठणकार, डॉ. र. वि. पंडित काव्य चेतना पुरस्कार (५००० रुपया) आर रामनाथ जाल्यार कवयित्री विजयाबाय सरमळकार बाल साहित्य पुरस्कार (५००० रुपया) सुधा खरंगटे हांणी आकर्शक यादचिन्ना सयत स्विकारले.

सुरवेक बिम्ब म्हयनाळ्याचे संपादक दिलीप बोरकार हांणी आपल्या प्रास्ताविकांत बिम्ब म्हयनाळ्याची वाटचाल तशेंच बिम्ब पुरस्कारा फाटली भुमिका स्पश्ट केली. पुरस्कार मेळिल्ल्या सत्कारमुर्तींनी मनोगत उक्तायलें. बिम्ब परिवार दिता ते पुरस्कार गोंयांतल्या नामनेच्या सहित्यिकांच्या नांवान दितात देखून प्रा. साखरदांडे हांणी खोशी उक्तायली.

संस्थे वतीन आमदार आनी कला अकादमीचे अध्यक्ष विष्णू वाघ हांचो खास भोवमान केलो. तशेंच अरुणा विष्णू वाघ हांची व्हंटी भरली.

ह्या पुरस्कार भेटवण सुवाळ्या निमतान शिरीष लवंदे आनी साथी कलाकारांची संगिताची कार्यावळ जाली. पुराय कार्यावळीक गोंयांतले नामनेचे साहित्यीक, संपादक, उद्देजक, सांस्कृतीक, राजकी आनी समाजीक मळा वयले मानेस्त हाजीर आशिल्ले.

पुराय कार्यावळीचें सुत्रसंचालन चंद्रिका पाडगांवकार हांणी केलें. कामिनी किणी हांणी उपकार मानले.








ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार पुरस्कार स्विकारतना पद्मश्री सुरेश आमोणकार.



डॉ. मनोहरराय सरदेसाय लोककवी पुरस्कार स्विकारतना प्रकाश पाडगांवकार.



शंकर भांडारी विनोदी साहित्य पुरस्कार स्विकारतना कृष्ण सुखठणकार.



अरुणा वाघ हांची व्हंटी भरतना सरीता बोरकार वांगडा कामिनी किणी आनी रुबी बोरकार.



विजयाबाय सरमळकार बालसाहित्य पुरस्कार स्विकारतना सुधा खरंगटे.



डॉ. र. वि. पंडित काव्यचेतना पुरस्कार स्विकारतना आर. रामनाथ.

# देवा - पाडो

*नवरात्रां सोंपली आनी दसरो मनयलो. गोबरो वाड्याचो 'हिरो' जाल्लो. हे सण ताचेच जाल्ले. आता दिवाळी आयली. दिवाळी दिसा भटान ताच्या गळ्यांत एक ल्हानशी घांट घाली. गोबऱ्यान मान हालयली तसो देवूळ भर आवाज जालो. गोबऱ्याकूय तें बरें दिसलें. तो घांट हालयत वाडो भर भोंवलो. हिरुगेर वचून ताका चालोवन परत देवळा कडे आयलो.*






विन्सी क्वाद्रुस
'स्नोज कृपा'
आर्लें राय,
सालसेत-गोंय
मो. : ९८२२५८७४९८


कर्नाटकाचे शिमेवेल्या खानापूर - सुर्ला वाठारांतल्यान कांय धनगर आपल्या गोरवां-बोकड्यांचो हिंड घेवन चलतां-चलतां गोंयचे शिमेंत पावले. थंयची हरभरीत शेतां आनी पाचवी-चार भोंवतण पळेवन आपल्या गोरवांक घेवन ते थंयच रावले. दोन दीस जाल्ले आसत, हांच्या रावण्याची गजाल थळाव्या लोकांच्या कानार गेली. पूंजभर लोक आयले आनी ताणीं हांची चवकशी केली तेन्ना तांकां समजलें हे कर्नाटकांतले धनगर म्हण. तांचीं गोरवां आपलीं शेतां इबाडटलीं म्हण थळाव्या लोकांनी सांगून तांकां धांवडावन घाले. नाइलाजान तांकां तो वाठार सोडून वचचो पडलो. ते शिमे वेल्यानूच वताले. पूण दुर्गां खंय आसलीं? एक भाशेन रानूच म्हणल्यार जाता तें! त्या वाठारांतल्यान आपली वाट काडटना रानवटी जनावरां तांचे फाटीक लागलीं. तांचेर भिरांत आनी कांपरो सुटलो. तीं मेळत तशीं धावूंक लागलीं. ह्या बोवाळांत तांचे एक वासरूं तांचे पासून पयस जालें. कोणाक कळ्ळेंच ना तें खंयचे वाटेन गेलें तें!

सत्तरींतल्या रानांत हिरु आपल्या गोरवांक चरयतालो. तो सुमार २५-२६ वर्सांचो तरनाटो. ताचीं धायेक गोरवां. घराकडे भाव आनी वडील शेतकाम सांबाळटाले. गोरवांची जतनाय घेवप हिरुचें काम आसलें. पावसाच्या मोसमांत काम करून आतां तांकां विसव आसलो. शेतां पिकपाक आयिल्लीं. शेत मळून घरा हाडपाची तयारी हिरून आर्दीच करून दवरिल्ली. पयस गांवांत शेत मळपाचें मशीन शेतांत देंवलां म्हण ताच्या कानांत पडिल्लें. पूण ताणें ताचेर लक्ष दिवंक नासलें आनी ताणें बैलूच घालून शेताची मळणी करूंक थारायल्लें. मशिनान शेत मळ्ळ्यार तण मेळना ही ताका खबर आसली. फाटल्या वर्साक कुडें बांदून दवरिल्लें ताचें तण गोट्यांत आसलें. तरी तो रानांत गोरवांक चरयतालो. हाचे ताका दोन फायदे जाताले. ताका रानांतलो वाठार संवकळीचो जातालो आनी शांत वातावरणांत रावूंक ताका आनंद भोगतालो. मात्शें शिकप आशिल्लें जाल्यार एक कवी जावंक तो कमी नासलो. तो गोरवांकडेन उलोवन आपलो वेळ पासार करतालो.

भर दनपारां ताणें आपलो तुवालो सोडलो आनी तातूंत आशिल्ल्यो भाकऱ्यो खावंक म्हण ताणें वडाच्या झाडा पोंदाक मांडी घाली. ताचीं गोरवां जळीं-मळीं शिपडून आसलीं. ताचे बराबर झिलू आनी पोक्याचींय गोरवां आसलीं.

"हांव बसलों रे जेवंक." हिरून झिलू आनी पोक्याक जाप केली.

"येतात आमी." ताणीं एकाच बराबर सांगलें.

हिरून एक भाकरे कुडको तोंडांत घाल्लो इतलेंच, 'मेंहऽऽऽ' करून आवाज आयलो. ताणें वळून पळेलें. एक वासरूं वडाच्या झाडा पोंदाकूच सपाट पडून आसलें.

मनशाचो आवाज आयकून ताणें जाग दिल्ली आसत! हिरू ताच्या फुड्यांत गेलो. तें सामकें थकिल्लें. हिरून बेगी-बेगीन ताका उदक दिलें आनी थोडो पालो हाडून खावयलो. ताच्या जिवांत जीव आयलो. तें ल्हवूच उठून बसलें. हिरून ताका उबारलें आनी आपले खांकेत घेतलें. ताचे तकले वेल्यान हात फिरयलो. ताचीं शिंगां आजून भायर सरूंक नासलीं. हिरून ताका बरे तरेन नियाळ्ळें, 'कोणाचो काय हो पाडकुलो?' हिरून आपल्या मनांतूच म्हणलें.

तितल्यांत झिलू आनी पोको आयले.

"पळे मरे, कोणाचो तरी पाडकुलो मेळ्ळा म्हाका." हिरून सांगलें.

"नशीब तुजें, कोणाचो तो व्हरूंक येतलो. ना जाल्यार व्हर तूं ताका." पोक्यान सल्लो दिलो. तशें म्हणिना बराबर हिरून पाडकुल्याचे खुबूच लाड केले.

सांज मेरेन पाडकुल्याक कोण सोदूंक आयलो ना, ना म्हण कोणें ताची खबर घेतली ना. देखून हिरून ताका आपल्या गोरवां बराबर घरा हाडलो.

"आवो, पळे हांवें कोणाक हाडला तो!" हिरून आनंदान सांगलें. आवय फुड्यांत येवन ताका पोशेत पळेवंक लागली.

"कोणाचो हाडला रे ताका? गोबरो मरे सारको!" ताचो रंग पळेवन आवयन नांव दिलें. "तूं ल्हान आसतना असोच एक पाडकुलो आसलो आमगेर. ताका आमी गोबरोच म्हणटालीं. कसलें तरी दुयेंस जालें आनी मेलो तो." आवयन आपलें दुख्ख व्यक्त केलें. पाडकुलो आवयक दोळे भरून पळयतालो.

"तशें जाल्यार हाका आमी गोबरोच म्हणुंया मगे?"हिरून खुशालकाय दाखयली.

आवयन ताका आपणाकडे घेतलो "हय. ताका आमी गोबरोच म्हणुया."

दुसऱ्या दिसा हिरू गोबऱ्याक आपल्या बराबर चरवाक व्हरूंक लागलो. आवयन ताका आडायलो आनी सांगलें, "थोडे दीस हांगाचो वाठार ताका संवकळीचो जावं दी रे बाबा. आज हांगाच हांव कितें तरी दितां ताका." आवयन कुजनांतलो थोडो पेजे नीस हाडलो आनी तातूंत इल्लो कुंडो घालून ताका खावंक दिलो.

हिरू गोबऱ्याक सोडून हेर गोरवांक घेवन सदांचे वाटेन गेलो. रानांत ताचें मन गोबऱ्याचेरूच विचार करतालें. काल ताका खांकेत घेतिल्लो ताची ताका याद जावंक लागली. ताचें मन थाऱ्यार उरना जालें. तो झिलू आनी पोक्याक सांगून घराकडे आयलो.

ताणें गोबऱ्याक आपले खांकेत घेतलो आनी ताका पळेवंक लागलो. ताचे दोन उमेय घेतले ताणें.

"आरे हिरू, गोरवांक इतले बेगीन घेवन आयलो?" आवयन फुड्यांत येवन विचारलें.

"ना गे. म्हाका गोबऱ्याची याद आयली म्हण ताका पळोवंक आयिल्लों हांव." हिरून सांगलें.

परत रानांत वचून सांजेर तो गोरवांक घेवन बेगीनूच घरा परतलो आनी गोबऱ्याकडे खेळूंक लागलो.

"चल, ताका देवळाकडे पासय काडून हाड. वाठाराचीय वळख जावंदी. हांगा सांडत आनी नांच जायत." आवयन सांगलें. तांच्या घराच्या मात्शे मुखार मारुतीचें एक देवूळ आसलें. देवळा भोंवतणीं जायतीं घरां आसलीं. खेडो वाठार जाल्ल्यान तांची मारुतीचेर खूब श्रध्दा. कसल्याय संकटाक तो आपणाक पावता अशें धरून ते चलताले.

हिरू गोबऱ्याक घेवन देवळाकडे गेलो आनी पासय काडटां-काडटां सगळ्यांच्या घराची वळख करून दिवंक लागलो.

"नवो पाडकुलो घेतला कितें रे हिरू?" देवळा कडल्या कमलान विचारलें. हिरूक जनावरांचो मोग म्हण पुराय वाड्याक खबर आसली.

"आमचो गोबरो तो." व्हड गर्वान हिरून सांगलें.

"ह्या ल्हान पाडकुल्याक तूं रानांत व्हरतलो हिरू? ताका हांगाच खेळूंक दवर. आमी सांबाळटात ताका." कमलान गोबऱ्याचेर हात फिरयत सांगलें.

"तुमी खरेंच काळजी घेतलीं मगे ताची?"

"हय रे. तूं कांयच चिंता करूं नाका." तिणें ताका आश्वासन दिलें.

"न्ही रे राजा, तूं आमचे फुड्यांत रावचो ना?" तिणें ताचे चडूच लाग केले.

हिरू हेर गोरवांक घेवन रानांत वतालो आनी सांजेर बेगीन येवन गोबऱ्या बराबर खेळटालो, ताका पासयेक व्हरतालो, ताचेकडे उलयतालो. हो ताचो सदचो क्रम जाल्लो. तांची इश्टागतूय बरीच दाट जाल्ली.

करतां-करतां गोबरो जुवान जालो. ताचीं शिंगां व्हड जाल्लीं. तांकां धारूय चडिल्ली. ताचें झूं भरून आयिल्लें आनी आंगलट घशघशीत जाल्ली. घरची खावड पडिल्ल्यान तो धिप्पाड जाल्लो. नवो कोण पळयतल्याक ताची ताका भिरांत दिसले बगर रावचीना. तो आतां एकलोच वाडोभर भोंवतालो. सगळीं घरां ताका वळखिचीं जाल्लीं. तो हिरू बराबर कसोच रानांत वचनाशिल्लो. गोट्यांतय रावनाशिल्लो. देवळाक तेंकून एक मंडप आसलो, तातूंत तो न्हिदतालो. पूण चुकयनासतना हिरूक आनी ताचे आवयक मेळून येतालोच. ताच्या खाणाचें ताका व्हडलें पडून वचनाशिल्लें. घरा-घराकडे भोंवतना कोण ना कोण ताका खावंक दिताले. भुरगीं तशीं व्हड, सगळीं ताची आपुरबाय करतालीं.

त्याच दिसांनी देवळांत नवो भट आयलो. तो जनावरां प्रेमी. तो तांकां खूब मानतालो आनी ताचो मोग करतालो. देवळाकडे येवपी जेवण करून घेतालो. आनी तांकां मोगान वाडटालो. तातूंत भर आसली ती गोबऱ्याची. गोबरो ताचो खास जाल्लो.

नवरात्रां सोंपलीं आनी दसरो मनयलो. गोबरो वाड्याचो 'हिरो' जाल्लो. हे सण ताचेच जाल्ले. आता दिवाळी आयली. दिवाळी दिसा भटान ताच्या गळ्यांत एक ल्हानशी घांट घाली. गोबऱ्यान मान हालयली तसो देवूळ भर आवाज जालो. गोबऱ्याकूय तें बरें दिसलें. तो घांट हालयत वाडो भर भोंवलो. हिरुगेर वचून ताका चाळोवन परत देवळा कडे आयलो.

"भटमाम, फाल्यां गोरवां पाडवो मरे, आमी गोबऱ्याची पुजा कित्याक करची न्हय?" सदां सांजचो देवळाकडे वेळ पासार करूंक येवपी वासूदेवान आपलो विचार मांडलो.



''बरी मांडणी मरे. हय करुया ताची पुजा. पूण वाड्यावेले शेतकार आपल्या गोरवांची पुजा करिनांत तर?'' भटान परतें विचारलें.

''ना भटमाम. रानांत वतात ते मात दुसऱ्या गांवच्या गोरवां बराबर पिंजर लावन येतात.''

''बरें हांव करतां तयारी.'' भट खुशाल जालो आनी रोकडोच तयारेक लागलो. वाड्यावयल्या दोग जण तरनाट्यांक आपोवन हाडले आनी कितें कितें करूंक जाय तें सांगलें.

दुसऱ्या दिसा गळ्यांतली घांट वाजयत गोबरो देवळांत आयलो. भटान ताका बरोच थातारलो आनी त्या तरनाट्यांच्या आदारान ताका तेल लायलें आनी न्हाणयलो. गंवा पीठ घेतलें आनी तातूंत कुकूम घालून सान्नां करपाची वाटी घेवन ताच्या पोटार आनी फाटीर चित्रायलें. ताचीं शिंगां रंगयलीं, फाटीर झगझगीत कपडो उडयलो, गळ्यांत फुलांची माळ घाली आनी कपलाक पिंजर लायली. गोबरो खुशाल जावन सगळें करून घेतालो. मदींच मान हालयतालो आनी आपलें तोंड भटाक लायतालो. सव्यार चडपाच्या न्हवऱ्या भाशेन नटल्या उपरांत ताचे खातीर भटान केल्ले खास पोळे ताका दिले. कोण एकल्यान कातली आनी फोव हाडून दिले. थोड्या वेळान ही खबर घराकडे बसून आशिल्ल्या हिरुक पावली. तो धांवून देवळाकडे आयलो आनी गोबऱ्याक पळोवन बरोच अजाप जालो.

''म्हजो पाडो.... गोबऱ्या कितलो सुंदर दिसता रे तूं? नंदी जालो मरे तूं.'' हिरुन ल्हवूच ताचे फाटी वेल्यान हात फिरयलो. आपलो उजवो पांय हालोवन गोबऱ्यान ताका सहमती दाखयली. करतां-करतां वाड्यावेलो कितलोच लोक जमा जालो. मागीर भटान गोबऱ्याची पुजा केली आनी पांय पडलो. ''आजच्यान तूं देवा-पाडो'' भटान ताका नवें नांव दिलें. 'देवा पाडो, देवा पाडो' म्हणीत लोकूय ताचे पांय पडले. मागीर उमेदी गोबऱ्याक भोंवपाक सोडलो. गळ्यांतली घांट वाजयत देवा-पाडो संगीताच्या तालार नाचतात तसो वाडोभर फिरूंक लागलो. हिरु ताचे बराबर आपूणय मिरोवंक लागलो.

''देवा-पाड्या यो, हांवें तुका खास खावड हाडल्या. इल्लें शेण दी मरे. आठ दीस तरी जाले एक शेणा थापो मेळूंक ना म्हज्या झाडांक घालूंक.'' अमृत्यान आपले गेटीकडे येवन भोंवतल्या गोबऱ्याक आपयलो. पाड्याचें शेण गावता काय म्हण थोडीं वाट पळोवन रावतालीं. कोण आपल्या घराक सारोवंक जाल्यार कोण सुकोवन झाडांक घालूंक. दारांत मेळटालें न्हय तें! सकाळ फुडें जायतीं जाणां मंडपाकडेन शेणाखातीर पासय मारून वतालीं. अमृत्याचें पोरसूं आसलें आनी गोबऱ्याच्या शेणा खुस्तारूच ताणें तें बरें फुलयल्लें. तो हांगा येयत थावन शेण सोदूंक ताका रानांत वचूंक पडूंक नासलें. हरशीं ती ताका सदांच पेजे-नीस दवरताली. जे वरवीं तो जायते फावटी थंयच शेण करतालो आनी ती तें बेगी-बेगीन पुंजावन व्हरताली.

शेतां पिकलीं आनी मळणी सुरू जाली. हिरून गोबऱ्याक शेतांत व्हेलो आनी मळणेक बांदपाचो यत्न केलो. पूण तो कसोच आयकना जालो. आपलीं शिंगा हालोवन विरोध करूंक लागलो. हिरूच्या भावाक ताचो खूब राग आयलो. दोन बडयो सुद्धां ताणें ताचेर मारल्यो. हिरून ताका समजून घेतलो पूण भावान न्ही. तसो गोबऱ्याक हिरुल्या हेर गोरवांचो खूब मोग आसलो. तो तांचे बराबर गोटच्यांत वचून बसतालो-उठतालो पूण सगळी रात तो थंय केन्नाच न्हिदलो ना हाची भावाक चड तिडक मारताली. ल्हान आसतना बरे भशेन पोसलो आनी व्हड जातांच...

अकस्मात कोणालो तरी रेडो वाड्यांत भितर सरलो आनी वाड्याचेर संकट आयलें. तो धांडगो आसलो. पिशावरी आरड्यो घालतालो, माती खरवडतालो. ताका खंयच्यान वचपाचें तें समजनासलें. तो देवळाकडे पावलो. ताणें शिंगा घालून देवळाकडली केळ मोडून उडयली. तो व्हड व्हडल्यान हांबेवपाक लागलो. सगळोच घुस्पल्लो जावन मेळत तसो धांवपाक लागलो. सुमार स वर्सांचें एक चेडूं तांबडो विस्तीद घालून रस्त्यार खेळटालें. रेडो त्या चेडवा दिकेन वचूंक लागलो. आपल्या घरांनी सगळे लोक भियेवन आसले. रेड्याचो अवतार पळोवन ताका आडावपाचो कोणाकूच धीर जायनासलो. गोबरो पयस एका झाडा पोंदाक बसून आसलो. ताणें रेड्याक चेडवा दिकेन येतना पळयलो. चेडूं बोवाळ मारतालें. गोबरो धांवत येवन फुड्यांत उबो रावलो. रेडो आयलोच पूण गोबऱ्यान ताका

आव्हान केलें. दोगांमदीं झूंज जालें. तेन्ना मात गोबऱ्याक फोर्स दिवंक कांय तरनाटे दांडे-कोंडे घेवन भायर सरले. रेड्यान पळ काडलो. ताचे फाटोफाट गोबरोय धांवलो आनी ताका वाड्या भायर घालूनूच परतलो. वाड्याचेर आयिल्लो आकांत देवा पाड्यान निस्तारलो.

हे करणेक लागून देवा-पाडो गोबरो वाड्यांत बरोच फामाद जालो. ल्हानशी पोटली हांगाच्यान थंय व्हरूंक तो गांवच्यांक आदार करतालो. केन्नाय न्हंयचें उदक हाडूंक ताका कोण-कोण व्हरताले. कितले जाण ताचे फुड्यांत रावून फोटो काडटाले. सगळ्या लोकांचें बरें बरें खावन तो घटमूट आसलो. ताचो गोबरो रंग आतां आनीक फुलून आयल्लो. हिरू मात ताका चुकनासतना मेळूंक वतालो. तो ताका कितले फावटी आपल्या गोठ्यांत दवरपाचो यत्न करतालो. ताचे बराबर तो वतालोच पूण आपणाक बांदून घेनासलो आनी थोड्या वेळान देवळा कडे येतालो.

एक दीस हिरु रानांत आसतना कोण एकलो ताच्या फुड्यांत आयलो आनी सांगूंक लागलो दनपारच्यान गोबरो वाड्यांत दिसलो ना म्हण. हिरुचेर आकांत आयलो आनी तो धांवत वाड्यार आयलो. सगळ्याच लोकांक गोबऱ्याची चिंता जाल्ली. सगळेच ताका सोदताले. हिरूय घरा-घरांनी वचून विचारूंक लागलो. वेळ वता तसो सगळ्यांचोच हुस्को वाडूंक लागलो.

भोंवून भोंवून थकून हिरू घराकडे आयलो. ''आवो, गोबरो बी हांगा आयल्लो गे?'' खंती आवाजान हिरून आपले आवयकडे विचारलें.

''हय रे बाबा, पूण...'' सांगता सांगतां ती भावाक पळोवंक लागली.

''तुवें मारलो कितें रे गोबऱ्याक?'' हिरून आपल्या भावाक विचारलें.

''मारलो म्हणजे? मस्ती करूंक लागलो हांगा येवन. हांवें तांका बांदून दवरूंक केल्लो. गोठ्यांत पळय दायीं बी मोडून गेलो. हांवें इतलेंच म्हणिल्लें 'रावता देवळाकडे आनी हांगा येता मस्ती करूंक?' आनी हांवें ताका धांवडावन घाल्लो मागीर. हांव जाणा तो...'' भावान निश्पाप जाप दिली.

''घडये ताच्या पोटाक भूक लागिल्ली आसत... ताच्या दोळ्यांत दुकां आसलीं. तुज्या भावाच्या अवताराक तो भियेलो. ताणें एक दिमी मोडली आनी गेलो.'' आवयन अदीक म्हायती दिली.

हिरुक समजलें ताच्या अंतरमनाक घाव बसला म्हण. ताणें तशीच राना वटेन धांव घेतली. काळोख जालो तरी तो ताका सांपडलो ना. निराश जावन तो घरा परतलो. वाड्यावयले कोण कोण गोबऱ्याची खबर घेवंक आयले.

रातीकडे हिरूकच न्हय तर घरांत कोणाकूच न्हीद लागली ना. गोरवांय उचंबळ जाल्लीं दिसतालीं. हिरुच्या भावाक आपले करणेचो पच्शताप जाल्लो.

सकाळफुडें भटूच हिरुल्या घराकडे आयलो.

''हिरु, देवा-पाडो देवळांत सपाट पडून आसा, यो बेगीन.'' भटाचीं उतरां आयकून हिरु एकदम उठलो आनी ताचे बराबर चलूंक लागलो. तांचे फाटोफाट आवय एक पोटली घेवन चलूंक लागली. गोरवांच्या उपचाराचें तें सामान आसलें. आनीकय लोक देवळा कडली वाट चलूंक लागले.



## तात्पर्य कथा

**दिल्लीच्या सामुहीक बलात्काराक लागून पुराय देश हळहळ्ळो. देशभर निशेधसभा आनी धरणें जालें. गोंयांतूय कदंबा बस स्थानकाचेर गोंयच्या महिला संघटनांनीं निशेध उक्तायलो.**




''हे आमचो फोटू बरोऽ येवंदी हां!''

''फुडल्या पानार येतलो मरे?''

''कितेंय जावं न्हय गो? बरें जालें वगतार फोटोग्राफर पावलो तो!''

''सगळ्या पेपरांक दितलो मरे?''

''चॅनलवाले बेगीन पावल्यार पुरो. न्हीं गो?''

''पॉज कसली जाय रे? दुखेस्त काय अशी उपकारता?''

''सारको काड आंऽ! आमी चियऽर्स म्हणटात!''

तात्पर्य : गांव जळूं बायू म्हजें खेळूं!



# सुखी राजकुंवर



**शा**रांतल्या एका उंच जाग्यार, लांब खांब्याचेर सुखी राजकुंवराचो पुतळो उबारिल्लो. ताचें पुराय आंग भांगराच्या नकसूद, पातळ पानांनीं न्हेसयल्लें आनी दोळ्यांचे सुवातेर, निलम बसयल्ले. ताचे तरसादीर माणीक चकचकतालें.

सगळे ताची तोखणाय करताले.

''वाऱ्याची दिका दाखोवपी कोंब्या (weather cock) इतलोच तो सोबीत.'' गांवच्या एका नगरसेवकान, आपल्याक लोकान कलात्मक समजुचो ह्या हेतान पुतळ्याची व्हडवीक गायली, ''पूण ताचो व्हडलोसो उपेग ना.'' लोक आपणाक आनीक कितेंय म्हणत म्हणून तो फुडें फुतफुतलो.

आपल्याक चंद्रीम जाय म्हणून रडटल्या एका भुरग्याचे आवयन म्हळें, ''तूं त्या सुखी राजकुंवराभशेन कित्याक न्हय? तो केन्नाच, कसलेच वस्तू खातीर रडना.''

''जांव कोण तरी ह्या संवसारांत सुखी आशिल्लो पळोवन हांव धादोसतां.'' एका निराशी मनशान त्या सोबीत पुतळ्याक पळोवन म्हळें.

''तो सारको एका सोबीत देवदूता सारको दिसता.'' चकचकीत, धवेफुल्ल पिनाफोर आनी तांबडे कोट घालून इगर्जेतल्यान भायर सरतल्या संस्थेंच्या घरांत (charity children) रावपी गरीब भुरग्यांनी म्हळें. तांचे वांगडा आशिल्ल्या गणिताच्या शिक्षकान तांकां विचारलें, ''तुमकां कशी खबर? तुमी केन्ना देवदूत पळयला तर?''

''आह! हय. आमच्या सपनांत.'' भुरग्यांनी जबाब दिलो आनी हाचेर कपलार मिरयो घालून तो गंभीर जालो. कित्याक भुरग्यांनी सपनां पळयल्लीं ताका आवडनासलें.

एके राती, त्या शारांत एक पाकोळी (Swallow शियांच्या दिसांनी आपलो गांव सोडून गरमेच्या जाग्यार वचून रावपी सवणें.) उडून आयलें. ताचे इश्ट इजिप्तांत उडून गेल्यार स सुमानां जाल्लीं. तांचे वांगडा वचना आसतना तें फाटीं राविल्लें. एका सोबीत, तांबड्या बेताच्या (reed – उदकांतलें तण) तें मोगांत आशिल्लें. हळदुव्याच पिसोळ्या फाटल्यान धांवतना, न्हंयचेर ताची बेताकडेन भेट जाल्ली. ताच्या नाजूक कंबरान पाकोळीक इतलें भुल्लुसायल्लें की ताचेकडेन उलोवंक तें थंयच रावलें.

सरळ मुद्द्यार येवंक पसंद करतले पाकोळीन बेताक विचारलें, ''तुजो हांव मोग करूं?''

आनी बेतान ताका मान बागयली.

आपलो मोग परगटूंक, पाकोळीन आपलीं पाकां उदकाक तेंकोवन, रुपेरी, गोल गोल रिंगा काडलीं आनी ताचे भोंवतणी घिरट्यो घातल्यो. वसंत ऋतूंत सुरू जाल्लो हो मोगा खेळ गिमाळो सोंपसर चालू उरलो.

''हांचो म्हणून विचित्र सो संबंद.'' दुसरीं पाकोळीं तांकां पळोवन चिंवचिंवलीं.

''ताचेकडेन कांय पयसो ना आनी ताका कितलींच सोयरीं.'' आनी पळोवंक गेल्यार खऱ्यांनीच ते न्हंयत कितलींच बेतां, लांब आनी तायट उबीं आसलीं. मागीर शरद रुतू सुरू जालो आनी तींय पाकोळीं थंयचीं उडून गेलीं.

तीं गेल्या उपरांत तर पाकोळी सारकेंच एकोडें जालें. आपले मोगीकेचोय ताका आतां वाज येवंक लागलो.

''तें कांयच उलयना आनी ते भायर तें चंचळ. सगळो वेळ वाऱ्या वांगडा मिरयता.''

पाकोळी उद्गारलें आनी खरेंच वारो मारलो रे मारलो, बेत झेतार मोडत धोलताले.

"हांव मानतां तें घरांत रावपी. पूण म्हाका प्रवास आवडटा. म्हणटकीर म्हजे घरकान्नीक प्रवास आवडूंक नाका तर?" पाकोळीन फुडें चिंतलें.

निमाणें ताणें बेताक विचारलें, "म्हजे वांगडा तूं येयशी?" पूण घराची चडूच ओड आशिल्ल्या बेतान तकली हालयली.

रडकुऱ्या आवाजान पाकोळीन बेताक म्हळें, "तुवें ओगीच म्हाका भुल्लूसावन म्हजेर लटको मोग केलो. हांव वतां पिरामीड्स आसात थंय. बरें तर!" आनी 'भुर्र्र' उडून गेलें. दीसभर तें उडलें आनी रात जातकीर शारांत आयलें.

"हांव हांगा खंय रावूं? रावपाची वेवस्ता आसल्यार पुरो." ताणें म्हळें.

ताची नदर त्या खांब्यार उबारिल्ल्या पुतळ्याचेर पडली.

"हांव हांगाच रावतलें." तें पुटपुटलें.

"हो एकदम बरो जागो. हांगा शांत वारो व्हांवता."आनी सुखी राजकुंवराच्या दोनूय पांयांमदीं तें देंवलें.

'बरीऽ भांगराची न्हिदपा कूड म्हाका मेळ्ळी.'

भोंवतणी नदर फिरयत ताणें आपलेच भितर म्हळें आनी न्हिदपाचे तयारेक लागलें.

न्हिदूंक आपली तकली पाखांभितर घालतनाच उदकाचो एक मोठो थेंबो ताचेर पडलो.

"हें आनी अजाप शें!" पाकोळी उद्गारलें.

'मळबार तर एकूय काळें कूप झळकना. नखेत्रां सामकीं शांत नितळ परजळटात आनी तरूय पावस पडटा! उत्तर युरोपांतलें हवामान खरेंच भिरांकूळ! बेताक जाल्यार पावस खूब आवडटा. पूण आपल्या सुवार्था खातीर.'

रोखडोच आनीक एक थेंबो गळ्ळो.

'पावसाक आडावंक शकना जाल्यार, ह्या पुतळ्याचो फायदो कितें?' ताणें म्हळें.

'बरिशी चिमणी पळोवन घेतल्यार बरी आसरो घेवंक.' आनी तें उडपाचे तयारेक लागलें.

पाखां उगडचे पयलींच तिसरो थेंबो ताचेर पडलो आनी ताणें वयर पळयलें आनी ताका दिसलें – आह! कितें ताणें पळयलें? सुखी राजकुंवराचे दोळे दुकांनीं भरून, तीं ताच्या भांगरा पोल्यांवयल्यान देंवतालीं. चान्याच्या उजवाडांत ताचें मुखामळ इतलें सोबीत दिसतालें की त्या माणकुल्या पाकोळीक ताची काकुळट दिसली.

"कोण तूं?" पाकोळीन विचारलें.

"हांव सुखी राजकुंवर."

"तूं रडटा कित्याक तर?" सवण्यान विचारीत फुडें म्हळें, "म्हाका साप्प भिजयलें तुवें."

"हांव संवसारांत जगतना मनशाचें काळीज म्हाका आसलें." पुतळ्यान जबाब दीत म्हळें, "हांव 'सांस-संसी' राजवाड्यांत रावतालों. दुकां म्हळ्यार कितें तें म्हाका खबरूच नासलें. राजवाड्यांत दुकां भितर सरूंक शकना आसलीं. पुराय दीस हांव म्हज्या इश्टां वांगडा बागेंत खेळटालों आनी रातचें व्हडल्या सालांत नाचून मौज करतालों. बागेचे सरभोंवतणी एके व्हड वण्टीन वेडो घातिल्लो. तिचे पलतडीं कितें आसा तें जाणून पासून घेवंक म्हाका केन्नाच दिसलें ना.

म्हजें जिवीत सोबीत आसलें. म्हजे सेवक म्हाका 'सुखी राजकुंवर' म्हणटाले आनी खऱ्यानीच हांव सुखी-धादोशी आसलों. असो हांव जगलों आनी एका दिसा हांव मेलों. म्हज्या मरणा उपरांत ताणीं म्हाका पळय हांगा वयर उबारून दवरला. म्हज्या शारांत आशिल्लें सगलें दूख, गरिबी आनी ही हळशीक हांवें पळोवंक. जरूय म्हजें काळीज मोव धातूचें तरूय दुकां गळोवंचे बदला दुसरो पर्याय ना."

'कितें! हो पुराय भांगराचो न्हय तर?' पाकोळीन आपलेच भितर म्हळें. तें नम्र सभावाचें आशिल्ल्यान मोठ्यान तशें विचारूंक ताका जमलें ना.

"पयस." सूरेल, मधूर आवाजान फुडें उलयत पुतळ्यान म्हळें, "पयस त्या ल्हान रस्त्यार एक गरीब घर आसा. उक्तें आशिल्ल्या एका जनेलांतल्यान मेजा कुशीक बशिल्ली बायल म्हाका दिसता. तिचें तोंड बावलां आनी सूय तोंपून तोंपून तिचे हात खरखरीत जाल्यात. ती शिंवता. राणयेचे एके सोबीत दासीच्या लांब व्हिस्तीदार ती फुलां भरता. तिचो ल्हान भुरगो कोनशाक आशिल्ले खाटीर दुयेंत आसा. ताका जोर आयला आनी तो संत्रां मागता. ताचे आवयकडेन ताका दिवंक न्हंयचें उदक सोडल्यार दुसरें कांयच ना. म्हणून तो रडटा. पाकोळ्या, पाकोळ्या माणकुल्या पाकोळ्या म्हजे तरसादींतलो तो तांबडो खडो व्हरून तिका दिवशी? म्हजे पांय ह्या खांब्याक दसून आसात. म्हज्यान हालूंक जायना."

पाकोळ्यान म्हळें, "म्हाका इजिप्तांत रावतात म्हजे सगले इश्ट. नाईल न्हंयचेर वयर सकयल उडटात आनी व्हडल्या कमळांकडेन गजाली करतात. आतां रोखडेच ते राजाच्या थडग्यांत न्हिदूंक वतले. पितारिल्ल्या काशावांत तो राजा न्हिदून आसा. हळदुव्या उंची कपड्यान ताका

न्हेसयला आनी मसाल्यान ताका रगडून कुसना आसतना दवरला. ताच्या गळ्यांत पांचव्या मोलादीक खड्यांची सरपळी आसा आनी ताचे हात सुकिल्ल्या पाना भशेन जाल्यात.''

''पाकोळ्या, पाकोळ्या, माणकुल्या पाकोळ्या'' राजकुंवरान ताका विनयलें, ''आयची एकूच रात म्हजो दूत जावन तूं रावचो ना? तो भुरगो बरोच तानेला आनी ताची आवय दुखी आसा.''

''म्हाका चले आवडनांत.'' पाकोळ्यान जबाब दिलो.

''फाटल्या गिमाळ्यांत हांव न्हंयचेर रावतालें तेन्ना दोन मस्ते भुरगे सदांच म्हजेर फातर शेवटिताले. तातुंतलो एकटो गिरणकाराचो पूत. पूण आमी पाकोळीं उडूंक एकदम फास्ट. म्हजेर तांचो एकूय फातर पडलो ना आनी ते भायर आमचें घराणेंच आक्रमक. दुसऱ्यांक मान दिवंक तें नकळोच.''

सुखी राजकुंवराक दुखेस्त पळोवन पाकोळीक ताची काकुळट दिसली आनी ताणें म्हळें, ''हांगा खूबच थंडी आसा, तरूय तुजो दूत जावंक हांव आनीक एक रात हांगा रावतां.''

''देव बरें करूं. माणकुल्या पाकोळ्या.'' कुंवरान म्हळें.

पाकोळीन, तरसादिंतलो तांबडो खडो काडून चोंचीत धरून गांवांतल्यान उडत गेलें. वाटेर ताका व्हडले इगर्जेचो मिनार दिसलो. ताचेर मार्बलाचे धवेफुल्ल देवदूत कोरांथलेले आसले. राजमहालावयल्यान उडटना ताका नाचाचो आवाज आयकूंक मेळ्ळो. वारांदाचेर एक सोबीत चली आपल्या मोग्या वांगडा भायर आयलें.

''ही नखेत्रां कितलीं सोबीत पळय.'' ताणें मोगीकेक म्हळें.

''आनी मोगाची तांकूय तितलीच सोबीत!''

''राजमहालांतले पार्टेक घालपाचो म्हजो व्हिस्तीद तयार जाल्यार पुरो वेळार! ताचेर फुलांचें भरतकाम करूंक दिलां. शिंवपीणीं म्हणून आळशीच!''

न्हंयच्या वयल्यान उडटना बोटींच्या शिडार लांबतले दिवे ताका दिसले.

ज्यू लोकांच्या राबित्या वेल्यान वतना ताका ते एकामेकाकडेन वांटपण करतना मेळ्ळे. पयशे पितुळचे तागडेंत ते जोखताले. शेवटीं त्या गरीब घराकडेन तें पावलें आनी भितर पळयलें. तो भुरगो जोरान हेवटेन तेवटेन खाटीर धोपटून कूस परतितालो आनी ताची आवय थंयच न्हिदून पडिल्ली. ती खूब थकिल्ली. पाकोळीन भितर झेप घेतली आनी चोंचींतलो तांबडो खडो मेजाचेर तिच्या तोपणा कुशीक दवरलो. मागीर तें ल्हवूच खाटी भोंवतणी उडलें आनी आपल्या पांखांनीं त्या भुरग्याच्या कपलाक वारो घातलो.

''म्हाका बरें थंड दिसलें. हांव निवळ्ळों दिसता.'' भुरग्यान म्हळें आनी रोखडोच ताका दोळो लागून तो सुस्त न्हिदलो.

मागीर पाकोळी सुखी राजकुंवराकडेन परतलें आनी आपणें केलें तें सांगलें.

''खरेंच अजापूच जाणा.'' तें उलयलें.

''इतली थंडी आसूनय म्हाका बरीच उब मेळ्ळ्या.''

''तुवें बरी करणी केल्या देखून.'' कुंवरान म्हळें.

हें आयकून सवणें चिंतूंक लागलें आनी न्हिदून पडलें. चिंतूंक लागलें की ताका रोखडीच झेम पडटाली. दीस उजवाडटांच तें उठलें आनी न्हंयचेर न्हावन आयलें.

''हे गजालीचें अजाप शें.'' पुला वयल्यान चलपी पक्षीशास्त्राच्या प्रोफेसरान अजापून पाकोळीक पळोवन म्हळें,

''हे थंडेत, पाकोळी हांगा!'' आनी थळाव्या खबरांपत्रांचेर ताणें हे घडणुके बद्दल लांब पत्र बरयलें. जायत्या जाणांनीं वाचून ताचो उल्लेख केलो पूण ताणें कठीण, मोठे शब्द वापरिल्ल्यान तें बऱ्याच जाणांक समजूंक ना.

'आज राती हांव इजिप्ताक वतलें.' चिंतूनच पाकोळी भुल्लुसलें. सगलीं भौशीक स्मारकां आनी थळांक ताणें पळोवन घेतलीं आनी इगर्जेच्या कळसार बरोच वेळ बसून रावलें. वता थंय ताका पळोवन गिरबुजी चिंवचिंवपाक लागली, ''आवयस! हो आनी अप्रूप अनवळखी न्ही.'' आनी हें आयकून ताका चडूच आनंद जालो.

चंद्रीम मळबार उदेंताच तें परत राजकुंवरा म्हऱ्यांत उडून गेलें. ''इजिप्तांत तुजें कसलेंय काम आसल्यार सांग. हांव वचूंक आतां भायर सरतां.'' पाकोळीन ताका विचारलें.

''पाकोळ्या पाकोळ्या, माणकुल्या पाकोळ्या आनी एक रात तूं म्हजे वांगडा रावशी?'' कुंवरान पर्थून ताका विनवणी केली.

''म्हाका इजिप्तांत रावतात.'' पाकोळीन म्हळें, ''फाल्यां म्हजे इश्ट दुसरो घसघसो हांगा वचपाचे आसात. उदकांतलो घोडो थंय गोठेता आनी एका व्हड ग्रॅनायटाच्या सिंहासनाचेर 'मेमनन' देव बसला. आख्खी रातभर तो नखेत्रां तेळीत बसता आनी फांतोड्डेचें नखेत्र उदेतनाच, आनंदाची एकूच हुयेल मारता आनी पर्थून शांत जाता. दनपारचे हळदुवे शींव न्हंयच्या कांठार उदक पिवंक येतात. तांचे दोळे

पांचुच्या थिकां सारके आनी तांची डरकाळी, घसघश्याच्या गरजा परस व्हड.''

''पाकोळ्या, पाकोळ्या, माणकुल्या पाकोळ्या.'' कुंवरान म्हळें, ''शारांत खूब पयस त्या घरांतले वयले माळयेर म्हाका एक तरनाटो दिसता. कागदांनी भरिल्ल्या मेजार तो ओणवो जाला आनी थंयच एके फुलदाणींत बाविल्ल्या जांबळ्या फुलांचो घोस आसा. ताचे केंस मातये रंगाचे आनी ते सुकल्यात. ताचे वोंठ डाळिंबा भशेन तांबडे आनी दोळे ताचे मोठे, सपनाळे. एक नाटक पुराय करपाचो तो प्रयत्न करता. पूण थंडेच्या कुडकुडच्याक लागून, ताची लेखणी मुखार वचना. कुरकुटांत उजो ना आनी भुकेन तो तळमळटा.''

''बरें आनी एक रात हांव हांगा रावतां.'' मोवाळ काळजाच्या पाकोळ्यान म्हळें, ''आनी एक तांबडो खडो ताका व्हरून दिवं?''

''हाय! म्हजेकडेन आनी तांबडो खडो ना.'' कुंवरान म्हळें, ''उरल्यात ते फकत दोळे. दुर्मीळ निळे खडे ते. हजार वर्सां पयलीं भारतांतल्यान ते हाडिल्ले. तो एक खडो हुमटावन काड आनी ताका व्हरून दी. शेटीक विकून त्या पयशांनी तो जेवण आनी लाकडां विकत घेतलो आनी ताचें नाटक बरोवन पुराय जातलें.''

''अपुर्बायेच्या कुंवरा, म्हज्यान तें कशेंच जावंचे ना.'' रडत पाकोळीन म्हळें.

''पाकोळ्या, पाकोळ्या माणकुल्या पाकोळ्या हांवें सांगलां तशें कर.'' कुंवरान ओर्द दिली.

पाकोळीन आदेशा प्रमाण कुंवराच्या दोळ्यांतलो निळो खडो हुमटावन काडलो



आनी नाटक बरोवप्याचे माळयेर उडून आयलें. माळयेवयल्या पाख्याक बुराक आशिल्ल्यान सोंपेपणी ताका भितर सरूंक मेळ्ळें. बुरकांतल्यान उडकी मारून तें कुडांत आयलें. त्या तरणाट्याची तकली ताच्या हातांत पुरवल्ली आनी म्हणून पाकोळीच्या फडफडटल्या पाखांचो आवाज ताणें आयकलो ना. जेन्ना ताणें तकली वयर काडली तेन्ना, बाविल्ल्या जांबळ्या फुलांचेर दवरिल्लो मोलादीक निळो खडो पळोवन तो अजापून उद्गारलो, 'जांव, कोणें तरी म्हजी तुस्त केल्या.' खोशयेन ताणें म्हळें, 'म्हजें कौतूक करतल्याची करणी ही. आतां हांव हें नाटक पूर्ण करूंक पावतलों.' तो बरोच खूश दिसतालो.

दुसऱ्या दिसा पाकोळी बंदरार गेलें. व्हडले बोटीच्या शिडार चडून बसलें. तारवटी दोरयेन व्हड व्हड पेटयो, सामान दवरपाचे कोठडेंतल्यान 'ओऽ रे होऽय' म्हणत एक एक पेटी भायर सरता तशी, ते आड्डताले.

''हांव इजिप्ताक वतां.'' वयर बसून तांकां पळयतल्या पाकोळीन म्हळें. पूण कोणेंच ताका दाद दिली ना आनी मळबार चंद्रीम दिसतांच तें परत उडून सुखी राजकुंवरा म्हऱ्यांत गेलें.

''तुजो निरोप घेवंक आयलां.'' तें उलयलें.

''पाकोळ्या, पाकोळ्या माणकुल्या पाकोळ्या.'' कुंवर विनोवंक लागलो, ''आनी एकूच रात म्हजे बरोबर रावचें ना तूं?''

''हो आतां शियाळो.'' पाकोळ्यान जबाब दिलो आनी रोखडोच झेल पडूंक लागतलो. इजिप्तांत पांचव्या ताड-माडांचेर सुर्याची उब मेळटा. मानगीं थंय सुशेगाद मातयेंत पुरून आपले भोंवतणचो वाठार पळयतात. 'बालबेक' देवळाचेर म्हजे वांगडी आपले घोंटेर बांदतात आनी धवे तशेच गुलाबी पाखे साद घालीत तांकां पळयतात. मोगाळ कुंवरा, तुका सोडून हांवें वचुंकूच जाय. पूण हांव तुका केन्नाच विसरचेंना आनी फुडल्या वसंतांत हांगा येतना तीं दोन मोलादीक माणकां तुवें दिवन उडयल्यांत पळय तीं हांव तुका हाडून दितलें. तांबड्या गुलाबा परस तो रुबी तांबडो आसतलो आनी सॅफायर निळ्या दर्या इतलो निळो.''

''हेऽ त्या सकयल्या चौकांत.'' कुंवरान सांगूंक सुरवात केली, ''फस्क विकपी ल्हान

चली उबें आसा. ताच्यो फस्का काडयो गटारांत पडून पिड्ड्यार जाल्यात. पयशे घेना आसतना तें घरांत भितर सरल्यार ताचो बापूय ताका मारतलो म्हणून तें रडटा. ताच्या पांयांक ना मेय, ना मोचे आनी ताची ती ल्हान तकली उगती आसा. म्हजो दुसरो दोळो हुमटाय आनी ताका दी. मागीर ताचो बापूय ताका मारचो ना.''

''हांव तुजे म्हऱ्यांत आनीक एक रात रावंक तयार आसां.'' पाकोळीन म्हळें, ''पूण तुजो दुसरो दोळो म्हज्यान अजिबात हुमटावंक जावंचो ना. तूं सारकोच कुड्डो जातलो.''

''पाकोळ्या, पाकोळ्या माणकुल्या पाकोळ्या हांव सांगतां तशेंच कर.'' कुंवरान म्हळें आनी पाकोळीन ताचो दुसरोय दोळो कोंचावन काडलो आनी सकयल झेप घेतली. ते चलये म्हऱ्यात तें गेलें आनी ताच्या हाता ताळटाचेर तो निळो खडो दवरलो.

''आवयस! कितलो सोबीत हो कंवचे कुडको.'' आनंदान ते चलयेन म्हळें आनी हांसत हांसत घरा धांव मारली.

मागीर पाकोळी कुंवरा म्हऱ्यांत परत आयलें आनी ताका म्हळें, ''तूं आतां कुड्डो जाला. हांव सदांकाळ आतां हांगा रावतलें.''

''ना माणकुल्या पाकोळ्या.'' कुंवरान म्हळें.

''तुवें इजिप्तांत वचूंकच जाय.''

''हांव तुजे म्हऱ्यांत सदांच रावतलें.'' अशें म्हणत पाकोळी कुंवराच्या पांयांकडेन न्हिदलें.

दुसरे सकाळीं उठून आख्खो दीस तें कुंवराच्या खांदार बसलें. ताणें तरेतरेच्या वाठारांनीं आपणें पळयल्ल्यो मजेदार गजाली ताका सांगल्यो.

नाइल न्हंयचेर लांबचे लांब ओळीन उबीं रावतलीं 'इबीसी' नांवाच्या बक्या भशेन दिसपी सुकणीं कशीं चोंचीत नुस्तें (गोल्डफीश) धरतात तें सांगलें.

'स्पिन्क्स' (sphinx - अस्तुरेच्या तोंडाची, शींवाची आकृती) संवसार सुरू जाल्लो तेन्ना जल्मल्लो आनी ताका सगलें खबर आसा अशें सांगून तो वाळवंटात रावता हीय खबर सांगली आनी हातांत अंबराच्यो माळो घेवन, उंटां वांगडा सवकास चलून वतल्या वेप्याऱ्यांकूय तो वळखता म्हणपाची खबरूय दिली.

चंद्रीम पर्वताचो राजा, जो एबोनी लाकडाभशेन काळो आनी व्हडल्या कंवचेच्या आयदनाची तो पुजा करता; ताड माडांच्या मुळांत न्हिदपी व्हडलें पांचवें जिवाणें जाका वीस पाद्री म्होवाच्यो पोळयो खावयतात, गिड्डे जे व्हडल्या तळ्यांतल्यान सपाट पानार बसून वतात आनी सदांच फुलपाख्यांकडेन झगडटात म्हणपाचीय गजाल सांगून सोडली.

''अपुर्बायेच्या माणकुल्या पाकोळ्या'' कुंवरान म्हळें, ''तूं म्हाका अप्रूप गजाली सांगताच. पूण चड चकीत आनी अजापीत करपी गजाली म्हणजे मनीस जातीचे कश्ट. दळिद्रा परस व्हड गूट ना. म्हज्या शारावयल्यान उडून वच. माणकुल्या पाकोळ्या आनी सांग म्हाका तुका थंय कितें दिसता तें.''

आनी अशे तरेन पाकोळी त्या व्हड शारावयल्यान उडत गेलें. ताणें पळयलें गिरेस्त लोक आपल्या घरांनीं मजा करतात ते आनी गरीब भिकारी दरवंट्या भायर भिकेक बसल्यात ते. काळे पायणींतल्यान तें उडटा आसतना, भुकेन धर्वी पडिल्लीं रस्त्यार भोंवपी भुरग्यांचीं तोंडां ताणें पळयलीं. पुलाच्या आर्का मुळांत दोन भुरगे एकामेकाची उब घेवंक वेंग मारून बशिल्ले. ''कितली भूक लागल्या न्ही?'' ताणीं म्हळें. ''तुमी हांगा रावनाकात.'' राखणदारान तापोवन तांकां थंयचे धांवडायले आनी ते उठून भायर पावसांत गेले.

हें सगलें पळयल्लें तें पाकोळीन वचून कुंवराक सांगलें.

''हांव नकसूद, पातळ भांगरा पानांनीं पुराय भरलां.'' कुंवरान म्हळें, ''पानार-पान करून तुवें तें निखळावन म्हज्या गरिबांक वाटूंक जाय. संवसारांतल्या मनशांक सदांच दिसता की भांगर आपल्याक सुखी दवरता.''

सुखी राजकुंवर निस्तेज दीसऽसर भांगराचें एक एक पान करून सगलीं पानां पाकोळीन निखळावन काडलीं आनी एक एक करून गरिबांक वांटलीं. भुकेल्ल्या भुरग्यांची तोंडां फुलून आयलीं आनी तीं खळखळून हांसून रस्त्यांचेर खेळूंक लागलीं, ''आमकां आतां खावंक आसा!'' तीं खोशयेन रडलीं.

मागीर झेल पडूंक लागलो आनी ताचे उपरान्त धुकें पडूंक सुरवात जाली. रस्ते पळोवंक रुप्यावरी दिसताले. ते सारके सुळसुळीत आनी चकचकीत जाल्ले. घरांच्या पावळ्यांनीं झेल्याच्यो तरसादी कश्यो लांबताल्यो आनी सगलींच जाणां गरम कपडे घालून भोंवतालीं. ल्हान भुरगे माथ्याक तांबड्यो तोपयो घालून झेलाचेर स्केटींग करताले.



माणकुलें पाकोळें बाबडें थंडेन बरेंच कुडकुडटालें. पूण तें राजकुंवराक सोडून वचूंक कशेंच तयार नासलें. ताचेर ताचो खूब मोग आसलो. पदेराची नदर चुकोवन ताच्या दारांत वचून उंड्याचे ल्हान कुडके तें उबारतालें आनी उब मेळूंक आपलीं पांखां फाफुडटालें. शेवटीं, आपलो वेळ पावलो हें ताका जाणवलें. निमणे एकूच पावटी कुंवराच्या खांद्यार उडून वचून बसपा इतलीच शक्ती ताच्या आंगांत उरिल्ली.

''बरो करून राव, मोगाळ राजकुंवरा!'' तें फुतफुतलें. ''तुज्या हाताचो उमो घेवं हांव?''

''माणकुल्या पाकोळ्या, हांव खरेंच खोशी शेवटीं इजिप्ताक तूं वताय म्हूण.'' कुंवरान म्हळें, ''तूं हांगा खूब काळ रावलें. तुवें म्हज्या वोंठांचो उमो घेवंक जाय कित्याक हांव तुजो मोग करतां.''

''हांव इजिप्ताक वचना.'' पाकोळीन म्हळें, ''हांव देवा घरा वतां. मरण न्हिदेचो भाव न्हय?'' आनी ताणें सुखी राजकुंवराच्या वोंठांचो उमो घेतलो आनी ताच्या पांयांकडेन मरून पडलें.

त्याच खिणाक एक चमत्कारीक फूट पडल्याचो सो आवाज पुतळ्या भितरल्यान आयलो. कितें तरी मोडल्या सारको. पळोवंक गेल्यार पुतळ्याच्या 'लेडाच्या' काळजाचे दोन कुडके जाल्ले. खऱ्यांनीच कडक थंडी आनी खूबच झेल पडिल्लो.

दुसरे सकाळीं, नगराध्यक्ष आपल्या नगरसेवकां वांगडा चलून वतालो.त्या खांब्याकडेन पावतांच ताणें वयर पळयलें आनी म्हळें, ''देवा म्हज्या! पळयात. सुखी राजकुंवर कितलो पिसुडिल्लो दिसता तो.''

''खरेंच बुरसो दिसता!'' वयर पळयत नगरसेवकांनी, नगराध्यक्षांची सदांचेच भशेन उतरां मानून घेतलीं.

''ताचे तरसादींतलो तांबडो खडो गळून पडला. ताचे दोळे रिते जाल्यात आनी ताच्या आंगावयलें भांगर नाच्च जालां.'' नगराध्यक्षान म्हळें, ''एका भिकाऱ्या परस तो मात्सो बरो आसा.''

''भिकाऱ्या परस मात्सो बरो.'' गांवच्या नगरसेवकांनीं म्हळें.

''ताच्या पायांकडेन एक सवणें आनी मरून पडलां.'' नगराध्यक्षान फुडें म्हळें, ''खरें म्हळ्यार सवण्यांक हांगा मरूंक दिवंक फावना. असो जाहीरनामो आमी उजवाडावंक जाय.'' आनी नगरपालीकेच्या कारकुनान ह्या विधानाची नोंद घेतली.

सुखी राजकुंवराचो पुतळो ताणीं सकयल देंवयलो.

''ताची सोबीतकाय ना जावन ताचो आतां कसलोच उपेग ना.'' विद्यापीठांतल्या 'आर्ट' प्रोफेसरान म्हळें.

एका खोर्नांत ताणीं तो पुतळो कडयलो आनी ह्या धातूचें फुडें कितें करचें हें थारावपा खातीर नगराध्यक्षान जमात आपयली.

''खरें म्हळ्यार आमी एक दुसरो नवो पुतळो उबारूंक जाय.'' ताणें म्हळें, ''आनी हो पुतळो म्हजो जातलो.''

''ना. म्हजो.'' एक एकटो नगरसेवक म्हणत गेले आनी लागलेच झगडूंक. शेवट मेरेन ते झगडतच आसले.

कारखान्यांतल्या सुपरवायजरान म्हळें, 'हें आनी विचित्रूच शें! हें फुटिल्लें काळीज खोर्नांत कडना. तें भायर उडोवंक जाय.'' आनी ताणीं तें कोयरा राशीर शेंवटिलें. मरून पडिल्ल्या पाकोळीकूय थंयच उडयल्लें.

''शारांतल्यो दोन चड मोलादीक वस्तू म्हाका हाडून दी.'' देवान आपल्या देवदूताक सांगलें आनी देवदूतान देवाक पुतळ्याचें कडूंक नाशिल्लें काळीज आनी मेल्लें तें सवणें हाडून दिलें.

''तुवें योग्य तेंच सोदून हाडलां.''

देवान देवदूताक म्हळें, ''कित्याक सर्गांतल्या नंदनवनांत हें माणकुलें सवणें निरंतरी गायत रावतलें आनी म्हज्या भांगराळ्या शारांत सुखी राजकुंवर म्हजी तुस्त करतलो.''



('ऑस्कर वाईल्ड' हांच्या 'दी हॅपी प्रीन्स ॲन्ड अदर स्टोरीज' हातुंतल्या काणयांचें हें मुक्त रुपांतर नव्या वर्साच्यान खिस्ती खिस्तीनी वाचप्यां मुखार येता.)



– ब्रॅन्डा मिनेझीस
कुस्मण – केपें
फोन : २६६२४९१



# तिरुअनंतपुरम ते कन्याकुमारी

तिरुअनंतपुरम केरळ राज्याची राजधानी. बंगळुरू, मुंबय, चेन्नय ह्यो हेर राज्यांच्यो राजधान्यो. तांच्या मानान तिरुअनंतपुरम सामकें सादें दिसलें. ह्या शाराचो गांवदेव पद्मनाभस्वामी (शेषशायी अनंत) हाचे वयल्यान ह्या गांवाक तिरुअनंतपुरम हें नांव पडलें. देवूळ खूबूच व्हड आसा आनी भितर शेषनागाचेर विसव घेवपी विष्णुची पंदरा फुटी मुर्ती आसा. भितर सरतना पयलीं दारांतल्यान विष्णुच्या सुंदर मुखामळाचें दर्शन जाता. दुसऱ्या दारांतल्यान पोटाकडल्या भागाचें तर तिसऱ्या दारांतल्यान पांयांचें. मंडपाच्या चारूय कोनशांनी चार सुळसुळीत खांबे आसात. ताचेर हात मारल्यार तातुंतल्यान संगिताचे सूर येतात. थंय सावन आमी कन्याकुमारी वचपाक भायर सरलीं.

थंय सावन गाडी सोडली ती बद्द पद्मनाभपुरम. हांगा श्रावणकोर राजाचो राजवाडो पळोवपाक रावलीं. ह्या राजवाड्याचें बांदकाम बऱ्या दर्जाचें लाकूड वापरून केलां. व्हडलीं व्हडलीं सालां. एकांत लाकडी सिंहासन. ताचे वयलें कोरीव काम चिनी धर्तीचें. दुसऱ्यांत ग्रॅनायटचो पलंग. गिमाच्या दिसांनी थंडसाणे खातीर खंय ताचेर न्हिदताले. जेवपाच्या सालांत तर व्हडलीं व्हडलीं चिनी मातयेचीं बुयांवां आशिल्लीं. हातूंत खंय पयलीं लोणचीं भरून दवरतालीं. प्रार्थना करपाचें साल आसा ताच्यो वण्टी तर सुंदर सुंदर चित्रांनी रंगयल्ल्यो. त्योय बी सैमीक रंग वापरून. पानांच्या, फुलांच्या रोसान हे रंग तयार करताले खंय! थंय सकयल एक ४० किलो वजनाचें व्हडलें वाटकुळेंच खडप आशिल्लें. शिवदत्तान आनी केतनान तें हालोवपाचो यत्न केलो आनी बेश्टेच घामाघूम जाले.

दनपार जाल्ली. वाटेर एका ल्हानशा गांवांत जेवपाक रावलीं. जेवन भायर सरलीं तीं एकदम सुचिंद्रम शंकराच्या देवळाकडेन रावलीं. ह्या देवळाक चार संगीत खांबे आसात. ह्या खांब्याचेर मुठी मारल्यार तातुंतल्यान शेनाय, वीणा, तबलें हांचे सूर येतात. थंय १८फूट उंचायेची मारुतीची मूर्त आसा. ताका थंय आंजनेय म्हणटात.

कन्याकुमारी पावलीं तेन्ना सांजवेळचीं साडेचार वरां जायत आयिल्लीं. गाडयेंतल्यान देंवन भारतभुंयेच्या निमाण्या तोंकार पांय दवरलो. नदर पावता थंय उदकूच उदक. हांगा अरबी समुद्र, हिंदी महासागर, बंगालचो उपसागर हांचो संगम. तिनूय कडलीं ल्हारां एक जावन भारतमातेक

वंदन करतात. भारतमातेचे पांय धुतात असो एक विचार मनांत आयलो. आमी बेगीबेगीन तिकेटी काडून लाँचीत चडलीं. वारें नेटान व्हांवतालें. पयसुल्ल्यान तें व्हडलें खडप दिसतालें. ह्याच खडपार बांदलां स्वामी विवेकानंद स्मारक.

१८८२ वर्सा स्वामी विवेकानंद भारतभर भोंवत हांगा पावले. तीन महासागरां मदीं हें खडप उबें आशिल्लें. २५, २६ आनी २७ डिसेंबर १८८२ हे तीन दीस, समुद्रांत उडी घेवन २०० मिटरांचें अंतर पेंवून वचून विवेकानंद ह्या खडपाचेर ध्यान करीत बसले. तीन दीस, तीन राती ते एकटेच ह्या एकोड्या खडपाचेर ध्यान लावन बशिल्ले.

लाँचींतल्यान देंवन थोडीं सोपणां चडटकीच लागता श्रीपाद मंडपम. खडपाच्या मुखावयलें तोंक पावलाच्या आकराचें आसा.ह्या खडपाचेर बसून पार्वतीन शंकराकडेन आपलें लग्न जावंचें म्हूण ताका प्रसन्न करून घेवपाक तपश्चर्या केली. तिचें पावल ह्या खडपाचेर उदेलां. तशींच वयर चडून वतकच मेळटा विवेकानंद मंडपम - स्वामी विवेकानंदाचें स्मारक. थंय तेजस्वी मुखामळाच्या स्वामीचो पुतळो उबो आसा. आमी गेल्लीं तशींच लाँचीत बसून परतीं वेळेर आयलीं. फुडें कन्याकुमारीचें देवूळ आसा. कन्याकुमारी ही भरत राजाची धूव. राजान आपलें राज्य सगळ्या भुरग्यांक वांटून उडयलें. कुमारी हे चलयेक दक्षिणेकडलो निमाणो भाग मेळ्ळो. म्हणून त्या भागाक कुमारीनाडू म्हणटाले. कन्याकुमारी तामिळनाडू राज्यांत येता.

महात्मा गांधीचेंय स्मारक हांगा पळोवपाक मेळ्ळें. हांगा गांधीजींच्यो अस्थी विसर्जनाखातीर हाडिल्ल्यो. ज्या जाग्यार अस्थी दवरिल्ल्यो थंय संगमरवरी ओटो आसा. थंय वयल्या पाख्याक हारशे बसयल्यात. त्या हारशांची रचना अशे रितीन केल्या, दर वर्सा जुस्त २ ऑक्टोबराक सूर्याचीं किरणा ह्या ओट्यार पडटात. थंय सावन आमी पोटोबा करपाक गेलीं. कन्याकुमारी स्पेशल कॉफी पियेलीं. उतप्पा, दोसा खालो आनी तिरूअनंतपुरमाक वचपाक भायर सरलीं.





**- हर्षा शेटये**
कृष्णप्रेम, अंबाजी,
फातोड्डें - गोंय.
मो.: ९८५०५३०१५२

## डरांव - डरांव



हडवोताल बेबो
शेतामेरेर उबो
हांवें म्हळें बेब्या बेब्या
आगा मात्सो राव
हालीं तेंपार आयकूंक येना
तुजें डरांव-डरांव!

हुडकी मारून बेब्यान म्हळें
पापया मात्सो पयसूच राव
तुजे पासत जाय रावपाक शादूर
देखून हांवें बंद केलां
म्हजें डरांव - डरांव!

तुजे जिबेक सुटल्या
म्हज्या मांसाची हाव!
जिबेच्यो तुज्यो रुची भागयताना
विसरून सगळे सैमाचे कायदे
चिंतनांत तुज्या फकत फायदे!



तूं करता तें पातक
तुकांच ठरता तें घातक
देखून जीब आनी सुवार्थ आवर
आसूं सैमात सगळ्यांचो वावर!

शेतांतल्यान पावलों तुज्या ताटांत
रूचीन जिरयताना म्हाका पोटांत
सांगन दिसता आकांतान
पापयानों तुमीय जगात
आनी हेरांकूय जगूंक दियात!

**- सुषमा तिळवे**
जेसीनगर,
फोंडें - गोंय

# शिंवासन बत्तिशी



मध्ययुगीन भारतांत जायतीं ल्हान-व्हड राज्यां आशिल्लीं. तातुंतलें एक राज्य म्हळ्यार माळवा. ताचें राजपाटण जावन आसलें राधानगर. राजा भोज ताचेर राज्य करतालो. राजाक आपली प्रजा खूब आवडटाली. बरेतरेन राज्य चलोवपा पासत तो सदांच यत्न करतालो. प्रजेक कसलोच त्रास जावं नये हाची तो जतनाय घेतालो.

त्या नगरांत एक गिरेस्त सावकार रावतालो. ताका दोन पूत आसले. तांकां घोडयांचेर सवारी करपाक खूब आवडटालें. दोगांयचोय आवडटो एक एक घोडो आसलो. ते ताची बरी जतनाय घेताले, खूब सेवा करताले. घोडेय तांचेर माया करताले. सावकारान मरचे पयलीं मृत्यूपत्र करून दवरिल्लें. कांय दिसांनी सावकार मेलो. ताणें मुत्यूपत्रांत बरयल्लें, "म्हजे संपत्तीचो तिसरो वांटो देवा धर्माच्या नांवान खर्च करचो. उरिल्ली धन-संपत दोनय पुतांक सारकी वांटून दिवची."

सावकाराकडेन एकच निलमणी आशिल्लो. तो कसो वांटप? सावकारान ताचेरय उपाय सांगिल्लो. आपल्या दोनय पुतांनी घोडे घेवन धांवपाची सर्त दवरची. जाचो घोडो फाटीं उरता ताच्या धनयाक तो निलमणी दिवपाक सांगलो. ह्या मृत्यूपत्राचो गवाय राजाक दवरिल्लो.

राजान सर्त सुरू करूंक लायली तेन्ना दोगय भाव घोडो आसा थंयच उबो करून आपुणय थंयच उबे रावले. कित्याक म्हळ्यार बापायन सर्ती पासत दवरिल्ली अटच विचीत्र आशिल्ली. तेन्ना राजान थोड्या दिसां पासत तो निलमणी आपल्या खजिन्यांत दवरलो आनी बाकीच्या धन-संपत्तीचे सारके वांटे करून सावकाराच्या दोगय पुतांक दिले.

कांय दिसां उपरांत राजा शिकारेक गेल्लो. थंय ताणें पळयलें, थंय कांय राखणे गोरवांक चरपाक सोडल्यांत आनी खेळ खेळटात. तांचो खेळ पळोवन राजाक अजाप जालें. तो तांचो खेळ बरो करून पळोवंक लागलो. एका व्हड रूखा पोंदा एक चलो बशिल्लो. तो हेर भुरग्यांच्या प्रस्नांचेर न्याय दिवपाचें काम करतालो. ताची न्याय दिवपाची हुशारकाय पळोवन राजा अजापीत जालो.

राजा मुखार आयलो आनी ताणें त्या राखण्याक विचारलें, "बाब रे म्हज्या एका प्रस्नाची जाप तूं दिवशी?"

राखण्यान म्हळें, "हय, वय बरे भशेन."

राजान ताका आपली धन-संपत वांटपाविशीं सावकारान बरोवन दवरिल्ली सगळी गजाल सांगली आनी निमणें म्हळें,

"आतां एक निलमणी उरला. तो दोगय जाणांक कसो वांटून दिवं?"

राजान ताका मृत्युपत्रांत सावकारान घाल्ल्यो अटीय सांगल्यो. त्यो आयकून न्याय दिवपी चल्यान म्हळें, "म्हाराज दोगय भुरग्यांक आपलो घोडो दियनासतना, भावाच्या घोड्याचेर बसपाक लावप."



राजाक अर्थ कळ्ळो आनी अजाप जालें. "ही युक्त त्या येदेश्या भुरग्याक कळ्ळी, म्हाका कित्याक कळ्ळी ना?"

राजान हेर भुरग्यांकडेन चवकशी केली. त्या वेळार राजाक भुरग्यांनी सांगलें, "म्हाराज, ह्या जाग्यार जो बसता तो बरे तरेन न्याय दिता."

राजा मुखार गेलो आनी त्या जाग्यार बसूंक केलें. राजाचे पांय भाजले, राजा रोखडोच फाटीं सरलो. हाची सारकी चवकशी करची अशें थारावन राजा नगरांत परतलो.

राजान दोगांय भावांचे घोडे बदलून सर्त घेतली. तेन्ना दोनय घोडे बरे धांवले. तेन्ना जो घोडो फाटीं उरिल्लो ताच्या धनयाक तो निलमणी दिलो, आनी सारको न्याय केलो.

कांय दिसांनीं राजान तो रूख आनी ताचे सरभोंवतणचो जागो विकतो घेतलो. कांय सेवकांचो आदार घेवन तो जागो खणून पळयलो. भितर पळे जाल्यार कितें? थंय पोंदा एक सोबीत रत्नजडीत शिंवासन आशिल्लें. राजान तें सेवकांक निवळ करूंक सांगलें. पळे जाल्यार कितें? त्या शिंवासनाक बत्तीस भांगराच्या परयांच्यो मुर्ती चिकटायल्ल्यो आनी तें भांगराचें शिंवासन हिऱ्या माणकांनी झगझगतालें. राजान तें शिंवासन धोल ताशांच्या गजरांत राजवाड्यांत हाडलें.

त्या शिंवासनाचेर केन्ना एकदां आपूण बसतलों अशें राजाक जाल्लें. पूण शिंवासनार निखटोच कितें बसतलो? त्या पासत बरोसो म्हूर्त पळोवंक जाय. राजान राजज्योतिशाक एक बरोसो मूर्त काडूंक सांगलो. ज्योतिशान काडिल्ल्या म्हुर्तार पुजा बी करून राजा शिंवासनार बसूंक मुखार सल्लो. ताणें शिंवासनाक हात मात लायला, त्या बत्तीस भांगराच्या पुतळ्यां भितल्ली एक पुतळी नाच्च जाली आनी राजा मुखार एक सोबीत अप्सरा उबी रावली. तेन्नाच जायत्यो बायलो व्हडाव्हडान हांसतात असो आवाज राजाच्या कानार पडलो. राजान ते अप्सरेक विचारलें, "बाय गे तूं कोण? हें कितें जालें?"

ते अप्सरेन म्हळें, "हे भोजराजा म्हजें नांव जया. हें सम्राट विक्रमादित्याचें शिंवासन. तूं ह्या शिंवासनाचेर बसूं नाका. तुज्या आंगांत खरी उदारताय आसत जाल्यारच तूं हाचेर बसूंक शकता."

राजान म्हळें, "हांव खूब दानधर्म करतां. हांव उदार अशें सगळे म्हणटात." अशें सांगून ताणें आपणें आजवेर केल्ल्या दान-धर्माविशीं सगळें सांगलें.

परीन म्हळें, "आरे रे! तुज्याच तोंडान तुवें तुजी तुस्त केली, शी! तुजी सगळी पुण्याय फुकट गेली! खंय तो विक्रमादित्य सम्राट आनी खंय तूं! इंद्रान लेगीत आपली तुस्त केल्यार ताका उणाक समजुपाचो. आपले गूण दुसऱ्यांनी तोखेल्यार ते खरे."

राजान म्हळें, "खऱ्यानीच, म्हजी चूक जाली. पूण विक्रमादित्याची उदारताय कशी आशिल्ली? ह्या अप्रतीम अशा दिव्य शिंवासनाचेर बसपाची तांक आशिल्ल्या सम्राटाची म्हाका खबर सांगात. परीन म्हळें, "बरें आसा, आयक तर-"

**(चलता...)**



**- माया अनिल खरंगटे**
सी-४-१, वैभव अपार्टमेंट,
मारुती देवळा लागीं,
दवर्ली-नावेली, गोंय.

# बेब्या बायल जाता कोण?



एक आसलो भट आनी एक आसली भटीण. दोगांय गरिबींत पूण सुखाचो संवसार करतालीं. तांकां एकच खंत भोगताली – तांगेर भुरगेंबाळ नासलें.

भटणीन जायते उपास–तपास केले. व्रतां–वैकल्ल्यां केलीं. पूण कांयच उपेग जालो ना. भटीण दिशीं–दिशीं चडच खंती जावंक लागली आनी सदांच उदास रावंक लागली.

एक दीस भटाक देवळांत एक साधू मेळ्ळो. ताणें भटाक सांगलें – "भटा, भटा धव्या साळकां तळ्यार धव्याफुल्ल साळकांमदीं एकच तांबडें साळीक फुलतलें. त्या साळकाच्या गाभ्यातले नाचणे खाल्यार भटणीगेर भुरगें जातलें."

भट खोश्शी जालो. धांवत–धांवत घरा आयलो. "भटणी, भटणीऽ आयकलें गे! तांबड्या साळकांतले नाचणे खाल्ल्यास तुज मूल होणार म्हणे!"

भटणीन म्हळें – "मज आजच्या आज तांबड्या साळकांतले नाचणे खाया हवे...."

भट–भटीण धांवतच धव्या साळकातळ्यार गेलीं.

तळ्यांत खोल–खोल उदकांत धव्या साळकांमदीं खरेंच एक व्हडलेंशें तांबडें साळीक फुलिल्लें. भट तळ्यांत देंवलो... मुखार मुखार वचूंक लागलो. करतां करतां गळोभर उदकांत पावलो. पूण साळीक हाताक मेळऽ सारकें नाशिल्लें.

थंयच तळ्या धडेर एक हडवो–पांचवो मोठेलोच बेबो बशिल्लो. ताणें हांसून म्हळें – "भटा, भटा, जीव दिवंक वता रे?"

भटान रागान विचाल्लें – "तूं कोण रे म्हाका विचारतलो?"

तसो बेबो डरांव–डरांव करून गावंक लागलो.

"हांव कोण? तूं कोण?  
बेब्या–बायल जातली कोण?  
बेब्याक चली दितलो कोण?  
हांव कोण? तूं कोण?"

भटान वाजेवन म्हळें – "बेब्या, कित्याक रे आड्डता? तळ्यांत तळेंभर बेबक्यो आसात. बरिशी बघून लग्न जा मरे! मी हवेतर तुज्या लग्नाचें भटपण करतो..."

बेब्यान म्हळें – "भटा, भटा, बेबकेकडेन लग्न जातलो आसलो जाल्यार हांव केन्नाचो लग्न जातलों आसलों. पूण म्हाका व्हंकल जाय मनशा–जातीची. पळय, व्हंकलेची वाट पळोवन–पळोवन हांव पांचवो आशिल्लों तो अर्दो हळदुवो जालों..." आनी बेबो पर्थून गावंक लागलो –

"डरांव डरांव – डरांव डरांव  
हांव कोण? तूं कोण?  
बेब्याक चली दितलो कोण?  
बेब्या बायल जातली कोण?  
हांव कोण? तूं कोण?"

भटान मनांत म्हळें – "पाडा पडलें ह्या बेब्याचें! मनशा जातीची बायल करूंक सोदता? हाका कोण दितलो चली?"

ताणें बेब्याक म्हळें – "बेब्या, बेब्या म्हजें एक काम कर मरे. हेंऽ तें तांबडें साळीक म्हाका मात्शें हाडून दी मरे..."

बेब्यान विचाल्लें – "तुकाशें तांबडें साळीक कित्याक रे भटा?"

भटान सांगलें – "तांबड्या साळकांतले नाचणे खाल्यार म्हजे बायलेगेर भुरगें जातलें... आमकां वंशाक भुरगेंबाळ मेळटलें."

बेब्यान खोशेन उडी मारून म्हळें – "भटा, भटा, हांव साळीक हाडून दितां. चलो जाल्यार तुका, चली जाल्यार म्हाका..."

भटान चिंतलें – 'पयलीं साळीक हाताक मेळूं दी... फुडलें फुडें पळोवया...'

ताणें बेब्याक सांगलें – "इतलेंच मरे! पावलें म्हजेर! चल, साळीक काडून हाड. चलो जाल्यार म्हाका, चली जाल्यार तुका..."

बेब्यान साळीक तोडून हाडलें आनी भटाक दिलें. भटान साळीक घेतलें – भटणीक दिलें. भटणीन साळीक घेतलें, ताच्यो पांकळ्यो तोडून वडयल्यो आनी मदलो गाभो फोडून तांतले सगळे नाचणे खाले.

आनी खरेंच भटीण गुरवार जाली.

आतां बेबो येतना-वतना भटाक विचारता-

"भटा, भटा कितल्यावो म्हयनो?"

भट म्हणटा – "तिसरो"

म्हयने भरान बेबो, परतोऽ भटाक विचारता – "भटा, भटा-कितल्यावो म्हयनो?"

भट म्हणटा – "चवथो."

अशें दर म्हयन्याक विचारतां विचारतां णव म्हयने भर जाले आनी भटणीगेर एक चली जालें.

बेब्यान भटाची वाट आडावन विचाल्लें – "भटा, भटा कितें जालें? चलो काय चली?"

भटान सटकन म्हळें, "चली जालें... बाय जालें!"

तशें बेब्यान म्हळें – "तशें जाल्यार हांव न्हवरो जावन वराड घेवन येतां. बरोऽ म्हूर्त काड! लग्न बरेंऽ जावंक जाय..."

भटान म्हळें– "आरे बेब्या, अजून म्हजें बाय उमथें लेगीत पडूंक ना. ताका व्हड जावंदी! उबें रावंदी! चलूंक लागूं दी. मागीर पळोवया लग्नाचें..."

भटालें बाय उमथें पडलें, उबें रावलें, चलूंक लागलें तशें बेब्यान म्हळें – "भटा, भटा येवं मरे बाशिंग बांदून... न्हवरो जावन... वराड घेवन??"

भटान म्हळें – "आरे बेब्या, अजून बाय शाळेंत लेगीत वचूंक ना. ताका शाळेंत वचूं दी... शाळा शिकूं दी... मागीर पळोवया लग्नाचें..."

आतां बेबो भटाले बायक शाळेंत येतना-वतना पळोवंक लागलो. ताच्या भोंवतणी उडयो मारीत गावंक लागलो.

"हांव कोण? तूं कोण?

बेब्या-बायल जातलें कोण?

भटालें बाय – भटालें बाय

बायल म्हजी भटालें बाय"

सद्दां उठून बेब्याचो हो त्रास... भटाच्या बायच्यान सोसूंक नजो जालो. ताणें बापायक सांगलें – "अण्णा, अण्णा बेबो मज धोंसतो! 'भटालें बाय म्हजी बायल' म्हणतो!"

भटान चिंतलें – ह्या बेब्याक आतां बुद्द शिकोवंकच जाय!

एक दीस भटीण आपलीं ओलीं घेवन उमळपाक धव्या साळकां तळ्यार गेली. थंय फातरीर ओलीं उमळूंक लागली. तिचे फाटोफाट तिचें बाय थंय गेलें आनी तळ्याधडेर वचून बसलें. बेब्यान तिका पळयली आनी चिंतलें – "हो भट काय खऱ्या उतराचो न्हय... आतां हांवेंच कितेंय करचें पडलें..."

बेबो उदकांत गेलो आनी तोंडान उस्वास सोडून ताणें तळ्यांत लागींच एक साळीक फुलयलें.

भटणीच्या बायन साळीक पळयलें – "कितलें सोबीत! तांबडें-तांबडें साळीक!!"

तिणें म्हळें – "आई, आई, तळ्यांतलें साळीक मज हवें!"

भटणीन पळयलें – लागींच हाताकडेन तर आसा साळीक!

तिणें म्हळें - "बाय, चल देंव उदकांत आनी तोड साळीक..."

भटणीलें बाय उदकांत देंवलें.. साळीक तोडपाक हात फुडें केलो... साळीक हळूच मुखार गेलें... धुवेन म्हळें,

"पावलभर उदकांत पावलें गे आई
साळीक दुरीं-दुरीं जाते मूंऽ
साळीक दुरीं-दुरीं जाते गेऽऽ"

भटणीन म्हळें - "दुरीं गेल्यार लागीं कर मुगो! मातशी मुकार वच आनी साळीक तोड.."

भटणीचें बाय आनीक मुकार गेलें. साळीक तोडूंक हात घालो... तशें साळीक अजून मातशें पयस गेलें.

"धोंपरभर उदकांत पावलें गे आई
साळीक दुरीं-दुरीं जाते मूंऽ
साळीक दुरीं-दुरीं जाते गेऽऽ"

भटणीन म्हळें - "येवढें व्हडलें जालें तूं! तुज मातशें फुडें वचून साळीक लागीं करा येना?"

भटणीलें बाय मुकार-मुकार वचत रावलें. कमरभर उदकांतल्यान गळ्याभर उदकांत पावलें आनी बेब्यान ताका ओडून आपल्या घरा व्हेलें.

भटणीन फाटीं वळून पळेल्यार धूव थंय ना... ती ओलीं थंयच सांडून रडत-रडत घरा आयली... आनी भटाक सांगलें - "तळ्यांत साळीक तोडूंक गेल्ली धूव नाच्च जाली."



भटाक समजलें - हें बेब्याचेंच कर्म जावंक जाय! तो धांवतच धव्या-साळकां तळ्यार गेलो आनी बेब्याक ताणें उलो माल्लो - "बेब्या, बेब्या अशें व्हंकलेक उबारून व्हेलें म्हणून लग्न जाता? लग्नाचे बरेऽ विधी आसतात. ते करूंक जाय. चल, बायेक दी म्हजेकडेन आनी फाल्यां न्हवरो जावन यो. फाल्यांच तुजें लग्न करया..."

बेब्यान भटाल्या बायक भटाकडेन दिलें आनी सगळ्या वराडाक आमंत्रण दिलें. "चलात, चलात, भायर सरात भटागेर वचया - मनशा जातीची व्हंकल घेवन घरा येवया..." तळेंभर बेबे-बेबक्यो उमेदीन लग्नाक वचपाक भायर सरल्यो...

बेबो बरोऽ पितांबर न्हेसलो, खांदार शाल घेतली. तकलेक बाशिंग बांदलें आनी बेब्यांचें वराड घेवन भटागेर गेलो. सगळे बेबे वाटभर गायत वताले-

"डरांव - डरांव! डरांव - डरांव!
न्हवरो कोण? व्हंकल कोण?
भटा-धुवेचो बेबो घोव!
बेब्या व्हंकल भटा-धुव!!"

भटान बेब्यांक बरोऽ पाटार बसयलो आनी बरोऽ तेला तुपान माखलो.

बेब्यान म्हळें - "भटा,भटा हें कितें करता? म्हाका तेला तुपान कित्याक न्हाणयता?"

भटान सांगलें - "बेब्या, मनशांच्या लग्नांत अशेच विधी आसतात. हाका 'तेल' म्हणटात... तशें करचेंच पडटा..."

मागीर भटान बरोऽ होम घालो. लाकडांचेर तूप बी घालून घसघशीत उजो केलो...

बेब्यान म्हळें - "भटा, भटा हें कितें करता? म्हाका उजो पळयल्यारच भंय दिसता.."

भटान सांगलें - "बेब्या, तुका मनशा-जातीची बायल जाय मरे? मागीर

सगळे विधी करचेच पडले!... ह्या विधींक सप्तपदी म्हणटात. ह्या उज्याक सात प्रदक्षिणा घालपाच्यो... मागीर होमांत दोन उडक्यो मारून शुध्द जा आनी व्हंकलेक घेवन घरा वच!''

भटान धुवेक बरीऽ सजोवन हाडली. बेब्याच्या शेल्याची गांठ व्हंकलेच्या शेल्याक बांदली.

बेब्यान विचारलें – ''भटा, भटा, हें आनी किते रे?''

भटान सांगलें – ''होय लग्नांतलो एक विधी. हाका गांठवळ बांदप म्हणटात...''

बेब्याक इतलो उजो जावंक लागलो.. नाका तें लग्न म्हणपाकडेन पावलो.

''चलात, बेगीन बेगीन होमाक सात प्रदक्षिणा घालात.'' भटान म्हळें.

बेबो प्रदक्षिणा घालतना उज्या धगान सामको हुलपूंक लागलो. तेला तुपान भरिल्लो शेलो... उज्यालागीं पावता... पेट घेता... भट तो पालयता... परतो उज्या लागीं गेल्यार पितांबर पेट घेता... भट तो पालयता...

एकदांची सप्तपदी जाली.

बेब्यान म्हळें – ''भटा भटा जालें मरे लग्न? वचूं मरे हांव व्हकलेक घेवन घरा?''

भटान म्हळें, ''आनी एकच विधी उरला. होमांत दोन उडक्यो मार आनी व्हंकलेक घेवन वच...''

बेबो तयार जालो.

होमाचे एके वटेन व्हंकल उबी रावली आनी दुसरे वटेन न्हवरो..

भटान म्हळें – ''बेब्या, बेब्या हो निमाणो विधी. पयली उडी होमांत मार आनी दुसरी व्हंकले म्हऱ्यांत! आनी व्हंकलेक घेवन बद्द तुज्या घरा वच...''



बेबो सामको भुल्लुशिल्लो... लग्न जालेंच म्हणून.. फाटीं-फुडें पळयनासतना ताणें होमांत उडी घाली.

बेब्याचें आंग-पांग आनी पितांबर, शेलो, तेला तुपान माखिल्लो. होमान पडटां खिणी बेब्यान घेतलो पेट...

व्हडल्यान 'डरांव-डरांव' किळच्यो मारीत बेब्यान होमाभायर उडी मारली आनी म्हळें – ''भटा, भटा हो उजो पयलीं पालय... म्हाका तुजी धुवय नाका... आनी तें लग्नूय नाका..''

भटान बेब्याचेर बालदीभर उदक रकयलें आनी उजो पालयलो..

''चल-चल बेब्या... दुसरी उडी मार... बेगीन लग्नाचो हो सुवाळो सोंपय... आनी व्हंकलेक घेवन चल तुज्या घरा....'' भटान म्हळें.

''शी! शी!'' बेब्यान म्हळें – ''असली मनीस जातीची व्हंकल जाय कोणाक? हांव धव्या साळका तळ्यांतले सुंदरशे बेबकेकडेनच लग्न जातलों... तुमचें हें मनशांचें लग्न तुमकांच बरें!''

आनी अर्दो हुलपल्लो बेबो शाणो जावन वरांड घेवन साळका तळयार परतलो.

आनी भटाले धुवेफाटली बेब्याची कटकट एकदांची सोंपली.



– सुधा खरंगटे
आर्के, मडगांव-गोंय
फोन : २७५०५७३



# शींव आनी हुंदीर

**गि**माचे दीस आशिल्ले. एका झाडापोंदा थंड अशा सावटाक एक शींव न्हिदिल्लो. म्हऱ्यांतच एका बिळांत हुंदीर रावतालो. ताणें अजापान बिळांतल्यान भायर येवन न्हिदिल्ल्या शिंवाक पळयलो. शिंवाच्या बळग्याच्यो काणयो मतींत धरून हुंदरान फकाणां करपाचें मनांत येवजिलें. ताचीं फकाणां करपाखातीर शिंवाच्या आंगावेल्यान हेवटेन तेवटेन धावंक लागलो. ताचें पाडें नशीब म्हळ्यार ताका शिंवान चपक्यांत धरलो. शींव ताका मारपाचोच आशिल्लो. तेन्नाच हुंदीर ताचेकडेन विनवणी करूंक लागलो. ''राजा, म्हाका वांचयात. तुमी म्हजेर दया केली जाल्यार हांव एक ना एक दीस तुमकां पावतलों. तुमकां संकटांतल्यान मुक्त करतलों.''

हुंदराची भास आयकून शिंवाक फकाणां आनी मजा कशी दिसली. ताणें हांसून हुंदराक सोडून दिलो. जाल्यार कांय दिसांनी त्याच झाडापोंदा तोच शींव शिकाऱ्याच्या जाळ्यांत घुस्पला आनी व्हडा-व्हडान आड्डतालो. ताची गर्जना आयकून हुंदीर बिळांतल्यान भायर आयलो. शिंवाचें रीण फारीक करपाचो वेळ आतां आपल्याचेर आयला हें मनांत धरून हुंदरान वेळ करीनासतना ते जाळयेचे दोरे आपल्या दांतांनी कुरतडोवन शिंवाक जाळ्यांतल्यान भायर काडलो.

**तात्पर्य : ल्हान लेगीत म्हान कार्य करूंक शकतात.**





# नुस्तेकार आनी नुस्तें

**ए**क दीस नुस्तेकार नुस्तें मारपाखातीर सदांभशेन न्हंयचे देगेर गेलो. तो जाळें पसरावन नुस्तें जाळ्यांत पडटा काय, हाची वाट पळयत आशिल्लो. आपल्याक चड नुस्तें मेळटलें हाचो ताका भरवसो आशिल्लो.

कांय वेळान नुस्तेकारान जाळें वयर काडटकीच तातूंत एक ल्हान नुस्तें आशिल्लें तें पळयलें. तें नुस्तें काडून ताणें आपल्या पांटल्यांत दवरतनाच नुस्त्यान ताका सांगलें ''म्हजेर दया कर, म्हाका न्हंयत परतें सोड.''

''कित्याक?'' नुस्तेकारान नुस्त्याक विचारलें.

नुस्त्यान म्हळें, ''हांव आतां खूब ल्हान आसां. म्हजो आतां तुका कांयच उपेग जावंचो ना. कांय दिसांनीं हांव व्हड जातलें तेन्ना तुवें म्हाका धरल्यार जाता. तेन्ना म्हजो चड उपेग जातलो.''

''वोऽ. ना ना. हांव तुका सोडचों ना. हांव तुका उदकांत सोडल्यार परत हांव कसो धरतलों? तुका सोडून दिवपाचीं मुर्खपणां हांव करचो ना.''

**तात्पर्य : हातचें सोडून पळट्या फाटल्यान लागचें न्हय.**



**- अलका सिनाय असोळडेकार**
बड्डें, मडगांव - गोंय
मो. ९८२२९८११०७

## कथिका

*त्या तरनाट्याविशीं उत्सुकताय ताका निर्माण जाल्ली. तो मिनाक्षीचो खऱ्यानीच भाव काय बॉयफ्रँड हें अप्रत्यक्षपणान मिनाक्षी कडल्यान जाणून घेवपाक जाय आशिल्लें. मिनाक्षीच्या आपोवण्यान ताच्या घरालागीं वचपाची आयतीच संद आतां ताका मेळ्ळी.*




**नरसिंह न. प्रभू गांवकार**
पैंगीण, काणकोण-गोंय
फोन : ३२७०५५१


# गर्व



रुपाली नांवाक फाव सारकें रुपवान, गोरी कांती, जशी आसूंक जाय तशीच आंगाची ठेवण, कोणेंच चड उंच आसा, मात्शें मोटवें आसा अशें नूक काडपा सारकें न्हय. चार चवगांत ताचें देखणेंपण सोपेपणान लोकांचे नदरेक भरपा सारकेंच. अशें आसतना तें आपल्या रुपाविशीं धादोशी नासलें. जाता तितलो नट्टो फट्टो करून तातूंत भर घालपाचो प्रयत्न ताचो चालूच आसतालो. आपलें रूप पळोवन तरनाटे बरेच चाळवतात हें ताका खबर आशिल्लें. तांकां आपले भोंवतणी घुटमळत दवरपाक एक असुरी खोस ताका भोगताली. आपले तोडीक तोड देणारो तरनाटो कोणच ना अशी ताची पक्की भावना जाल्ली. आपल्या रुपालागीं सर्त करणारी आसपास आनी चली कोणच ना ह्या भ्रमात तें वावुरिल्ल्यान तें खूब गर्वीश्ठ जाल्लें. खंयय भायर सरचे वेळार मेकअप करून, जाण्टेले आज्जे फुडें उबें रावन, 'आज्जे कशें दिसता हांव ?' अशें ताणें विचारल्या बराबर आज्जेचो एक नित्याचो थारायिल्लो आशिर्वाद ताका मेळटालो. 'म्हजे नातीक एक बरो राजबिंडो न्हवरो मेळूं' हो आशिर्वाद ताका खूब सूख आनी उमेद वाडयतालो. आपले आज्जे म्हऱ्यांत गेलें म्हण तें आवयच्या म्हऱ्यांत वचनाशिल्लें. कारण आवय ताका कान पिचक्यो दिताली. अशेंच एक फावट तें आवयक दाखोवपाक गेल्लें आपलो शिरंगार. आवय कामाचे गडबडींत आशिल्ली. हाचें नटवेपण पळोवपाक तिका वेळ नाशिल्लो. तिणें मात्शें रागानच म्हळें, 'रुपा तुका एक सांगतां, रुपानच देखणें दिसलें म्हण फावना. गूणय तुजे सगळ्यांक आवडूंक जाय.'

आवयचीं हीं उतरां आयकून रुपालीक अकस्मात पोल्यार थापट पडिल्ले सारकें जालें. तें बरेंच निर्शेलें आनी 'हिका खंय खबर आसा देखणेकायेचो अर्थ' अशें पुटपुटत गेलें.

आपूण भायर खंयूय वतना तरणाट्यांची नदर आपल्याचेर रोखिल्ली आसता हें ताका भितरले नदरेन कळटालें. पूण तुमचें कोणाक आसा कॅर? अशा अविरभावान आपली नदर हेवटेन तेवटेन मारिनासतना वचपाची ताची स्टायलच जाल्ली. ताचो हो सभाव गांवच्या आसपासच्या लोकांक खबर आशिल्लो. हाचे नेट कोणेतरी जिरोवंक जाय अशें खूबशा जाणांक दिसतालें.

एक दीस रस्त्यान वतना ताची कॉलेज इश्टीण मिनाक्षी 'हाय रुपाली' म्हणत अकस्मात स्कुटरी वेल्यान उडी मारून ताचे मुखार उबें रावलें. स्कुटर चलयणारो एक तरतरीत, गोरो आनी बरोच देखणो तरनाटो. ताचेर पुसटशी नदर पडटगीर ताच्या मनाची मात्शी चलबिचल जाली. ताका सारकोच नियाळचो अशें ताच्या मनाक जालें. मात तो बिल्डर आपलें तोंड हेवटेन तेवटेन वळयनासतना नदर सरळ फुडें दवरून स्कुटरीच्यो दोनी वटेनच्यो मुठी घट्ट धरून बशिल्लो. आपले वटेन ताणें मात्शें तरी पळोवंचें, ताका ताचो रागूच आयलो. खिणभर ताच्या कपलाक आठयो पडल्यो. मिनाक्षीन बरोच बॉयफ्रँड सापडायला! पूण उपरांत ताका दिसलें तो मिनाक्षीचो भावूय जावंक शकता. पूण मिनाक्षीक विचारून ताचो खुलासो करून घेवपाक ताचो अहंकार आड आयलो. आपल्याकय खंय आसा इंटरेस्ट ताचेविशीं जाणून घेवपाक? ह्या विचारांत तें आसतना मिनाक्षीचीं फुडलीं उतरां ताच्या कानार पडलीं.

''म्हजी खबर लेगीत घेना मगो तूं? हांव कशें आसा? कितें करता? एक दीस यो मगो आमच्या घरा. दोगांय तोंडभरून उलोवया. तें कांयच ना. येता त्या आयताराक योच! हांव रावतां तुजी वाट पळयत.''

रुपालीकय तेंच जाय आशिल्लें. त्या तरनाट्याविशीं उत्सुकताय ताका निर्माण जाल्ली. तो मिनाक्षीचो खऱ्यानीच भाव काय बॉयफ्रँड हें अप्रत्यक्षपणान मिनाक्षी कडल्यान जाणून घेवपाक

जाय आशिल्लें. मिनाक्षीच्या आपोवण्यान ताच्या घरालागीं वचपाची आयतीच संद आतां ताका मेळ्ळी.

"येतां हां हांव, नक्की येतां."

रुपाली पट्ट करून उलोवन गेलें आनी नेमकें त्या तरनाट्यान त्याच वेळार आपली स्कुटर चालू केली. मिनाक्षीक ताचो निरोप घेवंचो भाग पडलें. मिनाक्षीचें मन कशेंच थोपना जालें. 'ह्या तरनाट्यान आपल्याक सामकेंच बेदखल करप! आपूण स्वता तो कोण म्हण समजता, मदनाचो पुतळो? आपल्याचेर एकच फावट ताची नदर पडूं दी. मेनकेन केल्ली विश्वामित्र ऋषीची गत, तशीच आपूण ताची केले बगर सोडचें ना.'

रुपाली हट्टाकच पेटिल्लें. आयतार मेरेन ताच्या मनाची हुरहूर थांबली ना. एकदांचें मिनाक्षीचें घर गांठून ताणें दारावेली बॅल वाजयली. दार उगडून मिनाक्षी दारांतच उबें.

"यो रुपाली! वादो केल्ले प्रमाण तूं मुद्दमूच आयलें." अशें म्हणून मिनाक्षी ताका घेवन हॉलांत गेलें. थंय कदेलां आनी इतर बसपाचीं आसनां आशिल्लीं. दोगांय एका सोफार एकामेकाच्या म्हऱ्यांत बसलीं. थंय साकून लागींच एका वल्तेराचेर एक बरेंच जाडें पुस्तक दोनी हातानीं धरून आनी ताचे मदें तोंड खुपसून आरामात तो तरणाटो बशिल्लो. ह्या दोगांयच्यो खबरो, हांसप, विनोद चालू आसतनाय रुपालीची चोर नदर परती परती ताचे वटेन वळटाली. तो तरनाटो मात त्या हॉलांत आपले बगर आनी कोण ना अशेंच गृहीत धरून वागतालो. हांचे भासाभासी कडेन तो लक्षच दिनाशिल्लो. इतलेंच न्हय तर ताचे वटेन वळून लेगीत पळय नाशिल्लो. रुपालीक हें अजीबात सहन जायना जालें. ताका त्या तरनाट्याचो सामको रागच आयलो. आतां मात हाची फाट हांव सोडपाचें ना असो ताणें निश्चेव केलो. हांगा धा पावटी मारच्यो पडल्यो तरी हरकत ना. भासाभासीक आतां ताका गोडी उरली ना. 'फुडल्या आयताराक अशेंच येतां' असो वादो करून आनीक मिनाक्षीचो पाहुणचार घेवन तें मिनाक्षीचो निरोप घेवन वचपाक भायर सरलें. मिनाक्षी दारा मेरेन पावोवपाक येतना रुपालीक रावंक जालें ना. आपल्या अहंकाराक मात्शी मुरळ घालून मिनाक्षीक विचारलेंच, "तो वल्तेरार बशिल्लो तो कोण गो? तुजो भाव काय कितें?"

"हय म्हजो भाव तो. सुदन ताचें नांव. सदींच आपल्या अभ्यासांत मग्न आसता." मिनाक्षीन म्हळें. तीं उतरां आयकून रुपालीक सूऽऽ जालें. ताच्या मनाची धाकधूक कमी जाली. आपली एक वाट मोकळी जाली अशें मनांत घोळयत तें घरचे वाटेक लागलें. तें वचनाफुडें मिनाक्षी तडक हॉलांत आयलें. भाव सुदन ताची वाट पळयत आशिल्लो. दोगांय एकामेकाक पळोवन मुमुरखींच हांसलीं. नाटकाक रंग भरूंक लागला अशेंच दोगांय एकामेकाक सुचयतालीं.

फुडलो आयतार येता मेरेन रुपालीक फुरसद उरली ना. केन्ना एकदां मिनाक्षीगेर पावूं अशें ताका जालें. मिनाक्षीच्या भावालागीं उलोवपाक कसलें निमित्त काडिल्लें बरें हे विचार मनांत घोळयत ताणें दाराची बॅल वाजयली. दार उगडलें आनी फुडें पळयत जाल्यार आंगाक पयजमो आनी सदरो घाल्लो गोरो पिट्ट सुदन थंय उबो. रुपाली सगळेंच गडबडलें. ताचे लागीं एकदम कशें उलोवंचें हो प्रस्न ताचेफुडें उबो रावलो. पूण तो सुदनान सोडयलो. "यो भितर यो! मिनाक्षी जाय? हांव ताका आपोवन हाडटां." सुदनान अशें म्हणून भितर वचपाचो अविरभाव करूंक लागलो.

"नाका नाका." रुपालीन ताकतीकेन म्हळें.

"म्हाका वळखले ना तुमी? हांव मिनाक्षीचें फ्रेंड. फाटल्या आयताराक हांव आयिल्लें हांगा. आमी दोगांय तुमच्या हॉलांत भासाभास करतना कसल्यातरी बुकाचें तुमचें वाचन चालू आशिल्लें."

"अशें? खरें सांगपाक गेल्यार हांवें तुका पळोवंकूच ना. मिनाक्षीचीं अशींच कोण कोण फ्रॅन्डां येतात-वतात. हांव तातूंत लक्ष घालना. सॉरी. यो हॉलांत बस. हांव मिनाक्षीक रोखडेंच आपोवन हाडटां. घरांत कसलें तरी काम करता जातलें." ताणें नमळायेन म्हळें.

"म्हाका तशी घाई ना. तुमचीय वळख जाल्ल्यान म्हाका तुमच्या घरांत आतां परकीपण ना. म्हजें नांव रुपाली. मिनाक्षी आनी हांव एकाबराबर शिकतालीं. तुमी कसली तरी पिएचडी करतात खंय? मिनाक्षीनच फाटले खेपेक म्हाका सांगिल्लें."

रुपालीन ताचे लागची भासाभास वाडोवपाक म्हळें.

"तसो म्हजो प्रयत्न चालू आसा." ताणें थंडपणान म्हळें.

"बरें हांव मिनाक्षीक आपोवन येता मेरेन तूं बसून घे." अशें म्हणून तो हॉलांतसून भायर सरपाक गेलो.

"नाका नाका. ताका येवं सवकास. तुमी बसले हांगा म्हण म्हाका फरक पडना. तुमी आतां म्हाका परकी मानपाची गरज ना." रुपालीन कळवळ्यान म्हळें.

"तुजी तशी हरकत ना जाल्यार म्हाका हांगा बसपाक कांयच अडचण ना." अशें सुदनान म्हणून तो लागींच एका कदेलार बसलो.

सुदनाचें तें रुबाबदार देखणेंपण, ताचें तें संयमी उलोवणें, नम्रतायेची वागणूक हें सगळें अणभवनाफुडें रुपालीचो ताच्या विशींचो मुळावो ग्रह खंयचे खंय पळ्ळो. ताचें रूप दोळे भरून पळयत रावचें, ताचें एक एक उतर सामकें कान भरून आयकुवचें हीं कसलीं लक्षणां हाचो विचार येतगीर ताचें ताकाच हासूंक आयलें. लजेन ताची मान मात्शी वाकली. आपलें काळीज हळुहळू ताचेवटेन ओडत वता हें रुपालीक कळून आयलें. ही ओड अशीच वाडत रावन सुदनाच्या काळजाचो थाव घेवंचो आनी तोय जाता तितको बेगीन. मिनाक्षीच्या वरवींच आतां दोगां मदली वाट मळत दवरपाची आनी अंतीम स्टेशन मेरेन पावपाचें ताणें थारायलें. आतां ताका मिनाक्षीची गरज व्हडलीशी पडची नाशिल्ली. सुदनालागीं अशेंच उलयत रावचें अशें ताका मनापासून दिसतालें. पूण मिनाक्षी त्याच वेळार हॉलांत आयिल्ल्यान तें जमलें ना. ताचें मन मात्शें विरूस जालें. मिनाक्षीलागीं थोडचोपूण गजाली केल्याबगर ताका गत्यंतर नाशिल्लें. ह्या विचारांत तें आसतनाच, "सॉरी रुपाली तूं केन्ना आयलें? म्हाका कळूंकच ना."

मिनाक्षीन साळसूदपणान ताका म्हळें.

"तूं आयलें ना म्हण कांय बिगडलें ना गो. तुजो भाव आशिल्लो न्हय? आमी दोगांय उलयत बसलीं. ह्या निमतान तुज्या भावालागीं म्हजी वळख तरी जाली."

रुपाली मिनाक्षीक हें हांसत हांसत सांगतना ताणें सुदना बाजून हळूच नदर मारली आनी त्याच वेळार सुदनाचीय नदर रुपालीचेर रोखिल्ली आशिल्ली. दोगांयच्यो नदरो एका मेकांक भिडल्यो. नदरेंतलो भावार्थ एकामेकांक उमगलो आनी त्याच वांगडा मिनाक्षी आनी सुदन हाणीं रचिल्ल्या नाटकुल्याचो निमण्या प्रवेशाक आरंब जालो. मात्र ह्या प्रवेशाचे सगळे प्रसंग नाटकी उरनासतना वास्तवांत आसतले हें आतां कोणें भविश्यकारान सांगपाची गरज उरली ना. ह्या नाटकाक रुपाली पुर्णपणान हरलें. ताचो मीपणा खंयच्या खंय पसार जालो. सुदनाचो अनुनय करपाकच ताका आपले जिणेची सार्थकताय दिसूंक लागली. अहंकाराच्या आड जायत्यो बऱ्यो गजाली लिपून उरतात हेंय ताका कळून आयलें. दुसरे वटेन केन्ना तरी रुपालीच्या रुपाक भुल्लुसून आनी तडका फडकी रुपालीक आपल्या काळजांत पुजेक लावन ताचें भजन करीत आसणारो सुदन आनी आतां गांठ बांदतलो तो फक्त रुपाली लागीं हो ताचो हट्ट ताची भयण मिनाक्षी बगर कोण पुरो करतलो? निमणें रुपालीच्या अहंकाराक पुरक अशें हें नाटकुलें दोगांनी रचून ताचो शेवट दूद साखरेच्या मिलना सारखो घडोवन हाडलो. त्या बराबर मिनाक्षीकय एक देखणी भावज मेळ्ळी.



# तिळाची गोडसाण



**पौ**ष म्हयन्यांत येवपी संक्रांत म्हळ्यार बायलांक एक व्हड पर्वणीच! सूर्य मकर राशींत प्रवेश करता हाकाच मकर संक्रांत अशें म्हणटात. ह्या दिसा सावन हळदिकुकमाक आरंब जाता. नव्या वर्साचे सुर्वेक सगळ्यांत पयलीं येवपी, भोवसाची खोस वाडोवपी अशी ही पयली वयली हळदिकुकमाची वा मकरसंक्रांतीची परब. श्रध्दा, भक्ती आनी परंपरा तिगोवन दवरपी ही परब आयजय अस्तुरी तितलेच उमेदीन मनयता. मागीर ती आयच्या काळांतली नोकरी-धंदो करतली बायल आसूं ना तर घर-संवसार सांबाळटली बायल आसूं! जिणेंतल्या प्रमाणबध्द वेळापत्रकांतल्यान भायर सरून नवो उत्साह, चैतन्य आनी उमेद जागोवपी हे रथसप्तमी मेरेनचे कांय दीस. आयजची जीण सर्तीची. प्रत्येक मळार सर्त. तूं करता ताचेफुडें हांव करतां. म्हणटा म्हणटना आयची बायलमनीस सामकी पांयांक चक्रां लावन दिसूयभर आपल्या घराब्याखातीर राब राब राबता. जायतीं सोयरीं दायरीं आसून लेगीत संवसारांत गुरफटिल्ली बायलमनीस खंयच वचूंक पावना. कामधंदो नातर नोकरी करतल्यो इश्टीणी, दिसयभर बिजी आशिल्लीं सोयरीं दायरीं. हाका लागून तीं कोणागेरूच वचून घडीभर बसूंक शकनांत. इतलेंच न्हय तर शेजाऱ्यांपाजाऱ्यांगेरूय मनमेकळें करूंक बसपाक आयज तिका वेळ ना. कांय जाणांक तर शेजरा कोण रावतात हेंवय सारकें खबर आसना. सकाळीं बेग्गीन खांद्याक बॅग लावन भायर सरिल्ली बायलमनीस काळोख पडतकच घरा परतता. मागीर अचकीत भेटिल्ले इश्टिणी वांगडा फक्त पांच मिन्टां उलोवप जाता तें फक्त बसींत, बाजारांत ना तर एक्झीबिशनांत! पूण हळदिकुकमाच्या निमतान मात शेजाऱ्यांगेर ना तर वळखीचे इश्टिणीगेर वचून-बसून पांच मिन्टांच जायना. मन मेकळेपणान उलोवप, हांसप, खिदळप जाता!

जांगेर हळदिकुकूम आसता तीं उमेदीन, व्हडा खोशयेन आपलें घर-दार सजयतात. हळदिकुकमाच्या निमतान इश्टिणी आनी सोयऱ्यांनी घर खोशयेन भरता. पारंपारीक साडी आनी भांगरांनी बायलमनीस तशींच घरांतल्यो चलयो सजतात. न्हय म्हळ्यार आपोआप एक खोशयेचें वातावरण घरांत तयार जाता. वेळांत-वेळ काडून उमेदीन भोंवतना हळदिकुकमाच्या निमतान बायल मनशेचें मन रिलेक्स जाता आनी पर्थून नवचैतन्यान ती कामाक लागता.

आयज काल हळदिकुकमाच्या मळारय मात्शी सर्त रिगिल्ली पळोवन मन निर्शेता. कांय जाणां म्हजें वायन चड म्हारग काय तुजें ताचे परस चड म्हारग अशी सर्त करतात. आतां तर कांय जाणां हळदिकुकमाच्या निमतान बुफे मांडटात तीं दिसतात. एकटचान बुफे केली म्हणकच शेजरा आशिल्ल्याचेर पेंच पडटा. कांय जाणांक मनांतल्यान हळदिकुकूम करीन दिसता पूण कांय कारणांक लागून हो व्याप घेवन बसूंक शकनांत. तांचीं मनां मागीर दुखवतात. बाकी कॉफी, सरबत ना तर कोल्ड ड्रिंकाची सरबराय हळदिकुकमाच्या दिसांनीं मात खूब जाता. वांगडा गोड-गोड तिळाचे लाडू!

शिक्षणान, गिन्यानान बायल मनशेक दादल्यां बरोबरच्या पावंड्यार बसयल्या. समाजान घाल्लीं नाका आशिल्लीं क्रूर परंपरेचीं, अज्ञानाचीं, रितीरिवाजाचीं कांय आडमेळीं बायलमनशेन स्वता आपल्या कर्तुत्वान पयस केल्यांत. कपलाक तिकली, हातांत काकणां, गळ्यांत मणी - शिरंगार, नटप हो बायलमनशेक समाजांत दिल्लो मोलादीक अधिकार. पूण जेन्ना तरण्या वयाचेर एखादे अस्तुरेचो घरकार खंवसता तेन्ना तिचो हो गळ्याक काळ्या पिड्डुकांनी गुंथिल्लो मणी आनी कपलाचो तिळो न वापरपाचें बंधन तिचेर येता. तेन्ना तिच्या मनाची जाल्ली केविलवाणी नाजूक, भयानक अशी अवस्था फक्त तीच समजूंक शकता. कल्पना लेगीत केल्यार आंगार कांटो येता. समाजांतल्यो कांय वखवखिल्ल्यो नदरो झेलीत तिका जगप भोव कठीण जाता. देवा-ब्राह्मणाचे, समाजाचे साक्षीन म्हुर्तार घाल्लो मणी हो तर तिच्या मोग्याच्या, घोवाच्या अनंत मोगाची साक्ष! ती निशाणी आपल्या घोवाच्या मोगाचें प्रतीक म्हण जन्मभर गळ्यांत मिरोवचें. आयज घोवाच्या मरणा उपरांत हो शिरंगार घालून समाजांत वावुरतल्या अस्तुऱ्यांक पळोवन समाज सुदारणेची जाणीव मनांत येता. वर्सानवर्स हळदकुकमाच्या निमतान खेळिमेळीच्या वातावरणांत हांसत-खेळत, खबरी मारीत रमून वचपी एखादी इश्टीण जेन्ना तरण्या वयांत 'एक्सिडेंटांत' घरकार सोडून गेलो म्हण हो अधिकार शेणोवन बसता तेन्ना मनांत खूब दुःख जाता. हळदिकुकमाच्या दिसांनीं वाटेर मेळिल्ले कडेन वा फोनार उलयतना उतरां अडखळटात.

तांच्या मनांतल्यो नाजूक भावना आपलें मन जाणटा वोठांवेल्या उतरांविणे! ताचेविशीं तयार जाल्ली रिती सुवात खेळिमेळीच्या वातावरणांत जाणवता. आयजमेरेनचो फाटलो इतिहास पळयल्यार ठळकपणान अशें जाणवता की ह्या समाजान लादिल्लीं अस्तुरेच्या वाटेवयलीं आडमेळ्यांचीं बंधनां तिणेंच पयस केल्यांत. कांय सामाजीक बदल हे तर आयज मेरेन बायलमनशेन स्वता घडयल्यात. आपल्या बऱ्या विचारांतल्यान, आपले बरे वागणुकेंतल्यान. हळदीकुकमाच्या तिळाची गोडसाण समाजांतले प्रत्येक अस्तुरे मेरेन पावतली हाची आमी जतनाय घेवंक जाय.





– शर्मिला वि. प्रभू
आगाळी-फातोर्डा.
फोन : २७४०६४०

पोसो

# खण तशी माती....



*आयजकाल आमचे भोंवतणी कितें घडटा तें सोंसू नजो गो बाये! दिल्लीक एके चलयेचेर चलते गाडयेंत सामुहीक बलात्कार जालो खंय? शी! वचत थंय खून, आत्मघात, मारामरी, भ्रश्टाचार हाचेबगर दुसरें कांयच बरें घडना. आमचें भुरगेंपण मात बेसबरें गेलें न्हय गो अरुणा!*




**काश्मिरी स. पावसकार**
एफ. टू. बायण वाडो,
शिवोले - गोंय.
मो. : ९४२११९२८५८


**बा**रावेची फस्ट टर्म सोंपून सेकंड टर्म लागीं पाविल्ली. प्रस्नपत्रिका वेळार दिवंक मेळची म्हूण हांव आयतार दीस बेगीनूच उठून कामाक लागलें. एक दोन प्रस्न काडीत हांव निमण्या प्रस्नाचेर पावलें. भाशेचे प्रस्नपत्रिकेंत 'अमक्या अमक्या विशयाचेर ३०० उतरांनीं निबंद बरयात' हो थारिल्लो प्रस्न आसता. विशय येवजितां येवजितां हांवें एक वर्णनात्मक, एक काल्पनीक, एक आपजीण अशे कांय विशय पुंजायले. वैचारीक विशयांचेर पावतकच हांवें बरोवपाची गाडी थांबयली आनी पुराय जगांत कितें घडटा? देशांत कितें चल्लां? गोंयकारांची परिस्थिती कशी आसा? हाचेर विचार करूंक सुरवात केली.

गोंयांत भोंवपाक तसो चड वेळ लागना. रोखडीच हांवें पेडणे सावन काणकोण मेरेनची भोंवडी मारूंक सुरवात केली. खरेंच! आमचो हो सुपुल्लो वाठार सुरू जाता थंयच आसा. रोखडोच सोंपता. पूण हांगाचे प्रस्न, हांगचीं अरिश्टां मात सोंपून सोंपनांत अशीं! सोंपतलीं तरी कशीं? एका तेंपावयले गोंयचे इकरा म्हाल, आयचे घडयेक बारांचेर पावल्यात, मागीर तुमीच सांगात. आमचीं बारा वाजूंक आनी चड वेळ जाय?

कांय वेळान प्रस्नपत्रिका कुशीक दवरून, हांवें खबरांपत्र हातांत घेतलें. हांगाच्यो, थंयच्यो खबरो वाचपांत गुल्ल जाता थंय आसा इतल्यांत कोणेतरी दारार मारिल्लेवरी जालें. उठून पळय जाल्यार अरूणा दारांत उबें! कॉलेजांत आमी दोगांय वांगडा शिकतालीं. तागेलें कुळार म्हापशां, पूण ताका दिलां दिवचले. आयज सगलें उरफाटें जालां. हांव शिवोले रावतां खरें पूण म्हजें कुळार दिवचले. आमी दिवचलकारां. एक दीस पसून कॉलेजीक येवंक ना जाल्यार प्रोफेसर केळेकारान आमची रोखडीच खबर घेवंची.

'आगो, तुमच्या दिवचलेंत काल पूर बी आयिल्लो काय कितें?'

मागीर सगळ्यांनी आमकां हांसचें. एक दीस हांवें सराक सांगलें, 'सर, आमच्या गांवांतले दोंगर खणींक लागून बोडके केल्यात. मागीर पूर येवचो ना कित्याक?'

तेन्ना अरूणाची दिवचले सोयरीक चलताली राजेश पाटणेकारा लागीं. हांवें म्हळें ''अरूणा तूं बेगीन दिवचले यो आनी आमकां ह्या त्रासांतल्यान तार.''

तेन्नाच राजेश इल्लो समाजसेवा आनी राजकारण करूंक लागिल्लो. तेंच हें अरूणा. ते दीस ताका कोणा सोयऱ्यांगेर हळडीक वचपाचें आसलें. इल्लें बेगीन पाविल्ल्यान तें म्हगेर भितर सरलें. ताका पळोवन म्हाका खूब उमेद जाली. पूण बेठोच शीण काडूंक हांवें ताका म्हळें, ''आयज खूब तेंपान म्हजी याद जाली काय कितें? काय एका गुंडयान दोन सुकणीं मारता गो!''

''कशेंय आसूं हांव आयलेंतरी मगो तुगेर, नाजाल्यार तूं कुळारापसून आयल्यार येना आमगेर.''

उरफाटो ताणेंच शीण उक्तायलो आनी मागीर म्हज्या हातांतल्या खबरापत्रांक पळयत म्हणूंक लागलें, ''आगो,

आयज सकाळफुडें पेपरावेली भविश्यवाणी वाचिल्ली. तातूंत आयच्या दिसाक म्हाका इश्टिणीं वांगडा च्या घेवपाचो योग आसा म्हूण बरयल्लें.''

ताणें फकांडा करीत म्हजोच पांय ओडलो. ताच्या विनोदाक जाप दीत हांवें ताका म्हळें, ''तुका हांगा खावपाचें पडलां आनी हांगासर खणी आमचें आख्खें गोंयूच खावंक पळयता. ताचें कितें?''

''तूं सकाळफुडें बरें कितें वाचचें, बरोवचें सोडून हें कितें घेवन बसलां गो? खणीचें आनी गोंयचें दुख्ख तूं म्हाका सांगता! तें सगलें सोडून दिवन तूं म्हजेवरी फकत पेपरावेलें भविश्य वाच आनी भूतकाळ, वर्तमानकाळ दोनूय सोडून दी.'' ताणें म्हाका बेसबरी सुचवणी केली. तशें हांवें तिडकीन म्हळें, ''हांगाच आमचें चुकता पळय. भविश्याचेर आमची नदर अवश्य आसची पूण वर्तमान आनी भूतकाळ विसरून न्हय!''

मुखार ताणें विनोदी वातावरण निर्माण करूंक म्हळें, ''आतां वर्तमानकाळ म्हणटा, पयलीं च्या पाणी घे आनी मागीर भविश्याचेर उलय!''

आमच्यो खबरी रंगचे पयलीं, हांवें भितर वचून हुनहुनीत च्या करून हाडली. आयतार आशिल्ल्यान पोळ्यांक घातिल्लें. चटणे वांगडा खावंक दोन पोळेय हाडले. फाटल्या पानांवयलें मुखार सुरू करत मागीर हावेंच उलोवंक सुरवात केली. ''आयजकाल आमचे भोंवतणी कितें घडटा तें सोंसू नजो गो बाये! दिल्लीक एके चलयेचेर चलते गाडयेंत सामुहीक बलात्कार जालो खंय? शी! वचत थंय खून, आत्मघात, मारामरी, भ्रश्टाचार हाचेबगर दुसरें कांयच बरें घडना. आमचें भुरगेंपण मात बेसबरें गेलें न्हय गो अरूणा!'' तसो अरूणान म्हजो सूर ओडीत म्हळें, ''हय गो बाये! आनी तूं मायनिंगाचें विसरलें दिसता? आयज खणींचे करोडांनीं रुपयांचे घोटाळे उक्ताडार येत आसात. खण तशी माती... आनी कितें?'' च्यावे घोट घेत मागीर ताणेंच मुखार स्पश्टीकरण दिवंक सुरवात केली. ''पळय, भ्रश्टाचार फकत सरकार आनी सरकारी नोकरूच करतात अशें न्हय.''

''मागीर आनी कोण दुसरो करता तर?'' आत्मविश्वासान आनी रागानूचशें हांवें म्हळें.



आमच्यो खबरो आयकत लार्गींच उबो आशिल्ल्या घरकारान मर्दीच तोंड घालीत म्हळें, ''खण म्हळ्यार आमीच सगळीं, फकत सरकार हें त्या खणींतलें रत्न!''

म्हजो इगो एकदम दुखावलो. तशें हांवें ताका म्हळें, ''तुका म्हणपाचें तरी कितें आसा? हांव भ्रश्टाचारी, अरूणा भ्रश्टाचारी?''

तसो ताणें चिमटो काडपी उतरांनीं म्हळें, ''पयर तुका आनी पोर्णिमाक ट्रेफीक पुलिसान धरलें. तेन्ना तुवें ताच्या हातार शंभराची नोट तेंकोवंक ना? ताका कितें म्हणटात तर तुमचे भाशेंत? आनी अरूणा एक सांग गो? तुवें चल्याक डेंटलांत ॲडमिशन घेवंक लाखांनीं रूपयांचें डोनेशन दिलां. ताका कितें म्हणटात तर?''

''हें, हॅं! तसल्यो एक दोन गजाली करच्योच पडटात. साद्या गजालींक लागून आमी भ्रश्टाचारी थोडींच जातात?''

घरकारान दोळे मोटे करून रागान म्हळें, ''तुमी केल्यार साद्यो गजाली आनी हेरानीं केल्यार तो 'भ्रश्टाचार'! हो खंयचो न्याय?''

फाल्यां रस्त्यार थुकप, झाडां कातरप, टी.सी.क पयशे दिवन गाडयेंत लुगार करप हाकाय तूं भ्रश्टाचारूच म्हणटलो तर? हें आमकां पटना.''

''पटल्यार घेयात नाजाल्यार सोडात.'' ह्या ताच्या कडक उतरांनीं आमच्या चावेची सगळी गोडसाणूच गेल्लेवरीं जाली. ''आगो! पापयांनो हो देस तुमचो, हो प्रदेस तुमचोच पूण नितीमुल्यां सोडून दिवन केल्लीं कसलींय कामां हीं देशाआड केल्लीं वायट कर्तृबांच जातात. हाकाय सादे भाशेंत भ्रश्टाचारूच म्हणटात.'' म्हज्या घरकाराचो राग उणो करूंक अरूणान ताका तेंको दीत म्हळें, ''पूण एक सांग समीर, आमी दोगां-तिगांनी हें केल्यार देस सुदारतलो? गोंय सुराज्य जातलें? आतां गोंयचें मायनींग बंद केल्ल्यान कितें घडटा तें पळयता मरे तूं? शेकड्यांनी घराबे उपाशीं पडल्यात. तांचीं पोटां कोण भरतलो?''

''कायदेशीर खणी सुरू करच्यो, बेकायदेशीर खणींचेर आळाबंद हाडची. जालें. सुटलो प्रस्न. एक मात पर्यावरणाचेर आडनदर करून जावचें ना!'' घरकाराच्या उतरांनी म्हजीय ट्यूब लायट पेटली. तशें हांवें अरूणाक म्हळें, ''तूं जाणा मगो आमच्या प्रसादान मायनिंगाचे सिर्वीसेरूच निंबून राव नासतना, ताचे जोडयेक बापायचो धंदोय सांबाळिल्लो. ना जाल्यार कितें जावपाचें न्हय!'' मर्दींच अरूणाक थोमणो मारीत मुखार हांवें म्हळें, ''भविश्याचेर नदर दवरतना, वर्तमान काळ मात ताणें हातांतल्यान वचूंक दिलो ना. देखून तुका सांगतां भविश्याचीं सपनां तूं पळयूच गो! पूण वर्तमानकाळ सोडून वा विसरून न्हय.'' आमच्यो खबरो बऱ्यो रंगार येताल्यो. अचकीत श्रेयालो फोन आयलो. म्हणूंक लागलें, ''मम्मी, म्हाका आनी मोनाक लायसन आनी हॅल्मेट ना म्हूण फायन घाल्या. कितें करूं?'' तशें हांवें फट्ट करून म्हळें, ''आगो! पिश्या शंभर, दोनशीं रुपया तेकय आनी फाटीं सर.''

अरूणाक हीच संद मेळ्ळी. तशें म्हाका म्हणूंक लागलें, ''खण तशी माती.... हें विसरलें काय कितें गो?''

हे वटेन हळडीक वचूंक वेळ जाता म्हूण अरूणानूय बेगीबगीन काडटो पांय घेतलो. पूण एक मात खरें! अरूणा येवन गेल्ल्यान म्हजे अर्दवट उरिल्ले निबंदाचे विशय मात फटाफट जाग्यार पडले! इतलें मात खरें!



*साकरपुड्याच्या हॉलांत अजून चारू पावूंक नाशिल्ल्यान हांव उमळशिकेन ताची वाट पळयतालें. इतल्यांत मंद पावलां उडयत चारू भितर सरलें आनी हांव सव्यार संजीवाक एकटोच सोडून दारांत धांवलें. चारूक वेंग मारून परतें येवन मागीर मुदी घालपाचो सुवाळो पुराय केलो हांवें. लोकांची आमकां वीश करपाक झुंबड उडली.*

भुरगेंपण.... दरेकाचें भुरगेंपण दरेकाच्या काळजांत लिपोवन दवरिल्लो एक खजिनोच आसता. त्या तेपार अणभविल्ल्यो आंबट-गोड यादी आयकून मन भरून हाडटात. मैत्रीणी वांगडचीं झगडीं, कट्टी-गट्टी, चिमणेभाशेन ल्हवूच दातांनी तोडून खाल्लीं पेरां-तोरां, रबरबॅन्डाचो उपेग करून शेवटयिल्लीं बोरां. एक गजाल याद जावंची आनी यादींचो घसघसोच कोसळचो अशें घडटा. कितल्योशोच यादी त्या कुरकुटांतल्यान भायर सरतात. गोड, आंबट-चिंबट यादीं वांगडा म्हाका भुरगेपणांत सतावपी मैत्रिणींची याद आयली की दोळ्यांमुखार उबें रावता चारू. परिस्थितीन तें गरीब आशिल्लें तरी जाचेकडेन गिरेस्त मन आशिल्लें तें चारू.

म्हज्या सगळ्या मैत्रिणींमदीं वयान धाकटें तें हांवच. देखून सगल्यांचो टायमपास म्हणजे म्हज्यो टिवल्यो-बावल्यो करप. शाळेंत वतना वाटेर एक व्हडलें भिंडेचें झाड आशिल्लें. थंय भुतां रावतात ही आमची तेन्नाची समजीकाय. आमकां तेवटेन एकटें-एकसुरें वचपाचो भंय घालतालीं. म्हज्यो हेर मैत्रिणी म्हजेकडेन चिकानां करून म्हाका फाटीं सोडून थंयच्यान ग्रुपान पासार जातालीं. हांव रडत-रडत शाळा गाठतालें. म्हजे तांबडेगुंज दोळे पळोवन शाळेलागसार रावपी चारूच म्हाका आदार दितालें. केन्नाय ह्या मैत्रिणींच्या ग्रुपांत हांव दिसलें ना जाल्यार चारू म्हजेखातीर डॅरींग करून त्याच भिंडीमुळांत उबें रावन म्हजी वाट पळयतालें. ताच्या ह्या डॅरींगान हांवें भुतांचो भंय मनांतसून काडून उडयलो.

चारू म्हळ्यार एका मुंडकारालें चली. हांव स्वत: एका भाटकाराच्या घरांतलें चली आसुनय, म्हजो आजो वा बापूय जातभेद न पाळपी जाल्ल्यान चारूक आमच्या घराचीं दारांच न्हय तर आयदनां लेगीत येवकार दितालीं. आमी भायलीं, भितरलीं असो भेद पाळीनाशिल्ल्यान हांव पियेतां त्याच पेल्यान चारूय च्या पितालें. केन्नाय तें आपलो पेलो विसळूंक गेल्यार म्हजी आजी ताचेर धेंगसो घालताली.

"चारू पेलो स्नेहाच्या पेल्याशेजरा दवर."

अशें हें चारू आनी हांव सांगातानच वाडलीं. ताच्या आवय-बापायन स्वत: त्रास भोगत चारूक कॉलेजीचें शिक्षण दिल्ल्यान आमची जोडी अतुट रावली. कॉलेजींत

# गिरेस्तकाय





आशा शानभाग
सादोळशें - काणकोण.
फोन : २६३२२०४/
९४०४१४५३३७

'फेव्हीकॉलका पक्का जोड' अशे फिशपाँडय आमकां मेळ्ळे. वयानुसार वाडटां वाडटां सैमान आमचे कुडीवांगडा मनाचेर मोरपिसां फिरोवंक सुरवात केली. मन हुलहुलें जावपाच्या ह्या टायमार संजीव आमचेमदीं भरसलो. आनी त्या वर्सा आमचीं नांवां घेवन आमकां फिशपाँड पडलो. 'दो फूल एक माली' आमी ताका किकोंत करून आमची दोस्ती, आमीजाद आनीकय घटमूट केली.

तशें पळयल्यार संजीवाच्या मना-काळजाची ओढ म्हजेकडेनच आसा हें म्हाका जाणवतालें. तोवूय चडांत चड यत्न करून म्हाका जाणोवपाचें काम करतालो आनी चारूचें मन संजीवा लागीं ओडटा हें म्हाका उमगतालें. संजीवान आपलो मोग उक्तायलो नासलो तरी ताची नदर दर खिणाक म्हाका सांगताली, 'हय, संजीव तुजेर मोग करता.' करतां करतां कॉलेजीचें निमणें वर्स सोपपाक पावलें. संजीव आमकां दोगांकय आवडटालो हें ताकाय कळिल्ल्यान ताजीय गत गडबडिल्लेवरी जावन तो घुस्पून गेल्लो. संजीव म्हजेखातीर पिसो जाला हें समजुनय हांवेंच काळजार फातर दवरपाचो निर्णय घेतलो.

''संजीव, चारू आयज आमचो हो कॉलेजींतलो निमणो दीस. आमच्या मदीं जो कितें ट्विस्ट आसा तो आमी तिगांय बेसबरी जाणटात आनी तिगांय भोगतातय.'' मदींच म्हाका थांबोवपाचो यत्न करपी संजीवाक हांवेंच थांबयलो.

''नो संजीव. एक उतर उलोवं नाका तूं. म्हाका म्हजी आनी चारूची नकळत्या भुरगेपणांत सावन चालू आशिल्ली इश्टागत तिगोवंक जाय. कितेंय घडलें तरी हांव चारूचेर अन्याय जावंक दिवचें ना. येतां हांव दोन मिन्टांभितर.''

हांव तरतरत पेस्ट्री शॉपार गेलें. थंयच्यान तीन पेस्ट्रीज घेवन आयलें. तातुंतल्यो दोन पेस्ट्रीज एकसारक्यो तर एक विंगडच आशिल्ली.

''चारू, संजीव, ह्या दोन सारक्यो दिसपी पेस्ट्रीमदीं हांवें एक चार आण्याचें कॉयन खोचल्या. ह्यो पेस्ट्री आमचे खातीर. म्हजे आनी चारू खातीर. आनी ती सेपरेट तुका रे संजीव. कॉयन आमचे भितरल्या जाका मेळटली ताणें संजीवाचें लायफ-पार्टनर जावपाचें.''

संजीवान गार्डनाच्या कट्ट्यावेल्यान मान फाटीं वळयली.

''स्नेहा, म्हज्या आयुश्याचो तुवें सौदो सुरू केला गो?''

''ना रे. मैत्री आनी मोग हांचे खातीर जातली ती परिक्षा रे ही. एकच सांगतां, तुजें मत आनी मन कितेंय सांगत आसलें तरी तुका हांगा येतलो तो रिजल्ट स्वीकारचो पडटलो हें सांगपाचो हक्क म्हाका आसा. हें तूं नाकारचो ना हाची म्हाका खात्री आसा.''

चारून तो मेरेन बशयेंतली आपली पेस्ट्री हांसत हांसत खावन सोंपयली. ताका कॉयन मेळ्ळी ना. म्हळ्यार...

संजीवान पिसाविल्लेवरी वयर उडी मारली.

''स्नेहा, म्हज्या नशिबान मन जाणलें. थँक गॉड. यु आर मायन फॉर एव्हर. आय लव्ह यू स्नेहा.'' हांवें आनी ताणेंय आमच्यो पेस्ट्री खाल्यो. दातां सकयल आयिल्ली कॉयन संजीवान वयर हवेंत भिरकायली. संजीवाचे वेंगेंत म्हज्या दोळ्यांक हुंवार आयलो. चारू मेकळेपणान हांसत आमकां पळयतालें.

कांय वर्सां उपरांत आमी आपापल्या आयुश्यांत थिरावलीं. अशें जातकीर घरच्यांच्या हयकारान आमच्या लग्नाचें थारलें. संजीवान उमेदीन साकरपुड्याची जंगी कार्यावळ करपाचो आग्रो धरलो. चारूनय ताका सपोर्ट केलो. सांगपाची गजाल म्हळ्यार हांव आनी संजीव लग्नबंदनान एक जावपाचीं थारून लेगीत आमची तिगांयचीय इश्टागत मात्शीय हालली नां. वेल्यान आनीकय घट जाली म्हळ्यार अतिताय न्हय.

साकरपुड्याच्या हॉलांत अजून चारू पावूंक नाशिल्ल्यान हांव उमळशिकेन ताची वाट पळयतालें. इतल्यांत मंद पावलां उडयत चारू भितर सरलें आनी हांव सव्यार संजीवाक एकटोच सोडून दारांत धांवलें. चारूक वेंग मारून परतें येवन मागीर मुदी घालपाचो सुवाळो पुराय केलो हांवें. लोकांची आमकां वीश करपाक झुंबड उडली. (खरेंतर तांकां चिकन-मटनाचो वास अस्वस्थ करतालो जावये!) मात्शी गर्दी कमी जातकीर चारू आमचे म्हऱ्यांत आयलें. दोगांयकय मनापासून ताणें वीश केलें.

''स्नेहा, खरें तर साकरपुड्याक व्हंकलेक वा न्हवऱ्याक लागच्याच मनशांनी गिफ्टां दिवप आसतात. म्हणून हांवे तुमकां कॉमन गिफ्ट हाडलां. घे.''

आमी दोगांयनी हासकुऱ्या मुखामळान ताचेकडसून गिफ्ट घेतलें. एक ल्हानशी सॅटीनची, चंची कशी भितर एक डबी आशिल्ली पोती ताणें दिली. हांवें ती तशीच संजीवाच्या कुर्त्याच्या बोल्सांत घाली.

सगळें फंक्शन सोंपतकीर आमी आमच्या दुखऱ्या पांयांक आराम दीत सव्यार बशिल्लीं.

''संजीव, चारूली डबी उगडून पळोवया रे.'' ताणेंय उमळशिकेन डबी दिली. डबयेच्या मखमली पोटांत दोन काळ्योश्यो कॉयनी आशिल्ल्यो आनी वांगडा एक चिड्डून कोंबिल्ली चीट.

''मोगाळ स्नेहा, संजीव तुजेर मोग करता हें जाणून आनी तुजेंय मन ताचे करतां ओडटा हें समजुनच हांवें तुमचे मदल्यान भायर पडपाचो निर्णय घेतिल्लो. आमीजाद आनी मोग हातूंत त्याग होच म्हत्वाचो आसता. तुवें तर आमीजादी खातीर आपलो मोग पणांक लायिल्लो. हांव इतलें बेशरम आनी सुवार्थी न्हय गो की तुजें आनी संजीवाचें मन हांव समजूंक शकचें ना. तुमच्या दोगांयच्याय सुखा खातीर हांवें एकसारक्या दिसपी त्या दोनूय पेस्ट्रीमदीं चार आण्यांच्यो कॉयनी तुजी नदर चुकोवन खोंचल्यो. तुज्या बऱ्या नशिबान दोन कॉयनी आशिल्ली पेस्ट्री म्हज्या वाट्याक आयली. तुमची दोगांयची निर्मळ खोशी पळयतां पळयतांच हांवें दोनूय कॉयनी परत्यो म्हजे पर्सींत दवरल्यो. त्योच ह्यो कॉयनी. सदांच सुखी समाधानी राव आनी संजीवाकय सुखी दवर.''

तुजेंच चारू.

चारूची चीट वाचतनां म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं.

''संजीव, आमचें चारू मनान कितलें गिरेस्त पळय रे.''

संजीव म्हजो हात कुरवाळत चारू दिसता काय पळयतालें.



झरकूट

# एक रहस्य



कुंकळे न्हंयेदेगेर पिकनीक. सुंदर सो वाठार. मदीं न्हंय आनी आलतडीं न्हंयेच्या खळखळा वांगडा भुरग्यांचो बोवाळ. कोणें झाडार झोपाळो केला जाल्यार कांय चले चलयांचीं फकांडां करतात. कोण आपलें पुराण कशें कथा सांगतात जाल्यार कांय टिचरी चाडयो करतात. कांय सर भुरग्यां वांगडा खेळटात. तातूंत एकटें मन भुलवणो सैम पळोवन ताचेर निबंध बरयता. तें म्हणजे रितू. म्हजी इश्टीण. हांव ताका बाबडें कशें पळयत आसां.

"केन्ना सोडटलें हें सगळें?"

"भुरग्यांनो आयकात, मात्शीं हांगा लक्ष दियात." पि.टी. सरान आपलें तोंड उगडलेंच.

"भुरग्यांनो हांगा एक डेन्जर झोन आसा. हय, न्हंयेर थंय एक इल्लेंशें फोंडकूल दिसता पळय थंय कोण वचचिंनांत. म्हाका आतां कळ्ळां की थंय कोणाचो पांय पडल्यार एक कांटो तोपता आनी तो नाच्च जाता."

"सर, तुमी अंधश्रध्देचेर विश्वास दवरता?"

भुरग्यांनी कॉमेन्ट मारपाक सुरवात केली. पूण सरान सांगिल्ल्या जाग्यार वचपाक कोणाकच धाडस नाशिल्लें.

दनपारचो कड. सगळ्यांनी आपापलें जेवण भायर काडलें. तातूंत रितून तरेतरेचे जिनस आनी हांवें सुंगटांचे कांय पदार्थ हाडिल्ले. आमच्या वांगडा आनीकूय कांय इश्टीणी बशिल्ल्यो. एका ताटांत चडांत चड स तरेचे पुलाव आनी कांय पक्वानां. आऽऽ आमची पेट पुजा सारकी जाली.

आतां वेळ न्हंयेच्या उदकांत पांय दवरून बसपाचो. रितूचें वागणें आयज म्हाका आवडूंक ना. तें म्हजेकडेन कांयच उलय नाशिल्लें. वयल्यान अस्वस्थ दिसतालें. आमची एक इश्टीण रागिनी शाणेपण दाखोवपाक खूबूच फुडें, टिचरीचो दोळो चुकोवन म्हणूंक लागलें, "सगळीं जाणां आयकात, हांव सरान सांगिल्ल्या जाग्यार म्हणजे न्हंयेंतल्या फोंडाकडेन वचून येतां."

'सदां आपलें शाणेंपण दाखोवन, विजेता जाता तें' हांवें मनांत म्हळें.

व्हावतीं ल्हारां न्हयेचीं, चपचप पावला रागिनीचीं

जयजयकार भुरग्यांकडसून 'रागीनी! रागीनी!!'

फोंड सारको ताचे म्हऱ्यांत. दवरता तें पावल आतां

प्रस्न एक सगळ्यांच्या मनांत. जातलें फुडें किर्ते आतां?

सळऽऽऽ पांय दवरता थंय आसा. तें व्हावूंक लागलें. बरें जालें आमी न्हंयेचे देंवते वटेन बशिल्लीं तीं. हाताक धरलें आनी वयर काडलें सोमतें.

त्या बराबर टिचरी धांवून आयल्यो. 'बाय कशें आसा?' विचारचेपरस 'सस्पेंड करुया तुका?' म्हणूंक लागलीं.

ताका उमथें करून, पोट दामून, तोंडांतल्यान उदक भायर काडून, स्वास दिवन शुध्दीर हाडलें. तें सामकें भियेल्लें. ताचे वांगडा रितू आनीकय अस्वस्थ दिसूंक लागलें. झाडाचे

सावळेंत रागिनीन सुशेग घेतलो. तशें रितू म्हाका घेवन ताच्या म्हऱ्यांत गेलें.

"हे, तुकां खरोच कांटो तोपलो गो? कितें जालें गो तुका?"

"हे खरें सांगतां, पूण तुमी सोपूत घेयात."

"सोपूत सगळ्यांचो. सांग तूं."

"खरें सांगूं, कांटो-बिटो कांय ना थंय. भूत आसा भूत!!"

"भूत??"

"हय भूत. जसो हांवें पांय दवरलो म्हाका एकआवाज आयकूंक आयलो."

"आवाज! कसलो आवाज?" आमी दोगांयनी भियेत विचारलें.

"रागिनी, ओऽऽ रागिनी, म्हाका मजत कर न्ही. मजत कर न्ही." ह्या भिरांकूळ आवाजाक हांव भियेवन पडलें.

"भुरग्यांनो बसीकडेन येवन रांकेत उबीं रावात. चला पळोवया चलात." टिचरीन सगळ्या भुरग्यांक वचूंक सांगलें.

म्हजो हात रितून हळूच घट्ट धरलो आनी म्हणूंक लागलें, "हें रागिनी म्हणटा तें खरें जाल्यार, एकदां वचून पळोवया. फक्त एकदां. म्हाका थंय एक गूट आसा कसो दिसता. नाजाल्यार म्हाका न्हीद पडची ना. भंय दिसतलो. या मगो?"

इश्टीणी खातीर इतलें तरी करचेंच लागता. म्हणून आमी त्या फोंडकुला देगेर उबीं रावलीं.

"हे, तुका कितें समजता जाल्यार सांग गो."

म्हाका आनी कितें, कॅमेरो काडून फोटो मारूंक लागलें.

आमकां अकस्मात भास काय कितें जालें तें कळ्ळेंच ना. आमच्या मुखार एक १८ वर्सांचें कशें चली उबें आशिल्लें. तें म्हणूंक लागलें,

"म्हाका फक्त मजत करात. नांव म्हजें जलिल प्रिया, वर्सां म्हजीं सोडून दियात. त्या झाडाचे खाचींत एक चोपडी आसा. तातुंतल्यो सगळ्यो कविता प्रकाशीत करा आनी म्हाका मुक्ती दियात."

आमी झाडाकडे वचूंक लागलीं, "हे रितू आनी दिव्या, म्हजी आवय मालभाटांतले एके खोपींत रावता. हांव पत्र सांगतां तें बरयात, पूण वळून मात पळोवं नाकात. तें पत्र मागीर म्हजे आवयक वाचून दाखयात. घेयात."



'हे म्हजे अम्मा.... दोन तीन उतरां बरयलीं आनी निमणें उतर तुजें प्रिय चली जलिल प्रिया.'

आमी बेश्टेंच वळून पळयलें. तें नाशिल्लें.

त्या बराबर आमी त्या झाडाकडेन गेलीं. फाटल्या झाडाखुटांनीं हात भोंवडायलो. कांटे लेगीत तोंपले. मेळून मागीर आमी माती उस्तुवपाक लागलीं तेन्ना आमच्या हाताक ताणें सांगिल्लें तें पुस्तक मेळ्ळें. खूब पोरणी चोपडी. १९५० सालांतली. चोपडे वयलो पुठ्ठो झडून गेल्लो. कविता मात सारक्यो आसल्यो. इतल्यांत टिचर आमकां सोदत येता ती दिश्टी पडली. बेगीबेगीन रितून चोपडेंत पत्र घालून चोपडी बेगांत उडयली आनी आपली चोपडी भायर काडली.

"टिचर हाची चोपडी हांगाच उरिल्ली म्हणून परत आयिल्लीं."

"आनी तुमी हांगाच उरिल्लीं जाल्यार तुमचे पालक आमकां दोशी थारावपाचे. चला आतां हांगासरलीं."

येतना भुरग्यांचो बोवाळ तितलो नाशिल्ले तरीय कांय जाणां हळू आवाजांत गित गायतालीं. कांय जाणा न्हिदिल्लीं. आ आमी? विचारमग्न!!!

घरा पावलीं. पूण मन तें सगळें पळयल्लें विसरपाक तयारूच ना. सका जायसर न्हीद ना. 'ट्रींगऽ ट्रींगऽ' सकाळफुडें फो कोणाचो? म्हणत हांवें उखल्लं पळयल्यार रितू.

"हे दिव्या, आयचें लेक्च बंक. स्कुलाचे गेटीकडेन सार आठांक मेळ. कळ्ळें! दवर.

रितूच्या मनांत कि आयलां हें कळपाक कठीण आमी थारयल्ल्या त्या जाग्य मेळ्ळीं आनी थारायलें मा भाटातले झोपडेंत वचपाचें.

कोयरान-कोयर, दुर्गंध काळे-काळे बुरशे भुर आशिकुशींतल्यान वताले आनी जलिलप्रिया आवय बद्दल विचारलें जाल्यार सरभोंवतणचा अश्योच जापो. 'काम को जाना है, बाद आओ.' आमी निर्शेलीं. परत वचपा ब पर्याय नाशिल्लो. आमच्यांनी वाट धरल्या थ आसा. रितूचे सायेक कोणतरी ओडूंक लागल आमी वळून पळयल्यार एक ल्हानशें चली उ आशिल्लें.

ताणें आमकां एके खोपीकडेन व्हेल खोपीवयलें मेणकापड गेल्लें. भितर सरल्य उदक गळटालें. पेपर सगळ्याक पातळ्ळा. कांय चोपड्यो जळून गेल्यात. आमचें लक्ष ए जाण्टे बायलेचेर गेलें. पिंजिल्ली साड ब्लावज... कितें तरी चिंतीत आशिल्ली. ए फोटो घेवन ओग्गी कोनशाक बशिल्ली. तिक केंस नाशिल्ले, पूण सामकी हाडकुटी. दोळेसु गेल्लेवरी. ती हालनाशिल्ली. तिका आयकूं

येवंक शकता हाचेर आमकां दुबाव. इतल्यान, तिच्या हातांतल्या फोटवाचेर आमचें लक्ष गेलें. 'हय, हय, तो जलिलप्रियाचोच फोटो. ती जलिलप्रियाचीच आवय.' आमी आनी वेळ केलो ना. पत्र वाचलें.

हे म्हजे अम्मा,

त्रास सोसले तुवें म्हज्या जल्मापासून. सपनां रचलीं आनी शिकयलें. पूण आतां म्हणटा आसतली, म्हजे कश्ट सगळे फुकट गेले. ना अम्मा ना. तुवें म्हाका सगळे परिस्थितींतल्यान एक नवो जल्म दिलो. नवी वाट दाखयली. आयचे परिस्थितींतल्यो आवयो हें सुद्दां करूंक पावनांत. तुका सर्ग प्राप्ती मेळटली. तूं धन्य अम्मा, तूं धन्य अम्मा!

तुजें प्रिय चली

जलिलप्रिया

हय, तिका आयकूंक आयलें. तिच्या दोळ्यांतल्यान घळ-घळ दुकां गळूंक लागलीं. ते ल्हानशे चलयेन सगळ्यांक आपोवन हाडिल्लें. सगळीं थंडसाणेन तें पळोवंक लागलीं. जाण्टेलेन तें पत्र दी अशी कुरू केली. जशें आमी तिका पत्र दिलें, तिणें तें पत्र आनी फोटो काळजाक लावन आपलो जीव सोडलो.

''मरी सो अच्छी है. सौ से ज्यादा साल तक जिंदा थी.'' सरभोंवतणच्या लोकांनी म्हळें.

आतां आमी थारायलें जलिलप्रियाची म्हायती काडपाची आनी खबरापत्रां कचेरींत गेलीं. १९५०तली गजाल सोदून काडपाक. फक्त लोकल दिसाळ्यांत मजत केली. तो दीस १२ डिसेंबर १९५० 'जलीलप्रिया बेपत्ता'.

आमी तोच पेपर घेवन एके नामनेचे कवयित्रीकडेन गेलीं आनी तिका सगळी गजाल सांगली. तें आयकून ती रडपाक लागली, ''हय, जलिलप्रिया तेन्ना आमचे बरोबरच कविता बरयतालें. आपल्या कवितांचें पुस्तक येवचें ही ताची खूब इत्सा. तें आमचे प्रकाशन संस्थेंत नवेंच कामाक लागिल्लें. एक दीस ताणें आपल्यो कविता आमच्या मॅनेजरा मुखार दवरल्यो. 'सर, छापश्यात न्हय म्हज्यो कविता?' ताच्या तोंडार एक आशा.

पूण मॅनेजराक आपले गिरेस्तकायेचो गर्व आशिल्लो. फट्ट करून ताणें म्हळें, 'सांग गो, तूं जोडटा कितें? पयसो ना धड आनी ते झोपडेंत रावता मगो? तूं पयली गरीब आनी गरिबाचें पुस्तक छापून हांवूय गरीब जातलों!'

'खीऽऽ खीऽ' हांसत कुसकेपणान उलयलो मॅनेजर. जलिलप्रियाची मान सकयल. तें पळोवन मॅनेजर आपली खाडकी धरीत लागलो ताका चाळोवंक. जलिलप्रियाच्या दोळ्यांत दुकां आनी तकलेंत राग. तेन्नाच फट्ट करून एक थापट फुलयलें ताणें मॅनेजराचेर आनी भायर सरून गेलें. तेन्ना सावन तें कोणाक दिसलें ना. तें नाच्च जालें आनी दुसऱ्याच दिसा मॅनेजराक अपघातांत मरण आयलें.''

रितून पट्ट करून म्हळें, ''आमकां एक काम आसा तुमचेकडेन. करशात न्हय? ना म्हणूं नाकात.''

''बाय सांग गो!'' नामनेचे कवयित्रीन म्हळें.

''जलिलप्रियाच्यो कविता प्रकाशीत करपाचें काम. आमी कोणाक सांगल्यार आमकां हांसतले. तुमी करशात न्हय?'' हांवें म्हळें. तिणें आमकां हयकार दिलो.

कांय दिसांनीं जलिलप्रियाच्या कवितांचो 'मनोकामना' नांवान झेलो प्रसिध्द जालो. ताच्या दुसऱ्याच दिसा बंक मारून कुंकळे न्हंयेदेगेर गेलीं. थंय आमची जलिलप्रिया वाट पळयतालें.

''आयलीं तुमी! देव बरें करूं.''

''जलिलप्रिया तूं नाच्च जालें तें...'' म्हजो प्रस्न ताका कळ्ळो.

''मॅनेजरान म्हाका खूब कितें म्हळें तें तुमकां खबर आसतलेंच. ते खातीर हांवें निश्चेव केलो. हांव म्हजें पुस्तक प्रकाशीत करतलेंच. कितलेय कश्ट करचे पडल्यार पडूं. हांव छापतलें म्हळ्यार छापतलेंच.

हांव घरांतल्यान म्हजी कवितांची चोपडी घेवन भायर सरलें. आयज कोणाकडेन चोपडी दिवन कविता छापपाक लायतलें अशें येवजिलें. मुख्य रस्त्यार पावलें तेन्ना मुखार एक गाडी उबी. अजापाची गजाल म्हळ्यार गाडी मॅनेजराची. आपलें तोंड बाबडें कशें करीत उबो आशिल्लो. माफी मागतालो. 'जलिलप्रिया तुवें म्हजे दोळे उक्ते केले. म्हाका माफ कर.' कांय वेळ चिंतून हांवें ताका माफ केलें. मागीर ताणें म्हाका गाडयेन जाय थंय पावयतां म्हळें.

हांव बसलें. तीच म्हजी व्हडली चूक. आयज तुमी म्हाका हांगा पळयतात!! हय, ताणें म्हाका हांगा हाडलें. 'तूं पुस्तक प्रकाशीत करतलें, हय?' म्हणत म्हाका आपल्या बेल्टान मारपाक लागलो. ठाऽऽठा म्हज्यान सहन जालें ना. हांवें म्हटलें, 'हांव म्हजें पुस्तक काडटलेंच म्हणजे काडटलें.' ते बराबर तो आनी म्हजेर अत्याचार करपाक लागलो. रागान ताणें चोपडी त्या झाडाकडेन शेवटून मारिल्ली. तरीय हांवें म्हजी जिद्द सोडली ना. 'हांव काडटलेंच' रगतान रगत न्हांवत आशिल्लें. हांव स्वातंत्रसैनिका भशेन आड्डत आशिल्लें. तो पाखलो कसो म्हजेर वार करतालो. 'हांव पुस्तक छापतलेंच' ठोऽऽ करून ताणें म्हजेर फातर मारलो. हांव फोंडकुलांत पडलें. पूण म्हजो आत्मो, 'हांव छापतलेंच' म्हणून आड्डत आशिल्लो.

जो ह्या आयुश्यांत कर्म करता ताका ह्याच आयुश्यांत भोगचें पडटा तें खरें. मॅनेजर गाडयेंतल्यान परततना वाटेर ताका अपघात जालो आनी ताका मरण आयलें.

काटो ही मनशाची कल्पना. हांव सोदतालें मदतगाराक. म्हजो आवाज आयकून पडटाले सकयल भिवकूट. आयज तुमी म्हाका मुक्ती दिली. आयज हांव चल्लें म्हज्या नवे कवितेंतल्या एका नव्या हिमालयांत म्हणजे सर्ग. देव सगळें दिवं तुमकां.'' म्हणत तें नाच्च जालें.

आमच्या दोळ्यांतल्यान न्हंय व्हावूंक लागली. ती खोशयेची वा दुखाची कळपाक कठीण आशिल्ली.



– युगा आडारकार
यत्ता : बारावी कला,
डी. एम्. सी.
मो. : ८६९८३५३६००

*चित्रगुप्त संस्कृत उलोवपाक लागल्या बराबर हांव सावरून बसलों. कठीण प्रसंगाक आमी इंग्लीशीचो कसो आधार घेता तशें हो कितें तरी संस्कृतान सांगतलो हांवें मनान जाणिल्लें. (हय आत्म्याक मनूय आसता)*



# सर्ग नरक

तंद्रेंतल्यान भानार आयिल्ल्या भशेन जालें. नदर चारूय वटेन घुंवडायल्यार हांव फोर (४) लेन हायवेच्या मदींच उबो. रस्ते काळे तुकतुकीत. रस्त्याच्या दोशी वटेन व्हडल्यो इमारती. व्हडले महाल म्हणल्यार जाता. येरादारी कांय दिसना. फकत लोक! तेय बी धोतर पगडी असल्या भेसांत. इतल्यांत एक पगडी घाल्लो म्हर्‍यांत आयलो. म्हाका अजागळाक पळोवन जावंये ताणें विचारलें

"भवान् गोवातह आगतवान वा?"

हांवें हय म्हणून मान हालयली.

"तत्र गच्छ । चित्रगुप्त महोदय: दश वादने आगमिष्यति ।'

ताणें फुडले बिल्डींगेकडेन बोट दाखयत म्हणलें.

चित्रगुप्त म्हणटकच हांवें आंग काडलें. पूण ताणें ताचेकडेन लक्ष्य दिनासतना फुडें चलत रावलो.

बिल्डींगेक सेन्ट्रलायज्ड ए. सी. आशिल्ली.

'चित्रगुप्त' नांवाची व्हडली पाटी आशिल्ल्या कॅबिना फुडें हांव बसलों. इतल्यान थंय वेटींग रुमांत बशिल्ल्या मनशाचेर नदर पडल्या बरोबर म्हजी लायट पेटली. तो आमच्या वाड्या वयलो सो कॉल्ड मराठी प्रेमी. दोन दिसां पयलीं भायर पडिल्लो. म्हाका पळयल्या बराबर मराठींत 'आई गऽऽऽ' म्हणून जांबय दिली. वयर पावलो तरी पीळ अजून वचूंक नाशिल्लो. इतल्यान एक इन-शर्ट केल्लो, टाय मारिल्लो जाण्टेलो मनीस आयलो. 'यो पात्रांव' म्हणून म्हाका भितर आफयलो.

'चित्रगुप्त' अशें म्हणत ताणें म्हाका नमस्कार केलो. हांवेंय नमस्कार केलो.

"तो म्हजे पयलीं आसा न्ही." हांवें म्हणलें.

"ताचो मात्सो प्रॉब्लेम आसा." चित्रगुप्त.

"हांगाय ताचो प्रॉब्लेम?" - हांव

"हय. तो आमच्या रेकॉर्डान गोंयकार म्हणून रेजिस्टर्ड आसा आनी जितलेय नीज गोंयकार आसा तितल्यांचीय मायभास कोंकणी आसपाक जाय अशें आमची सिस्टम म्हणटा. पूण हो आपली मांयभास मराठीच म्हणटा. सिस्टम तें मानना आनी एरर दाखयता. ते खातीर ताची फायल अजून क्लीयर जावना."

हांवें वण्टीचेर आशिल्ल्या तखट्याचेर नदर मारली. डिसेंबर म्हयन्यात खंवसल्ले तांचें विवरण दिल्लें. ट्रका खाला पडून मरण-वीस जाण, काजीक गोळ लावन-धा जाण, रॅटोल खावन- दोन. बाकीचे इतर ५४६. मागीर २०१३ वर्सांची मोखूय दिल्ली. म्हज्या तोंडावेले भाव पळोवन चित्रगुप्त मिश्यानी हांसलो.

"हय. आमकांय टार्गेट आसता. तें सोड. गोंय कशें चल्लां?"

"तुमकां म्हजे परस चड खबर आसतलें. सगळी नोंद हांगाच जाता न्ही?"



कृ. म. सुखठणकार
रायबंदर - गोंय
मो. : ९८५०५३०७५६

'हांगा सोड वयर कशी जाप दितलो.' आई सदांच म्हणटाली. आई थंयच उरली. हांव हांगां जाप दिवपाक पावलों. घर माथ्यार घेतलां आसतलें तिणें.'' हांव इमोशनल जालों.

''जन पळ भर म्हणतील हाय हाय. अशें भा. रा. तांबेन म्हणलां. पद आयकलां न्हय? तर तूं हॉट सिटार आसा. आनी के. बी. सीं.त सांगतात तशे तुका रूल सांगतां.''

''हांगाय तेंच?''– हांव

''हय तर. के. बी. सी. म्हजो आवडटो प्रोग्राम. चुकल्यार सुद्दां रिपीट टेलीकास्ट पळेतां.''

म्हाका आतां मात्शें ॲट होम फील जावपाक लागलें. ''आतां तुमची फायल उगडचे पयलीं रूल्स सांगतां. जिणेचे चार भाग, ब्रह्मचार्याश्रम, गृहस्थाश्रम, वनप्रस्थाश्रम आनी सन्यासाश्रम. प्रत्येक आश्रमाक थोडे गूण आसात. कांयकडे नेगेटीव मार्कूय आसात. तुमचो गोवा बोर्ड एक बॉल आडायल्यार सुद्धां स्पोर्टसमन म्हणून तीस मार्क दिता तशें हांगां ना. आतां सुरू करुया?''

''भवत: जीवनम् तु सामान्यम् एव''

हांवें मान हालयली.

चित्रगुप्तान फायल उगडली. ''मुलांचे पांय पाळण्यात दिसतात. तुजें हांगां कांयच दिसना.''

''हांव आम आदमी. गोंयकारांचें सर्वसाधारण भुरगेंपण सामान्यूच आसता. हांव ताका अपवाद ना.'' – हांव

''कुंड्यो हालोवन ताचे पोंदचे पदरा गायंडोळ पावसा दिसांनीं मारले. मे म्हयन्यात आंबे घोटां खावन काथे शेजारच्या नागवेकाराच्या घरार शेवटून मारले.'' हांवें मान सकल घाली.

''सायब इतली बारीक नोंद? बाल लीला न्हय त्यो?''

''तूं स्वताक कृष्ण समजता काय कितें रे?'' पयलीं मेन्यूअल रेकोर्ड आसतालो आतां सगळें कम्प्युटरायज्ड जालां. हो ब्लॉक सोडून साऊथ ब्लॉकांत आमचो पीटरबाब बसता.''

''कोण? सँट पीटर?'' – हांव

''हय. आनी कोण! थंय वचून पळय. स्टीव जॉब्ज आयिल्ल्याक ताणें ताचे कडल्यान कितें कितें करून घेतलां तें. सगळें जानोत. सकयल सासंव फुटलें रे फुटलें पीटरबाबाच्या आय पॅडार रेजिस्टर्ड. म्हजे कडेन तशी वेवस्था ना.''



''सायब भुरगेपणात श्यामची आई वाचून जाण्टेलेक रस्तो क्रॉस करपाक हातभार लायिल्लो. थंय कितें मार्क मेळ्ळ्या?''

''कपल. अर्द्या रस्त्यार पावतकर तेवटेन पदेर येतकच तिका थंयच सोडून तूं धांवलो मरे. आमकां शिंगां लावपाक तूं खंय सकयल आसा?''

पयलींच गोरो चित्रगुप्त तापतकच तांबडो जालो. म्हाका तो त्रीशूलांतलो संजीव कुमार कसो दिसलो.

''सायब तुमी संजीव कुमार कशे दिसता.''

चित्रगुप्त लजलो सो. ''जाणां''

''आतां 'शिकेल तो टिकेल' थंय तुवें मार खाला. कांय मार्क मेळचेनांत. धा, वीस तीस हेच पाडे तुका येताले मरे.''

''हय सायब. आतां पसून बाकीचे येनांत.'' – हांव

''मटको कसो घेतालो तर? म्हाका तातुंतलें कांय खबर ना.''

''मटक्याक पाडे लागनांत. ओपन आनी क्लोज आसता. तातूंत तीन पत्ती....'' – हांव

''पुरो पुरो म्हाका मटका एजंट जावपाचो ना. हांगा पळय तुकां नेगेटीव मार्क मेळ्ळ्या.''

''खंय?'' हांव.

''भूदान मुवमेन्ट, भाऊसाहेब बांदोडकारान सुरू केल्लो म्हणून तुवें पेपरांत बरयिल्लें आनी 'क्वीट इंडिया' जॅक सिक्वेरान.''

''सायब गोंयकारांची धांव ह्या दोन फुडाऱ्यां मेरेन.'' हांव.

''बट धीस ईज नॉट एक्सेप्टेबल. तें तुवें सकयल मास्तराक सांगपाचें. उरिल्लें सुरिल्लें तुवें हांगां होगडायलें.''

''खंय सायब?'' म्हाका इंटरेस्ट येवपाक लागलो.

''सम्राट अशोक कोण? ह्या परिक्षेक आयिल्ल्या प्रस्नाक तुवें तें पणजेचें थेटर म्हणून बरयलें.''

आतां म्हाका खंय पळोवचें तेंच कळना जालें. एक एक करून म्हजे कपडे देंवता असो म्हाका भास जालो.

''अशोकबाब फुडल्या कॉलनींत रावता. ज्या दिसा तुवें हें सकयल पुण्य कार्य केलें तेन्ना हांवें तें अशोकबाबाक सांगलें. तें आयकून अशोकबाब म्हज्या खांदार तकली दवरून हुंडक्या हुंडक्यानी रडलो.'' मान सकयल घालून हांव ओग्गी.

''धर्म आचरण. हांगाय तुज्यो बोबोच मरे. सोड मूज जावचे पयलींच मामाची चली तिरशी, तिचे कडेन लग्न जावंचो ना म्हणून जानवें काडून मामाच्या तोंडार मारलें मरे तुवें?''

''तेन्ना म्हाका कांयच समज नाशिल्ली.'' – हांव

''मामाली चली तिरशी म्हणून बरें कळ्ळें मरे तुका? बरें तें सोड. तुजी आई संकष्टी करताली. चंद्रोदया पयलीं जेवी नाशिल्ली. तूं मात....''

''शेजारी नागवेकारागेर वचून मसूरीचें सुंगटां घाल्ल्या तोंडाकाक लावन चार चपात्यो खातालो.'' – हांवें वाक्य पुरें केलें.

''कित्याक तर दर संकष्टेक तोय आनी बटाटाची कापां खांवचीं पडटा म्हणून. हे चवथीक तर तुवें हद्द केली मरे. उत्तर पुजा करचे

सोडून बांगुल्ल्यो सोदूंक रायबंदच्यान पाळोळ्यां वेळेर पावलो मरे. सोबलें रे तुका हें?'' चित्रगुप्त परत तांबडो जालो. म्हजी मान सकयल.

''आमचो धर्म सांगता पर स्त्री माते समान.'' चित्रगुप्त आतां म्हज्या वीक पॉईंटाचेर पावलो हें म्हाका कळ्ळें.

''वाड्यावयलें शेवतें, आबोलें, सुमन, कुसूम कितलीं नांवां घेंव.''

''इशक के नाम पर करते सभी अब रास लीला है. मै, करूं तो साला केरेक्टर ढीला है.'' – हांव.

'रेडींतलें पद न्हय? सलमान खान न्हय?''

''हय'' – हांव

''हांवें पळयला पूण तो रेफरन्स हांगा कोंताक येना. ह्याय फ्रंटार तूं फेल. आतां पोटा खातीर कामां केल्यां तातूंत कितलो उजवाड घाला तो पळोवया. काय बरो पंचायतींत सेक्रेटरी आशिल्लो. थंय काशी सगूण पागीचो I/XIV चो उतारो कशी सगूण सावळाक दिवन नोकरी वगडायली.''

''पूण थंय हावें काय पयशांचो घोटाळो करूं ना.'' – हांव.

''जाणां. तूं आनी कितें घोटाळो करतलो? म्हणून तुका नेगेटीव मार्क ना. मागीर हांगां यो परेन तूं मटक्याची बीट घेतालो. हांगां मात तुवें सामकें प्रामाणीकपणान काम केलां. धंदोच तसो सगळे चिटयेचेर चलता. कोट्यांची उलाढाल फकत विश्वासाचेर. खंयच फसवणूक ना. अशें आमकां क्वचीत पळोवपाक मेळटा. खरें तर मटको ही इंडस्ट्री म्हणून सरकारान डिक्लेर करपाक जाय.''

चित्रगुप्त इमोशनल जालो. हें आयकतना म्हाकाय भरून आयलें. हो मटको चलोवपाक सकयल म्हाका हफ्ते दिवचे पडटाले. ताची नोंद वयर अशी जावंची म्हजी छाती मातशी फुडें आयली. (आत्म्याकूय छाती आसता फॉर यूवर इन्फोर्मेशन)

''मटक्या खातीर तुमकां थोडे मार्क मेळ्ळ्या. वाचन सुद्धां जालां दोन तीन उतरां तींय बी मटक्याक लागून.'' – चित्रगुप्त.

''हय. हांव कल्याण मेल, मुंबई बाजार मटक्याक लागून वाचतालों.'' – हांव

''धव्याचेर काळें चडशें केलां तें मटक्याक लागून.'' चित्रगुप्त.

''हय मटक्याची बीट बरोवपाक.'' – हांव

''आतां घरकान्नीक लागून तुमकां खूब मार्क मेळ्ळ्या.''

''घरकान्नीक लागून मार्क! आनी तेवूय म्हाका!'' हांवें किळांच मारली.

''हय. दोळे आशिल्लो धड धाकट मनीस तिजे कडेन केन्नाच लग्न जावंचो नाशिल्लो.''

''मान्य करतात न्ही तुमी.'' – हांव

''हय आमचो डिफेक्टीव प्रॉडक्ट तो आमी मान्य करता आनी तुमी तो स्वीकारलो म्हणून तुमकां एडीशनल मार्क दितां.'' – चित्रगुप्त.

कोणाचो उपयोग खंय आनी केन्ना जायत सांगू नज हेंच खरें!

''इदानीम् भवान् गन्तुम् शक्नोति ।'' – चित्रगुप्त.

चित्रगुप्त संस्कृत उलोवपाक लागल्या बराबर हांव सावरून बसलों. कठीण प्रसंगाक आमी इंग्लीशीचो कसो आधार घेता तशें हो कितें तरी संस्कृतान सांगतलो हांवें मनान जाणिल्लें. (हय आत्म्याक मनूय आसता)

''खंय?'' – हांव

''कुत्र नाम? नरके एव.'' – चित्रगुप्त

''परं भवता एव उक्तम् मम जीवनम् सामान्यम्.'' – हांव.

(हांव इमोशनल जावन संस्कृत उलोवपाक लागलों.)

हांव रडपाक पावलों (आत्मो रडटाय बी. आतां आत्मो आनीक कितें कितें करता तें सांगिना चड जालें.)

'सत्यम्। तदर्थे नरकम्, यम यातना विहाय' – चित्रगुप्त

थोडक्यांत म्हाका नरकवास नरकयातने शीवाय. आतां नरकयातना म्हणजे कितें हें जाणून घेवपाक म्हाका उमळशीक आशिल्ली.

''सायब म्हाका नरकयातना भोगची पडिल्ली जाल्यार ती कितें आसतली आशिल्ली?'' – हांव.

''खरी नरक यातना तुवें तुजे घरकान्नी बराबर संवसार करून भोगल्या. हांगा तुका फकत एक ते तीस पाडे नरकयातना म्हणून शिकचे पडटले आशिल्ले.''

अशें म्हणून चित्रगुप्तान 'नरक' म्हणून म्हजे फायलीचेर 'ढब्ब' करून शिक्को मारलो तशें हांवें कच्च करून आंग काडलें आनी जागो जालों.

''हो तांबयो घे आनी सोसायटीन दुदाचे लायनींत उबो राव. म्हशीचें दूद सोंपल्यार सकाळ फुडें गायच्या दुदाचो पचको च्या घेवंचो पडटलो.'' – ही.

म्हज्यो हांगाच्यो नरक यातना आजुनय सोपूंक नांत.



## आंकरी

# तुवें मम्मी-डॅडीक गूड मॉर्नींग म्हटलां?

"गूड मॉर्नींग अंकल"

त्या तरनाट्यान कॉलेजीचें दार-राखण्याक म्हळें.

"गूडमॉर्नींग"

त्या दार-राखण्यान जाप दिली.

"मात्शें राव." ताणें फुडें म्हळें, "तुवें तुजे मम्मी-डॅडीक गुडमॉर्नींग म्हटलां?" ताचो फुडलो प्रस्न.

"आयज म्हणूंक ना. पूण केन्नाय हांव तांकां वीश करतां." तो तरनाटो उलयलो. नावेलीच्या रोजरी महाविद्यालयांत कांय वर्सां फाटीं तो ख्रिस्ती भाव दार-राखणो कसो वावुरतालो. आयज तो आमचेमदीं ना. ताच्या आत्म्याक शांती समाधान मेळूं. जायत्या विद्यार्थ्यांक तांची आवय-बापूय वा भाव-भयणी गाडयेन हाडून पावयतालीं. तेन्ना तो तांकां सरळ विचारतालो, "तुवें तुज्या डॅडीक थॅंक्यू म्हणलां?"

"अंकल, म्हजो डॅडी तो. ताका थॅंक्यू कित्याक म्हणूंक जाय?" तीं तरणाटीं ताका परते प्रस्न करतालीं.

जिणेची वाट तांकतना आमचे मदलीं जायतीं जाणां दुसऱ्यांसवें उपकारी मन दाखयतात. खूब संतोसाची गजाल. दुसऱ्यांसवें उपकारीपण दाखोवंक, तांचे लागीं लागशिल्लो संबंद जोडूंक वा ताका आपलींकशीं मानून घेवंक आमचे मदल्यांक खूब सोंपें जाता. पूण आमच्या घरच्यांक आपलींकशीं मानून घेवन उक्तेपणी दाखोवंक आमच्या मनाक आमी तयार करिनांत वा आमकां लज दिसता. हें एक कुवाडें. आमी कुटुंबांनी जियेतात. सांगाताक वेळ सारप हेंच नीज कुटुंबांत दिसूंक जाय. असली परिस्थिती आयज चडशीं दिसून येना ती गजाल वेगळी. आमच्या कुटुंबांनी आमी सांगाता जियेनूय आमकां आमचींच मनशां लागींचीं कशीं दिसूंक वेळ लागता.

'त्या' गांवांत तांचे फिरगोजेची परब आसली. विसेंत पांच दीस आदीं लग्नी जिवितांत भितर सरलेलो. परबेचें मीस जाल्या उपरांत आपले घरकान्नीक घरा पावोवन आपल्या इश्टांक 'वीश'



करूंक धांवलो. सांजेचीं तीन वरां जाल्लीं, घरकान्न आनी आवय जेवनासतना वाट पळेतालीं. आयलो आनी जेवलो. सगळ्यांक फेस्ताचीं परबीं दिलीं, पूण घरच्यांक आनी आवयक परबीं दिवंक विसरलो. आमचे मदल्या जायत्या जाणांक अशें घडटा जावं येता. आमचीं घरचीं न्हय तीं? अशें म्हणून taken for granted जाल्ले वरी वागतात. हाचो परिणाम मात उक्तेपणी दिसून येता, पूण कुटुंबांतले संबंद मात मजबूत जायनांत हें एक सत.

आमी मनशां क्रियात्मक. खंयतरी आनी कितें तरी आमकां करूंक जाय. खंयतरी म्हणटना कुटूंब निमाणे सुवातेर आमी दवरतात. वाड्यांत वा गांवांत कश्टवतल्यांक आमी आदार दिवंक फुडें आसात. आमच्या घरांत आवय-बापूय कश्टवतात जाल्यार आमचो आदार कितलो लाबता? 'कुटुंबांत आमचो वावर कोण वाखाणता?' असो प्रस्न समाजीक मळार नावलोकीक जाल्लो तरनाटो करतालो. 'कुटुंबांत कोणें कोणाक वाखाणपाचें?' हो उरफाटो प्रस्न हांव करपी. कुटुंबांत जियेतात तीं आमींच व्हय? दर एकल्यान असले तर्क नासलले प्रस्न केले जाल्यार त्या प्रस्नांक जाप दितलो कोण? ते प्रस्न प्रस्नूच उरतले आनी घुस्पागोंदळाक मात सुवात मेळटली.

खरें म्हळ्यार आमच्याच मनशांक आमीच पयलीं शाबासकी दिवंक जाय. 'चूक जाली, देव बरें करूं, देव बरो दीस दिवं.' असलीं उतरां आमचेच कडल्यान येवंक जाय. आमच्या कुटुंबांत कोणूच शाबासकी दिनांत, वावराक म्हत्व दिनांत म्हूण आइडलीं जाल्यार आंतरव्यक्तीगत संबंद मजबूत जातात कितें? आमी आमच्याच मनशालागीं पयलीं बरे संबंद जोडटलीं हें आदींच फुडें आमच्या मनाक सांगूंक जाय. आमी जियेतात ते परिस्थितींत 'दी आनी घे' असली वागणूक खूब म्हत्वाची. आमी कुटुंबांत उलयतात ती भास बदलून तोखणायेचे भाशेक जागो दिवप शाणेपणाचें, एकामेकाची तोखणाय करून बरें उतर दिवन, मान आनी आदर कुटुंबांत वाडयलो जाल्यार आमी आमकांच आमचींच कशीं दिसपाचीं.

आमी कुटुंबांत एक घर कशें जियेवन कांयच फायदो ना. आमी एक घराबो कसो जियेवची आयज काळाची गरज. आयज आमी एकामेकाची तोखणाय करिनांत, परबीं दिनांत, 'गुड मॉर्नींग वा गूड इवनींग' म्हुणोनांत... अशेंच चल्लें जाल्यार एका दिसाक आमच्या कुटुंबांत आमी दुर्गां उबीं करतले. असलो देखावो आमच्या कुटुंबांनी नाका देखून आमी एकामेकाच्या हातांत हात घालून, दुसऱ्यांक बरें उतर दितात तशीं वा तांची तोखणाय करतात तशीं आमच्या कुटुंबांनीं ती जावंचीं. सेवा आनी मोग कुटुंबांतल्यान सुरू जाता. नियाळात.



**- जॉन एम्. आल्फोंसो कार्मेलीत**
पेडें,
म्हापशें - गोंय.



# साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार जाहीर

## कोंकणींत काशिनाथ शांबा लोलयेंकाराक

## नमन धावस्कार सावंताक युवा पुरस्कार

## गुरुनाथ केळेकाराक अणकार पुरस्कार










भारतीय साहित्य विश्वांत मानाचे स्थान आशिल्ले विंगड विंगड भाशांतले साहित्यकृती खातीरचे २०१२ वर्साचे साहित्य अकादेमी पुरस्कार जाहीर जाल्यात. नामनेचे कोंकणी साहित्यीक काशिनाथ शांबा लोलयेंकार हांचो 'काव्यसूत्र' हो काव्यझेलो ह्या पुरस्काराचो मानकरी थारला.

एक लाख रुपया रोख, शाल आनी मानचिन्न अशा स्वरूपाचो हो पुरस्कार आसा. १८ फेब्रुवारीक नवी दिल्लींत जावपी खाशेल्या सुवाळ्यांत हे पुरस्कार भेटयतले. .

साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार कोंकणींत गुरुनाथ केळेकार हांकां महात्मा गांधीचे आपजिणेच्या 'सत्याचे प्रयोग वा आत्मकथा' ह्या अणकारा खातीर जाहीर जाला.

साहित्य अकादेमीचो युवा पुरस्कार कोंकणींत नमन धावस्कार सावंत हांच्या 'मुक्तमन' ह्या निबंध झेल्याक फावो जाला. ५० हजार रुपया आनी मानचिन्न अशें ह्या पुरस्काराचें स्वरूप आसा. ऑगस्टांत जावपी सुवाळ्यांत हो पुरस्कार तांकां दितले. साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार मैथिली भाशे खातीर महेंद्र नारायण राम हांकां 'कार्मेलीन' (दामोदर मावजो, कोंकणी) ह्या पुस्तका खातीर फावो जाला. ५० हजार रुपया आनी मानचिन्न अशें पुरस्काराचें स्वरूप आसा.

सत्याचे प्रयोग वा आत्मकथा ह्या कोंकणींत भाशांतर केल्ल्या पुस्तका खातीर साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला ताचें ९० टक्के श्रेय महात्मा गांधी हांकांच वता. १० टक्के सर्गेस्त रविंद्र केळेकार हांकां जाल्यार फकत ९ टक्के आपल्या वांट्याक येता म्हणपाचो उमाळो उक्तायतना गोंयकारांनी गोंयांत गांधी रुजोवंचो असोय उलो पुरस्कार फावो जाल्ल्या पुस्तकाचे भाशांतर करपी ज्येश्ठ कोंकणी लेखक गुरुनाथ केळेकार हांणी मारला.

सत्याचे प्रयोग वा आत्मकथा ह्या पुस्तकाच्या कोंकणी अणकारा खातीर गुरुनाथ केळेकार हांकां साहित्य अकादेमीचो प्रतिश्ठेचो पुरस्कार जाहीर जाला. ह्या पुरस्कार निमतान आपले उमाळे उक्तायतना तांणी हो उलो मारलो. ह्या पुस्तका वरवीं गांधी गोंयकारांच्या घरा-घरांनी पावचो हीच आपली मोख आसा अशेंय तांणी सांगलां. ह्या पुस्तकाखातीर पुरस्कार फावो जातलो म्हणपाची आपल्याक मात लेगीत अपेक्षा नासली अशेंय मत श्री केळेकारान उक्तायलां.

आयज गोंयांत पर्यावरण मोग्यांक जिते मारपाची लेगीत गोंयकार भास उलोवपाक लागल्यात. आपलें तें न्हयकारपी गोंयकार अजून गोंयांत आसात. ही गजाल सगळ्यांत चड भिरांतेची आसा. देखुनूच गोंयकारांच्या घरांनी गांधी पावपाक जाय. गोंयकारांनी गोंयांत गांधी रुजोवपाक जाय अशेंय तांचे म्हणणें आसा. हें पुस्तक भाशांतर केल्ल्यान, खऱ्या अर्थान ह्या पुस्तकान आपल्याक व्हड केला. महात्मा गांधी हांची आत्मकथा भाशांतर करपाचें भाग्य मेळप होच सगळ्यांत व्हड पुरस्कार आसा. आतां साहित्य अकादेमीन ह्या पुरस्काराचेर अधिकृत रितीन शिक्को मारला अशें श्री केळेकाराचें मत आसा.

भलायकी

# वखदांचो अयोग्य वापर - २

**व**खदांचो गैरवापर : जायत्या वस्तुंचो वापर कायद्यासकयल येता, जाका लागून थोड्या वस्तुंचो उपेग बेकायदेशीर थारता. ह्या वस्तुंचो पुरवठो आनी वापर जाता देखून जायत्यो गुन्यांवकारी आनी गरजे भायल्यो घडणुको घडटात!

थोड्या वखदांचो गैरवापर जाता ही जाण आसा. जर हीं वखदां योग्य तरेन वापरलीं जाल्यार तांचो खूब उपेग जाता, पूण कांय लोक हीं वखदां मौज, ताकत वाडोवंक तर थोडे न्हिदेच्यो गुळयो घेवन ताची संवय करून घेतात.

थोडे वेसनांच्या आहारी गेल्ले असलीं वखदां वापरतात, कित्याक तर तांकां बेकायदेशीर ड्रग्स - देखीक : कोकेन, हाशीश, गांजो आदी मेळपाक कठीण जाता आनी ताचो प्रेसूय खूबूच आसता.

**सामान्यतायेन गैरउपेग आनी दुरउपेग जावपी वखदां :**

स्टेरॉयड्स (शरीरसौष्ठवाखातीर body-building दुरूपेग)

चिंता, ताण आनी न्हिदेखातीर घेतात त्यो गुळयो

'कोडेन' आशिल्लीं खोकलेचीं शिरपां

प्रोपोक्सीफेन

बुप्रेनॉरफीन

पेन्टाझोसीन

पेथेडीन

केटामीन

सिल्डेनाफील

हीं वखदां रसेताविणें विकप बेकायदेशीर थारता. देखून फार्मासीन जर रसेत जायूच म्हणून आग्रो केलो जाल्यार तें एकदम रास्त.तुमी हे संबंदी फार्मासकारांक सहकार्य दिवंचें.

**गैरपणान वापर जातात अशीं आनीक कांय वखदां :**

**१. ॲण्टीबायोटीक्स :** हो सगळ्यांत चड गैरवापर जावपी वखदांमदलो एक गट. लोकूय आपल्याआपूण ॲण्टीबायोटीक्स साद्या सर्दी, खोकल्याक, घाव्याक, ताळ्याच्या हुळहुळ्याक, आदीक अयोग्यपणी वापरतात. दोतोरान दिल्लो कोर्स रूग्ण जायते फावटी पुराय करिनांत वो डोस वेळार घेनांत. हाका लागून जायते ॲण्टीबायोटीक्स जायत्या बॅक्टेरियांचेर आतां प्रभावीपणान काम करिनांत. ॲण्टीबायोटीक्साच्या गैरवापरान सायड इफेक्ट्सूय जातात.

**२. दुखीच्यो आनी सुजेच्यो गुळयो :** उदा: आयबुप्रोफेन, डिक्लोफेनॅक, एसेक्लोफेनॅक, आदी. हांकां सामान्यतायेन 'पेन कीलर्स' म्हणटात. हीं वखदां कायद्यान रशेताशिवाय विकपाक जायनांत. हीं वखदां गरज पडटा तेन्नाच, दोतोराच्या सल्यानुसार अमूक प्रमाणांतूच घेवंक जाय. पूण लोकांक बारीक-बारीक दुखण्याचेरूय तीं घेवपाची सवंय जाल्या. परत-परत तांचो वापर केलो जाल्यार पोटांत बिघाड आनी आंतकड्यांभितर अस्वस्थताय वो व्रण (अल्सर) जावं येता. चड तेंप वापरलीं जाल्यार मुत्रपिंडाचेर वो काळजाचेर ताजो वायट परिणाम जावं येता.

(चलता...)



- राज वैद्य
इंडियन फार्मास्युटिकल अँसोसिएशन
ईमेल : ipacpd@gmail.com



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

# उतरकुवाडें

## आडवे

१. हिंदू वर्साचो सातवो म्हयनो
३. खेळांत वांटो घेवपी मनीस, प्लेयर
६. निरोप, सांगणी
८. नगर, सिटी
९. शालिवाहनाच्या नांवाकडेन संबंद आशिल्ली वर्साची मेजणी
११. मनोज कुमाराचो एक सिनेमा, आभार
१२. इस्पीकेंतलें णव क्रमांकाचें पान
१३. 'पांडू हवालदार' ह्या सिनेमांतलो नायक xx कोंडके
१५. सात आनी दोन
१८. हवेचें नेटान व्हांविल्लें ल्हार, वात, वायू
१९. कुपांचो मोटो आवाज
२२. बारीक बारीक केल्लें रंगाचें काम, चितारणी
२३. खावपा जेवपाची खर इत्सा
२५. कश्ट, श्रम, खटपट
२७. xxx आबोलें – आबोल्याची एक जात
२९. एक फामाद नांदी : xxx xxxx विस्मयकारा

## उबे

१. मळब, स्काय
२. दादलो, 'मादी'च्या विरुध्द
३. खंत, दुख्ख
४. गणेश, गजवदन
५. शेतांतलो बांद
७. गोंयांतलो एक मतदारसंघ वा एक शार
८. सरस्वती
१०. कणी आशिल्लें वा तांदळांच्या कणयांचो केल्लो सांजो
१४. कसल्याय विखारान कातीक आयिल्ली पुळयेभशेन मात्शी सूज.
१६. तळमळ, काकुळटेन केल्ली पराथणी
१७. श्रीफळाचें झाड
१८. परिस्थिती, भोंवतण
१९. आंकड्यांचो विशय, मॅथेमेटिक्स
२०. खबर, काणी, घडणूक
२१. xxx भादो – रेखाचो पयलो सिनेमा
२४. सत्य, खरें
२६. धा आनी सात
२८. सवो म्हयनो

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | ■ | ३ | | ४ | | ■ | ५ |
| | ■ | ६ | ७ | | ■ | | ■ | ८ | |
| ९ | १० | ■ | | ■ | ११ | | | | ■ |
| ■ | १२ | | | ■ | ■ | | ■ | १३ | १४ |
| ■ | | ■ | १५ | १६ | ■ | ■ | १७ | ■ | |
| १८ | | ■ | ■ | | ■ | १९ | | २० | |
| | ■ | २१ | ■ | २२ | | | ■ | | ■ |
| २३ | २४ | | | | ■ | २५ | | | २६ |
| २७ | | | ■ | ■ | २८ | ■ | | ■ | |
| | ■ | ■ | २९ | | | | | | |

## ऑगस्ट उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| जा | ने | वा | री | ■ | ■ | आ | प | णा | लो |
| ■ | ण | ■ | त | र | बे | ज | ■ | ■ | क |
| प | टे | ल | ■ | ■ | री | ■ | आ | सा | म |
| ■ | प | ■ | प | रा | ज | य | ■ | व | त |
| च | ण | कू | ल | ■ | ■ | ज | बा | न | ■ |
| म | ■ | ■ | त | ■ | स | मा | ज | ■ | प |
| क | ड | क | ड | प | ■ | न | ■ | मा | र |
| प | ■ | था | ■ | व | ■ | ■ | भा | व | ज |
| ■ | अ | न | म | न | प | ■ | र | ■ | ळ |
| सा | र्थ | क | ■ | ■ | त | ण | त | ण | प |

